ಪ್ಸಾಂಚೊ ಅಜಾಪಾಚೊ ಆನಿ ಭೆರೆವ್ನ್ ಪಡ್ಪೆಲೊ ಏಕ್ ಪಿಶಯ್ ಜಾವ್ನ್ ಪಡ್ಲಾ/ ಆಸಿ ನಾಮ್ನೆಚ್ಯಾ ಬರೊವ್ಪ್ಯಾಂನಿ ಹಾಚೆರ್ ನಾನಾ ತರ್ಕ್ ಪಿತರ್ಕ್ ಚಲಯ್ಲೆ.....'

('ಭೆಡ್ಡೊ ಘೊವ್ ಆನಿ ತಾಜಿ ಮೊಸಿ ಬಾಯ್ಲ್'
'ದಿವ್ಲಿ' ದಿವಾಳಿ 1984)

ಪ್ ಉಕ್ತಾವ್ನಿ :

'ಆತಾಂ ಹಾಂವ್ ಆಂಕ್ವಾರೂಚ್ ಕಿತ್ಯಾಕ್ ಉಲ್ಲೊಂ? ಹ್ಯಾ ಪ್ರಸ್ನಾಚಿ ಜಾಪ್ ವಪ್ ದಿಸ್ತಾ ತಿತ್ಲಿ ಸೊಪಿ ನ್ಹಯ್. ಇತ್ಲೆಮೆರೆನ್ ಕಿ ಹಾಂವ್ ಆಂಕ್ವಾರ್ ರಾವ್ಲಾಂ ಯ್ ಉಲ್ಲಾಂ ಹೆಂ ಸಾಂಗಪ್ ಲೆಗಿತ್ ಮಾತ್ತೆಂ ಅವಘಡ್. ಪುಣ್ ಪಿನೋದಾನ್ ಂವ್ ಕೆನ್ನಾಯ್ ಮ್ಹಣ್ಟಾಂ, 'ಮ್ಹಜೆ ಘರ್‌ಕಾನ್ನಿಚೆಂ ಲಗ್ನ್ ಆಜೂನ್ ಮೆರೇನ್ ಂವ್ಕ್ ನಾ.' ಅಶಾ ವೆಳಾರ್ ತುಮಿ ಮ್ಹಣ್ಟಲಿಂ, ಆ್ಯ ಆಜೂನ್‌ಯ್ ಹ್ಯಾ ಸ್ಟಾಲ್‌ಮ್ಹಾತಾರ್ಯಾಕ್ ಲಗ್ನಾಚಿ ಉಮೆದ್ ಆಸಾ ಕಾಂಯ್ ಕಿತೆಂ? ಖರೆಂ ಮ್ಹಳ್ಯಾರ್ ಸ್ಲ್ಯಾರ್ ಕಾಂಯ್‌ಚ್ ಆಜಾಪ್ ನಾ... ಪುಣ್ ಪ್ರಸ್ನ್ ಯೆತಾ ತೊ ಲಗ್ನ್ ಸಂಸ್ಥೆಚೊ. ಯಾರ್ ಯೆತಕಚ್ ಚಲ್ಯಾನ್ ವ ಚಲ್‌ಯೆನ್ ಹೆ ಸಂಸ್ಥೆಂತ್ ಆಪ್ಣಾಂಕ್ ಗುರ್ಫಟಾವ್ನ್ ೆವ್ನ್ ಚುಕನಾತಿಲ್ಲಿಂ ಕರ್ಮಾ ಸಾರೊದಾರಾಕ್ ಕರಿತ್ ರಾಪ್ಪಂ ಕಾಯ್ ಕಿತೆಂ? ಟ್ಟನ್ ಆಪ್ಲ್ಯಾ ಎಕ್ಲುರ್‌ಪಣಾಚೊ ಜೊ ವಿಚ್ಛೇದ್ ಕರ್ತಾ ವ ಚಿರ್‌ಫಾಡ್ ಕರ್ತಾ, ತೆನ್ನಾ ಕಾ 'ಲಗ್ನ್ ಆನಿ ಫಾಂಸಾರ್ ವಚಪ್ ಹೆಂ ಮನ್ಯಾಚ್ಯಾ ಪ್ರಾರ್ಕ್ತನಾಂಕ್ ಬರಯಿಲ್ಲೆಂ ಸ್ತಾ' ಅಶೆ ಉದ್ಗಾರ್ ಯೆತಾತ್. ತೆಂ ವಾಚ್ತಕಚ್ ಮ್ಹಜೆಂ ಸಾರ್ಕಲ್ಲೊ ಸಾಡೊಸುದೊ ತ್ಲೊ ಬರೊ ಆಸಾ ಹೆಂ ಯೆವ್ಜೂನ್ ಸ್ತ್ಯ ಜಾತಾ.'

('ಆನಿ ಹಾಂವ್ ಆಂಕ್ವಾರೂಚ್ ಉಲ್ಲೊ' 'ಚಿತ್ರಂಗಿ' ದಿವಾಳಿ 1984)

ಲಗ್ನಾಪಿರಿಂ ಶಂಕರ್ ಭಾಂಡಾರಿನ್ ಖೂವ್ ವರಸಾಂ ಪಯ್ಲಿ ದುಸ್ರೆ ಏಕೆ ಕಡೆನ್ ಬರಯ್‌ಲ್ಲೆಂ – 'ಲಗ್ನ್ ಪಳೊಂವ್ಚೆಂ ಕರೂನ್ ಆನಿ ಘರ್ ಪಳೊಂವ್ಚೆಂ ಬಾಂಧೂನ್' ಅಶಿ ಏಕ್ ಮ್ಹಣ್ಲಿ ಕೊಂಕಣಿಂತ್ ಆಸಾ. ತಾಂತ್ಲಿ ಘರ್ ಪಳೊಂವ್ಚೆಂ ಬಾಂಧೂನ್ ಹಿ ಮ್ಹಣ್ಲಿ ಕಾನಾಕ್ ತರೀ ಬರಿ ಲಾಗ್ತಾ. ಬಾಂದಿಲ್ಲೆಂ ಘರ್ ಆಪ್ಲೆಯ್ ಪಳೊವ್ನ್ ಯೆತ್ಯಾ ವತ್ಯಾಕ್ ದಾಖಿಂವ್ಕ್ ತರೀ ಮೆಳ್ಟಾ! ಪುಣ್ ಲಗ್ನ್ ಕರ್ತಕಚ್ ಆನಿ ಆನಿಕ್ ಪಳೊಂವ್ಚೆಂ ಕಿತೆಂ ಉರ್ತಾ ಕಾಯ್?..... ಲಗ್ನಾಚೊ ಪ್ರಸ್ನ್ ಹೊ ಸಂಸಾರಾಚೆ ಸುರ್ವೆ ಪಾಸೂನ್ ಅಸೊಚ್ ಉಸ್ಕನಾ – ಕಿ ಜೆ ಲಗ್ನ್ ಸಂಸ್ಥೆಂತ್ ಆಸಾತ್ ತೆ ಕೆನ್ನಾ ಕಾಯ್ ಭಾಯ್ರ್ ಸರೂಂಕ್ ಪಳೆತಾತ್ ಆನಿ ಜೆ ಭಾಯ್ರ್ ಆಸಾತ್ ತೆ ಭಿತರ್ ಸರೂಂಕ್ ಪಳೆತಾತ್? ಆನಿ ಹೆ ಸಂಸ್ಥೆಚ್ಯಾ ಡುಮ್ರ್ಯಾರ್ ರಾವ್‌ಪಿ ಮ್ಹಜೆ ಸಾರ್ಕೆಲೊ ವೆಲ್ಯಾ ಪ್ರಸ್ನಾಚಿ ಜಾಪ್ ಸೊದ್ಪಾಂತೂಚ್ ಖೊಶಿ ಮಾನ್ತಾ.'

('ಆಮ್ಚಿಂ ಲಗ್ನಾಂ ಕಾಯ್ ವಿಘ್ನಾಂ?'
'ಪುನವ್' ನೊವ್ವೆಂ 1972)

# मांडावळ

पान

# अमर कोंकणी - 57

## संपादकाचे शरे

ह्या शणमासिकाचो 57-वो अंको भाग्र येताना ह्या नेमाळ्याच्या प्रकटनाची सुरुवात जाव्न 32 वर्सां संप्तात. ही एक व्हडा धादोस्कायेची संगत, सांगाताच आमच्या 'कोंकणी संस्थ्या'न आनी ताच्या निर्देशकांनी, कार्यकारी निर्देशकांनी वावऱ्याड्यांनी आनी चड करुन बरवप्यांनी आनी वाचप्यांनी काडल्ल्या वांव्टीचो आनी दिल्ल्या पाटिंब्याची रुज्वातयी ही जाव्नासा म्हण आमी म्हण्तांव. तुम्कां सर्वांक धन्यवाद.

ह्या संदर्भार आमच्या मायभाशेचें कुळार जाव्नासच्या गोंय हांगाच्या संसोधकांचींच बर्पां खास करुन विंचून प्रगट केल्लो वात्र भोव समंजस म्हण आमकां भोगता आनी धादोस कर्ता.

तरी पुण एक दुर्सळ्ळेची संगत कसली म्हळ्यार - नागरी लिपिंत सय्तयी प्रगट जांवच्या ह्या शणमासिकाक गोंयथाव्न आस्चे वर्गणिदार भारिच उणे. आसच्यां पय्कीं चडशे गौरव प्रतियो घेव्पी.

देकुन, वर्सावार वर्गणी फकत 100/- रुपय जालल्यान तुमची आमच्या गोंयकार भावां/ भय्णिंनी उण्यार उणे 5 वर्सांची पुणी वर्गणी भरिजे म्हळ्ळी आमची खाल्ती विनती.

शिवाय, आमची दुस्री विनती अशी आसा - संसोधिक नेमाळ्यांक बर्पां मेळोंक कठीण त्रास आसात हें तुमी जाणांत देकून आम्कां, केन्नांयी तुम्चीं बरीं संसोधिक बर्पां धाडतेच रावा आनी तुमच्या (आनी आमच्या) 'अमर कोंकणी' क तुम्चो आदार आनी सहकार सदांच आसुं.

धन्यवाद

**एडवीन जे. एफ. डिसोजा**

**संपादक**

# गीता केन्ना रचली?

शणै गोंयबाब

('कोंकणी' एप्रिल 1977)

क्रिस्ताआदीं अडेचशीं वर्साच्या सुमाराक हिंदुस्तानांत अशोक मौर्याचें साम्राज्य चलतालें. त्या वेळार गीतेची रचणूक जाली, अशें दिसता. त्या वेळार महाभारताचेंय संपादप आतांच्या रूपांत चलिल्लें आनी त्याच संपादप्यान गीता रचली.

गीतेच्या पैल्या अध्यायांत वर्णिल्ल्या भाशेन भारती झुजाच्या वेळार अर्जुनाक फुडाराक जावचेलो रक्तखेंव येवजून अकस्मात खेद जालो. ताच्या हातां-पांयांक वडी आयल्यो, हातांतलें धोणूं गळसणलें आनी झुजल्यार मोटो अधर्म आनी पातक जातलें म्हणपाच्या भयान, तो हात-पायं पांगरून थंड बसलो. अर्जुनाची झुजचेली ही पैलीच खेप न्हय. ह्या आदीं ताणें जायतीं झुजां मारिल्लीं, रगतां व्हांवेल्लीं आनी जीव घेतिल्ले. परंत त्याखातीर ताका केन्नाच खेद वा पश्चात्ताप जालो आनी अधर्माच्या आनी पातकाच्या भयान तो लडलडलो, , म्हणपाचो मजकूर खंय मेळना. म्हणटकूच, भारती झुजाच्याच वेळार निखटी सैन्यां पळोनूच तो आपलो सभावगुण अशांतूक कसो विसल्लो, पातकाची खंत कित्याक घेवन बसलो आनी धर्माच्यो जाणवायो कित्याक उलोंक लागलो? ताणे पैलीं मारिल्ल्या झुजापरस भारती झुज मोटें अरिष्टांचें आसून, तांतूंत लक्षांनी जिवांचेर हावळ येवपाची आसली आनी ताचीं खासा माये-मोगाचीं आनी नात्या-पात्याचीं मनशां मरपाचीं आसलीं, हें खरें आसलेंय जाल्यार, अधर्म आनी पातक म्हणटात तें ल्हान-व्हड गजालींत सारकेंच लागू जाना न्हय? ल्हान गजालींत तें लागू जायना आनी मोटे गजालींत लागू जाता अशें म्हणूं नज. ताजे वांटे ल्हान-व्हड जावं येतीत. परंत नांवांत बदल जायना. अळशिकेचो वांटो चड जावं, उणो जांव; तिचें खत ल्हान जांव, व्हड जांव. परंत तिचें नांव अळशीक. तिचो परिणाम खत. हे नदरेन पळेल्यार, अर्जुनाक हेर झुजांभाशेन भारती झुजाच्या वेळारूय पातकाचो कांपरो भरपाचें कारण दिसना. त्या भायर, ताच्या तोंडांत घाल्ल्या उतरांभाशेन, धृतराष्ट्राचे पुत ताचे दायजी-गोत्री आसलेय जाल्यार, ते 'आततायी' म्हळ्यार मोटे घातके आसले. घातकेपणाचीं जायतीं पातकां तांणी केल्लीं.

शकुनि मामाच्या पालवान तांणी पांडवांक ल्हानपणापासून जायती पिडापीड ोगैल्ली. भीमसेनाचो जीव घेवंक तांणी ताच्या जेवणांत वीख घाल्लें. आनी ताची ुद्ध वेतकूच ताका चरांटून बांदून न्हंयेंत उडैलो. तांणी पांडवांक आनी तांचे आवैक ाखेच्या घरांत हुलपावन मारची मांडणी केली. तांणी धर्मराजाक शकुनिवांगडा ाशांनीं खेळूंक लावन तडुकांनीं ताका हार केली. ताचें राज्य हातासलें. तांकां आनी ापदीक बंदी केली. ह्यो सगळ्यो करण्यो घातकीपणाच्यो म्हणून संगूंक नाका. सन्याच्या घराक उजो लायतलो, वीख घालतलो, हातांत शस्त्र घेवन जीव घेंवक ाइल्लो, नागौणो, बायलेक फारायतलो आनी शेत-भाट हातासतलों ह्या स जाणांक ातके म्हणटात. (अग्निदो गरदश्चैव शास्त्रपाणिर्धनापहः क्षेत्रदाराहरश्चैव षडेते ाततायिनः वसिष्ठ स्मृति 3.16) हांकां फाटफुडो पळेनासताना, अद्रूण जिवानशींच ारचे;तांतूंत कसलेंच पातक लागना, आशें शास्त्र संगता. अर्जुन तें जाणा जावंकूच ााय (आततायिनमायान्तं हन्यादेवाविचारयन्। 350। नाततायिवधे दोषो हन्तुर्भवति ्श्चन।352। मनु. 8). अशें आसताना घातक्या कौरवांक झुजांत माल्त्यार पातक ायत, अशें ताका कशें दिसुं ये? 'झुजांत कुळाचो खेय जातकूच पुर्विल्ले कुळाचार ाशे जातले, कुळांत अधर्म माततलो, बायलो भंगतल्यो आनी 'वर्णसंकर' म्हळ्यार ातिंचो घुस्पा-गदळ जातलो. हे भाशेन मेल्त्या-गेल्या पितरांक पिंड आनी तिळां-उदक मेळना जावन ते, तांचें कुळ आनी ताचो खेव करतले मनीस मेळून सगळेच नर्कांत पड्टले, म्हणपाचीं अुतरां अर्जुनाच्या तोंडांत घाल्यांत. परंत खासा तांच्या कुळांतली चाल पळौंक गेल्यार ताका जातीच्या घुस्पा-गंदळाचो आनी ताच्या परिणामांचो भंय दिसचें कारण दिसना. कित्याक, ताजो बापुय म्हळ्ळो पाण्डू हो ताचो खरेलो बापुय न्हय आनी आजो म्हळ्ळो विचित्रवीर्य होय ताचो खरेलो आजो न्हय. विचित्रवीर्याक अंबिका आनी अंबालिका ह्यो दोगी बायलो आसल्यो. परंत तो भुरगें जायनासताना क्षयान मरतकच सत्यवतीन आपल्या आंकवारपणांतल्या पुताक कृष्ण जुवेंकाराकडल्यान नियोगाचे रितीन अंबिकेक धृतराष्ट्र आनी अंबालिकेक पाण्डू नांवाचे पुत जांवची मांडणी केली. हांचे जल्म जातीच्या घुस्पा-गदळानूच जाल्यात अशें म्हणचें पट्टा. तांकां कुरु कुळांतली चोख संतत म्हणुं नज. पाण्डुकूय भुरगें जायना जालें. ताका कुंती आनी माद्री ह्यो दोगी बायलो आसल्यो. पुत जायनासताना आपुण मेलों जाल्यार आपणाक सर्ग मेळचो ना, म्हणपाच्या भयान, ताणें आपल्या बायलांक दुसऱ्या दादल्यांपासून पुत जल्मा घालूंक सांगले. कुंतीन यमधर्म, वायु आनी

इंद्र ह्या तीन देवांक हांगावन तांचेपासून तिका अनुक्रमान युधिष्ठिर, भीम आनी अर्जुन हें तीन पुत जाले. माद्रीन अश्विनी देवांक हांगावन तांचेपासून तिका नकुल आनी सहदेव हे जुंवळे पुत जाले. हे संततीसंबंधान लोकांचो आदर उणो जावंचो न्हय म्हणून तांकां जरी देवांचे पुत म्हळे, तरी ते परक्या दादल्यांचे पुत आसले हे विसरूंक जायना. हे भाशेन ते जरी पाण्डूचे पुत नासले तरी फुडागाक पाण्डव म्हणून गाजले आनी आपल्या मानिल्ल्या बापायच्या नांवान श्राद्ध घालून ताका सर्ग जोडून दिवंक उपकारा पडले, ही ध्यानांत दवरपाची गजाल आस. अर्जुन ही घुस्पा-गदळाची कथा बरे भाशेन जाण आसलो. म्हणटकूच घुस्पा-गदळान आपलें कुळ नर्कांत पडलें म्हणून ताणें कित्याक भियेवचें तें समजना. ताचे तकलेंत तसली कल्पना येंवचें कारण निखालुस दिसाना. म्हणटकूच ह्या कुवाड्याची फोडणिशी कशी जांवची? ती जावंक कठीन ना. गीताकारान कांय हेतून आपलो ग्रंथ रचला आनी लोकांच्या मनार आपले शिकोणेचो परिणाम बरे तरेन घडचेखातीर ताणें भारती झुजाचे कथेचो लाव मुजरत घेतला आनी तांनूंत ताका उपाट येस आयलें हांतूंन दुभाव ना. भारती झुजाच्या शस्त्रांच्या खणखणांत आनी बाजपांच्या घणघणांत श्रीकृष्णान अर्जुनाक गीत सांगली, म्हळ्यार जायत्याजाणांक खरें दिसना. आनी तितलेखातीर तांची अपुर्बाई करूंक फावना. आतांय गीता वाचतलो जाल्यार उणेंपुणें एक वर लागता. आनी ती येवजून सांगता आसताना श्रीकृष्णाक चड वेळ लागूंक जाय आसलो. कुळाच्या खेवाक भियेवन आपुण झुजयो ना म्हणून अर्जुन सस्त बसलो हे एकाद्रें खरें धल्लेंय जाल्यार ताची समजावणी करून ताका झुजूंक लावंक झुजाच्या बोवाळांत इल्लोय वेळ नासलो. त्या भायर शश्त्रां हातांत घेवन झुजूंक शिवशिवतल्या आनी रणखेवाचो भार आइल्ल्या कौरवांच्या आनी पांडवांच्या मुखार वेदांताची येवजणी करूंक वा तो सुचूंक श्रीकृष्णाच्या मनाक जाय तितली सस्तताय मेळूंक कठीण आसली. इतलेय अडचणींत ताणें अर्जुनाक समजायलो जाल्यार थोड्याच साध्या-सोप्या उतरांनीं समजायला जातलो. तांतूंन गीतेंतले भाशेन वेदांताचें जाळें विणपाचें कारण नासलें.

गीताकारान भारती झुजाचे कथेचो लाव घेवन आपले वेळचो आपले भोंवतणचो दोळ्यांनीं पळेल्लो इतिहास भितर कसो चित्रायला आनी रंगैला तो आतां पळोया.

वैर केल्ली फोडणिशी ध्यानांत घेतल्यार, अर्जुनाक झुजांतल्या रणखेवाच्या वा कुळक्षयाच्या भयान थरथरचें कांयच कारण दिसाना. म्हणटकूच गीताकारान ताच्या

ंगांत तो थरथरो खैंचो भल्लो? तो ताणे आपले बेठे कल्पनेंतसून भल्लो क्वय? ना. ाच्या वेळार तशे तरेचो प्रसंग घडून आइल्लो; तो ताणे आपल्या दोळ्यांनी पळेल्लो ानी ताचोच ताणे मोटे चतुरायेन गीतेंत उपयोग केलो. हिन्दुस्तानाचो भाग्यवंत म्राट अशोक मौर्य हाचे जिणेंतसून ताणे तो घेतलो. क्रिस्ता आदीं सुमार 269व्या र्सा पाटलीपुत्राच्या म्हळ्यार आतांच्या बिहार जिल्ह्यांतल्या पाटणेच्या शिंवासनार शोकाक राजवटकेचो अभिशेक जाल्लो. ताचें साम्राज्य हिमालयाथान मलबार रेन पातळ्ळेलें आनी ताचें वजन आजिय, आफ्रिक आनी एवरोप ह्या तिनूय खंडांत ोलतालें. ताचो पराक्रमी आजो चंद्रगुप्त हाणें ताच्या झुजारी बळग्याची बुनेद ारिल्ली. 6 लक्ष पेदे, 30 हजार सुंवार, 9 हजार हती, हजारांनी रथ आनी केतलीशी भुरावळ आशे तरेचें तें बळगें आसून अशोकान तें जायतें चडैल्लें. ताचो ापुय आनी आजो वेद-धर्मान चलताले. तोय कांय काळ त्याच धर्मान चलतालो. ाचे भोंवतणी गौतम बुद्धाच्या धर्माक नित्कीची आंकरी फुटुंक लागिल्ली. ताणे अजून पाळां-मुळां घेंवक नासलीं. अशा वेळार अशोकान तो धर्म लागीं करुन तो ाचो 'अुपासक' जालो. क्रिस्ताचो धर्म पातळांवक जसो कोंस्तांतीन राजा आनी महमदाचो धर्म पातळावंक जसो खलीफ अुमर उपकारा पडलो तसोच बुद्धाचो धर्म ातळांवक अशोक सम्राट जायतो उपकारा पडलो. 'उपासक' जांवचे आदीं ताणें जायतीं झुजां मारुन रक्तखेव केल्लो आनी आपलें राज्य विस्ताराइल्लें. ताचें निमाणें झुज कलिंग देसाआड जालें. बंगालच्या पोट-समुद्राचे तडीर महानदी आनी गोदावरी न्हंया मजगतच्या आवांठाक कलिंग देस म्हण्टाले. अभिशेकाक आठ वर्सां जातकूच, ताणें हो देस जिखल्याअुप्रांत रोखडोच ताणे बुद्ध धर्म घेतलो. ताका तो भारी मानलो. तो मोटे पोटतिडकीन तो पाळूंक, लागलो. आनी लोकांक शिकौंक लागलो. तांतूंतले आहिंमेचे शिकौणेचो जाल्यार ताच्या मनार इतलो परिणाम जालो कि निक्त्याच मारिल्ल्या कालिंगाच्या झुजाखातीर ताचो जीव कळवळ्ळो. ह्या संबंधाची सगळी खबर ताच्या 13 आंकड्याच्या खडपावेल्या कळितांत वाचूंक मेळटा. तांतूंत म्हळ्ळेभाशेन त्या झुजांत देड लक्ष लोक बंदे केले, एक लक्ष लोक जिवानशीं माल्ले आनी जायते लक्ष लोक मेले. शेखडोच अशोक राजा बुद्धअुपासक जाल्लया कारणान ह्या झुजांत जाल्लो अनर्थाचो रक्तखेव, लोकांची मर्णां आनी तांचे बंदेपण येवजून ताका जायते दुख आनी मोटो व्हडलो खेद जालो. ताका दिसलें कि ताच्या शंबराव्या वा हजाराव्याय वांट्यान तसली पिडापीड पर्थून आपल्या हातान लोकांक घडत

जाल्यार तांतूंन आपणाक मोटी दुख्खी बादत. तितलेंच न्हय, तर दुसऱ्यान आपणा
पिडा भोगौल्यारूय ती आपणें सोसूंक जाय अशें ताचें मत्त जालें. सगळ्या जिवां
ह्यफुडें मुर्सगिताय, मस्तताय आनी खोम जावंक वावुरचो ताणें निश्चय केल
रणखेवां करून दुसऱ्यांची भूंय जिखचे परस सगळेकडेन दये मायेच्या धर्मान लोकां
जिखचें हीच मुखेल आनी खोर्सदिर्णी जीख अशें ताका दिसलें. फुडारक आपल्
पुतांनी आनी नातवांनी नवी भूंय जिखप ही आपणाली लागणूक कश
समजनासतना दांकळपण आनी मोवाळपण हांतूंन सुख मानचें आनी दये-मायेच्
धर्मान लोकांक जिखप हीच खरेली जीख मानची; हे भाशेन हो लोक आनी सर्ग लो
तांका जोडूलो. आनी हें तांकां कळचेखातीर खडपावेलें हें कळीन मुजरन कोत्रायल
म्हणपाचें ताणे वरीन दवल्लें. जिवांचेर हावळ येना म्हणून ताणें मावदां - मवण्यां
शिकारेची भोंवडी करची सोडली आनी लोकांक दये-मायेचो धर्म शिकौंक त
वेगळ्यावेगळ्या गांवांनी धर्माची भोंवडी करूंक लागलो. हाचो परिणाम असो जाल
कि झुजाच्या वाजपांवदला दये-मायेचो धर्म जें थें गाजूंक लागलो. देवांच्या नांवा
लोक यज्ञ-याग करतात आनी तांतूंन जिवांचेर हावळ येना, ती ना करूंक, ता
हिंदुस्तानांतले सगळे देव लटके करून उडेले. ताणे पेल्याच फागक आपल्या राजपाटणां
यज्ञ-यागांनी कसलेच जीव मारूंक जायना, म्हणपाचें आज्ञापत्र काडलें.

ताणें राजमंदिरांतल्या खाणा-जेवणांत सागोती नांकत तितली उणी केली. बु
धर्म घेतचे आदीं ताचे रांदचे कुडींत सागोतेखातीर दिसपट्टे लक्षांनी जीव मारताले
परंत फुडें फक्त दोन मोर आनी एक हरण मारूंक लागले. हेंय हरण सदीं
मारिनासले. कांय काळान हेय तीन जीव मारचे न्हयत म्हणपाचो ताणें वेत केलो
जीव मारचे न्हयत म्हणून लोकांकय तो सांगूंक लागलो. म्हणटकूच, थोड्या
काळान, शेंकड्यांनी वर्सा चलत आइल्ली यज्ञ-यागांतली आनी हेर्शिली हिंस
जायती उणी जाली. तो दिसानदीस मनांचो इतलो मोवाळ जालो कि ताणें निमाण
लोकांच्या खाणांतले जायते जीव मारूंक फावनात, म्हणपाचें आज्ञापत्र काडले
एकवता-उपासाच्या निमतान झळकेंय मारूक जावना आनी विकूंक फावना. असं
ताणे कडकडीत कायदो केलो. हे भाशेन झळक्याक वावड्याक वर्सांतसून सुमार 5
दीस अदकांत हुस्क्या सेकळें रावंक मेळ्ळें. कुंड्याभरशीं जीव मरतीत म्हणून तो
ताणे जाळूंक मनाय केली! ही सगळी करणी नोखेवन, शिंवासनार बसून 26 वस
जातकूच तो मोट्या अभिमानान म्हण्टा कि 'लोकांभितर दया-मया जायती वाडली

र आतां कसलोच जीव मारिनात आनी यज्ञ-यागांत कसल्याच जिवाची हिंसा करिनात. अुप्रांत सुमार धा वर्सांनी म्हळ्यार क्रिस्ता आदी 232 व्या वर्सा तो भायर पडलो. रेखडीच 50 वर्साभितर हिंदुस्तानच्या विशाल साम्राज्यावैली ताचे पिळगेची सत्ता नाशी जाली. हे भाशेन, दये-मायेचो म्हळ्यार आहिंसेचो धर्म चलौन हो लोक मेळून सर्ग लोक मेळत म्हणपाचें अशोकान जें आपल्या पुतां-नातरांखातीर खडपाचेर कोत्रावन दवरिल्लें तें फुकट गेलें.

सुमार 28 वर्सों वावरुन अशोकान अहिंसेचो धर्म आपले सणमणीत आज्ञेच्या बळग्यान हिंदुस्तानांतल्या लोकांच्या माथ्यार उबाल्लो ताच्या चेपणातळा ते जायते चिड्डुले जातले. मासोती खांवक जायना. नुस्तें खांवक फावना. यज्ञ-यागांत सावच मारुंक जायना. आमल्या नेमांक लोक जायते अुबगले जातले. परंत अशोक राजा खरेपणाचो गुणेस्त आनी मायेस्त आशिल्ल्या कारणान लोक ताचेर केन्नाच खुबळ्ळे नात आनी बंडायेन अुठले नात. उफाट्टें, लोकांक तो खरेपणानशीं आपलो बापुय कसो दिसतालो आनी तोय तांकां तशेच तरेन चलैतालो. 'सगळे लोक म्हजीं भुरगीं आसत. म्हज्या भुरग्यांनी ह्या लोकांत आनी फुडल्या लोकांत सगळे तरेचें सुख भोगचें अशें म्हाका दिसता तशेंच सगळ्या लोकांनी भोगचें अशें म्हका दिस्ता' अशें तो म्हणटालो तो मनशांक तशेंच हेराजिवांक सुख जांवचेखातीर पोटतिडकेन वावुरतालो. ताणे तांकां सावळी मेळूंक सगळें साम्राज्यभर मार्गेच्या धडांनी वडाचे आनी आंब्याचे रुख लांवक लायले. अर्द कोसा कोसा कणकणी बांयो खणूंक लायल्यो; धमसाळो बांदूंक लायल्यो. पोंयो घालूंक लायल्यो. ताणे मनशांचे आनी मोनजातिचे पिडा-रोग बरे करूंक तरेकतरा ओखती वनस्पत, फळां-बियो फैशिल्या मुलखांतसून हाडून जें थैं लायली. लोकांचीं गाराणीं आपणाक जेन्नाचे तेन्ना समजून तांका सटकरून न्याय मेळचेखातीर, आपुण जेंवक बसलों, राणयांच्या रंगम्हालांत आसलों, न्हिदिल्लो आसलों, एकमुरे मुवातेर, गाडयेंत, पोरसांत खैचेयकडेन आसलों तरी आपणाक तांची म्हणणी ब्रेगोबेग कळौची मांडणी ताणे केल्ली. तो मनाचो इतलो काकुळतेस्त आसलो कि मर्णाची ख्यास्त जाल्ल्या गुन्यांवकारांक लेगीत जायते फावटी सोडून दितालो. ताणे आपले राजवटिच्या 26 वर्सांत 25 खेपो गुन्यांवकारांक मकलासी करून सोडून दिले. आपल्या साम्राज्यांत आनी सगळो संवसारभर लोकानी एकामेकांकडेन उजूपणान चलचें आनी सस्ततायेन नंदचें होच ताचो मोटेलो ह्यावेस आसून त्याखातीर ताचो एकसारको उद्योग चलिल्लो. 'आवै-बापायची सांगणी आयकुची, शणैक मान

दिवचो, वावराड्यांक, मानायांक आनी वंद्यांक माये-मोगान केळौचे, इटांक, वांगड्यांक, नाते-वर्ग्यांक, श्रमणांक आनी बामणांक पालव दिवचो आनी जीव मारचे न्हयन. खरें उलौचें. थोडें जोडचें. थोडें मोडचें. जो कोण अशे तरेन चलना ताका हो लोक जोडून सर्गलोकूय जोड्टलो' अशी ताची शिकौणी आसली. आनी तीच तो तरेकतरा उपायांनी भौन भौन लोकांच्या मनार उठायतालो. तांतूंत ताचो इल्लोय स्वार्थ आनी ढोंग नासलें. मनीसजातीक सुख भोगचें आनी तिचें बरें जांवचें ह्या इतल्याच हेतून आपणे खडपांवेलीं आनी खांब्यावेलीं कळितां कोत्रांवक लायलीं अशें तो म्हणटा. अहिंसेच्या धर्माक बाद येना जायत अशे तरेन तो सगळे तरेच्या मताच्या लोकांक केळैतालो आनी मान दितालो. तांकां तो केन्नाच पिडापीड करिनासलो. अशे तरेच्या गुणेस्त राजाकडसून अहिंसेच्या नांवान जरी घडीभर त्रास जालो, तरी तो कोणाक ताकासो जायत? ताची प्रजा आनी शेजार-सांवारचीं परकीं राज्यां ताका त्यावेळार देवाभाशेन मानतालीं जावंये आनी मानूंक फावो.

संवसारांत सगळेकडेन आशोकासारके राजा आनी हेर मनशां जल्मल्लीं जाल्यार भौ बरें जातलें आसलें. संवसारभर अहिंसेचें साम्राज्य चलून कोण कोणाचे वाटेक वच्चो नासलो. कोण कोणाक पिडचो नासलो, कोण कोणाक नागौचो नासलो. जणेकलो मनीस आसा ते दशेंत धादोशी आसतलो आसलो. परंत वेव्हारांत अणभव वेगळोच येना. दिसाक अन्नाठीभर जेवक आशिल्लो आनी कुडवभर जेवंक आशिल्लो मेळून दोगूयजाण खाणाक वसवसतात. अन्नाठीची पायली केन्ना जायत आनी कुडवाचो कुंभ केन्ना जायत म्हणापाचे चिंतन दोगूय वळवळटात आनी आपली वान्सा तडीक करूंक तरेकतरा हटसटवळां करून दुसऱ्यांक पिट्टात. हे भाशेन मनशाच्या पिडांतूच हिंसा भल्या, ती अशोकाचे आनी बुद्धाचे शिकौणेन कशी नाशी जायत? अशोकान आपले राजवटींत अहिंसेचे शिकौणेन सगळ्या हिंदुस्तानांतल्या लोकांक शिवराक केले खरे. परंत तांचीं मनां शिवराक जालीं क्य? पांयांतळा सुयो चिड्डतीत म्हणून ते अुडक्यो मारून धेंपां घालूंक लागले आनी रुखाच्या मुळांत गोड आनी साकर अुडौन तांकां पोसूंक लागले; परंत मनशांचो घात मारचो ताणी सोडून दिलो क्य? ना, अशेंच म्हणचें पट्टा. ताचे अहिंसेन हिंदुस्तानांतल्या सोनजातीवेली हावळ मना जाली. परंत तेच घटकेक खामा मनशांचेर हावळ येवची वाट तयार जाली. अशोकाक ती दिसली ना. सगळो संवसारभर आनां अहिंसेचें आनी सस्ततायेचें साम्राज्य चलतलें म्हणपाच्या गोड समजान तो निर्वाणाक गेलो म्हळ्यार भायर पडलो. परंत 50 वर्सां जांवचे आदींच ताच्या खास साम्रज्याचेर हावळ आयली. आहिंसेचे शिकौणेन

ानी देखीन मेंगे-मोवाळ जाल्ल्या ताच्या पुतां-नातवांच्यान तें राखून धरुं नज ालें. हिंदुस्तानाचेर परक्या म्लेंछ लोकांच्यो भौनभौन घुर्यो पडूंक लागल्यो आनी ़स्ताच्या चौथ्या शेंकड्याचे अखेरेमेरेन तांचेच सत्तेतळा हिंदुस्तान चिड्डून उल्लें. ा सुमार सशीं वर्सांच्या काळांत थैं एकलो बुद्धाचो धर्मूच लसलसून माततालो ानी चडशे लोक तोच धर्म चलैताले. हाचेवेल्यान लोक मनाचे कितले दुबळे आनी ंगे जाल्ले तें सांगची गरज ना. जिवाक माल्ल्यार पातक जाता आनी नर्कांत पट्टा हणपाचो समज जाल्ल्या कारणान खारव्यांनी नुस्तें पागचें सोडून दिलें जातलें. ारध्यांनी शिकार करचें सोडून दिलें जातलें. झुजप्यानी तरवारी मोडून नांगराच्यो ़गलो केल्यो जातल्यो आनी धोणवांचे कुडके करून जळवाक लायले जातले. हे ाशेन रातचे पारा वागटाची घुरी पडल्यार ताका मारची-लेगीत तांक कोणाक ़ुल्ली ना जातली. ताका माल्ल्यार हिंसेचें पातक घट्टा म्हणून ते थरथरूंक लागले ातले. रगत पळेल्यार तांकां चिनारी येंवक लागली जातली. असले लोक आपली ़ानी आपल्या भुरग्या-बाळांची राखण कसली करतले? ते परक्यांच्या खोंटांतळा ़ासणाचे माड्डावले जाल्यार अजाप ना. अशोकाचे शिकौणेचो हो भौच वायट ़रिणाम जालो. तो शिकौणेची कोडूझार फळां अजून ह्या विसाव्या शेकड्यांतूय आमी नाका-पुरो जायसर खातांत? अशोकासारक्या कर्तुत्वदशोच्या शाण्या आनी गुणेस्त राजान अहिंसेचें कोल्ल आपले तकलेंत भरून घेतलें, हें हिंदुस्तानाचे हिताचे ़दरेन चड वायट जालें. ताणे अहिंसेवादत् बुद्धाचो बाकिचो धर्म लोकांक शिकैल्यार भौ बरें जातलें आसलें.

अशोकाची अहिंसा हिंदुस्तानाक भुजतली, म्हणपाचें ताचे प्रजोभितल्ल्या एकाल्याच मनशान पारखिलें. तु हुशार आनी विद्वान आसून खोल आनी तीख बुद्धीचो आसलो. ताका व्यास म्हणात, बादरायण म्हणात वा दुसरें कसलेंय नांव दियात. तो अशोकाचे राजवटींत नंदतालो आनी पाटलीपुत्रांतच रावतालोसो दिसता. अहिंसेक तांकता तितलें आडमेळें हाडून, धर्म आनी अधर्म, पातक आनी पुण्यताय, सर्ग आनी नर्क, पुनर्जन्म आनी मोक्ष म्हळ्यार कितें तें लोकांक बारकोयेन समजावचेखातीर ताणे भगवादगीत रचली. हो ग्रंथ म्हळ्यार ताचे वेळाचीं सगळीं मत्ता घुसळून तांतूंतसून काडिल्लें लोणीच, हांतूंत दुभाव ना. आहिंसेचें पिशें गाडून उडौंक ताणे कलिंगाच्या झुजा बदला भारती झुजाची माची घडून तिचेर अशोकाबदला अर्जुनाक उबो केलो आनी ताका गौतम बुद्धाबदला श्रीकृष्ण वासुदेवाकडसून खरेलें गिन्यान शिकौंक लायलें. कलिंगाचें झूज मारून उपासक जातकूच आपले रगता-मांसाच्या मनशांचो

खेव करून राज्य जोडचें म्हणून अशोकाक जसो खेद जालो तसोच भारती झु
लागचे आदीं अर्जुनाक खेद जाल्यावरी गीताकारान दाखैला. 'आमच्या लोकांच
झुजांत मारून बरें जायना अशें म्हाका दिसना. आमच्याच लोकांचो जीव घेवन आमी
कशे मुखी जांव? राज्याच्या सुखाक आशेवन आमी आमच्या लोकांचो जीव घेवक
उठल्यांत, हें व्हडलें पातक करूंक आमी आडायल्यांं' अशे तरेचीं उतरां गीताकारान
ताच्या तोंडांत घालीं. कलिंगाच्या झुजांतल्या हजारांल्याय वांट्यान अुणो रक्तखेव
करचे भाशेक, दुसऱ्यान भोगिल्ली पिडा सोसूंक अशोक जसो तयार जालो तसोच
गीतकारान अर्जुनाकूय तयार केलो. 'हांवें शस्त्र घेनासतना आनी पयूॅन धपक
मारिनासतना, शस्त्रां घेतिल्ले कौरव, झुजांत म्हाका मारतीत जाल्यार म्हजें च
बरें जायत.' अशे तरेन अर्जुनाक ताणें वदलो. रक्तखेव चलोंक फुडाराक आनी
झुजना जांवचो जसो निश्चय अशोकान केलो, तशेंच तरेच्या निश्चयान 'खेदान
आकुळ-विकुळ' जाल्ल्या अर्जुनाक धोणु आनी बाण पैल्यान उडोंक लावन गीताकारान
मस्त वसैलो. अहिंसेच्या नादान शूर आनी पराक्रमी अशोक जितलो दुबळो जाल्
तितलोच गीताकारान ताचेच असल्या शूर आनी पराक्रमी अर्जुनाक साप दुबळो
केलो. आनी मागीर ताणें ताका श्रीकृष्णाच्या तोंडान समज घालून ताच्या कांठ्यावेले
अहिंसेचें पिशें काडून उडैलें. गीतेच्या 18 अध्यायांत आत्मगिन्यानाची जरी तरेकतर
फोंडणिशी केल्या तरी त्या सगळ्याचें पालूपद 'ऊठ आनी झुज' इतलेंच आस.

हाचेवेल्यान अहिंसेचें पिशें ना करूंक गीताकार कितलो वावुल्ला तें सांगची
गरज ना. ताणें ही गीता अर्जुनाच्या निमतान अशोकाच्या कानार वचचेखातीरूच
चड करून बरेल्ली जातली. गीताकार निमाणें अर्जुनाक म्हणटा कि 'हांव सांगतां ते
जर तूं अभिमानान आयकना जाशी तर तुजी वाट लागतली.' अर्जुनान तें आयकून
म्हळें कि 'तुजे दयेन मनाचें गदळप गेलें. म्हजो दुभाव गेलो. म्हाका मुद्दी आयली
आतां हांव तूं सांगता तशेंच करीन.' अशें म्हणून तो भारती झुजांत झुजलो आनी
ताका जैत मेळ्ळें. पूण अशोकाच्या मनार हाचो इल्लोय परिणाम जालोसो दिसना
आनी गीताकारान सांगिल्ल्या भाशेन 50 वर्सांभितर ताच्या भाग्यवंत आनी विशाळ
साम्राज्याची वाट लागली; इतलेंच न्हय तर सगळ्या हिंदुस्तानाची वाट लागली.

गीतकारान आपलो अुपदेश श्रीकृष्ण वासुदेवाच्या नांवान अशोकाक कळैलो
हाचें कारण त्या वेळार श्रीकृष्णाच्या नांवाक हिंदुस्तानांत जायतो मान आसून ताक
लोक देवाभाशेन लेखून ताची भक्ती करताले. हो श्रीकृष्ण जातीन खेत्री आसू

पीट वा यादव कुळांतलो आसलो. पडवांची आवै जी कुंती ती ताच्या बापायची ण. हे भाशेन तो तांचो मामेभाव आसून भारती राज-कर्णांत आनी राटावळींत जें जायतें आंग आसलें. कौरव पांडवांचें झूज जावचें न्हय म्हणून ताणें शिष्टाय ली.

पाणिनिचे अष्टाध्यायींत एका सुत्रांत (4.3.98) वासुदेव आनी अर्जुन हांचीं ांवां आयल्यांत, ह्या सुत्राचेर टीका करता आसताना पाणिनीन ताका थैं देवाभाशेन खला अशें पतंजलि म्हणटा. पतंजलीन आपल्या महाभाष्यांत वासुदेवाक भगवान ळ्यार देव हें अुतर लायलां. हांचे वैल्यान पाणिनिच्या वेळार वासुदेवाची भक्ति लताली; क्रिस्ता आदल्या दुसऱ्या शेंकड्यांत वासुदेव आनी ताचे भाव संकर्षण ांचीं देवळां बांदताले म्हणपाचें राजपुतानांतल्या घोसंडिच्या कोत्रावपा वैल्यान सता; तशेंच लेसनगटच्या गरुडखंब्याच्या कोत्रावपा वैल्यान वासुदेवाक देवांचो देव ानी ताच्या भक्तांक भागवत म्हणटाले अशें दिसता. क्रिस्ता आदल्या पैल्या ंकड्याच्या नानाघाटावैले होंवरेंतल्या कोत्रावपांत हेरा देवांवांगडा संकर्षण वासुदेव ाकां नमन केलां. चौथो शेंकडो सोंपत्यार अशोकाचो आजो चंद्रगुप्त मौर्य हाच्या देवाणांत मेगास्थनीस नांवाचो अेक ग्रेग वकील आसलो. ताच्या बरपा भाशेन शौरसेनी लोक हिसाक्लिस म्हळ्यार श्रीकृष्णाक भजताले. तांच्या राज्यांतसून जमुना न्हंय व्हावताली आनी थैं मथुरा आनी क्लैस्बरा (Kleisobara) हीं दोन मोटीं शारां आसात. ताचे वैल्यान मौर्य वंशाआदीं जयते काळ वासुदेव-कृष्णाचे भक्तीक पालंव लागलें अशें दिसता. पतंजलीच्या वेळार क्रिस्ता आदल्या दुसऱ्या शेंकड्यांत कृष्ण-वासुदेवाचीं देवळां आसलीं आनी तांतूंत अुत्साव जाताले अशें दिसता. महाभाष्य (2.2.34) सुत्रांत केशव म्हळां तें कृष्णाक लागून आनी राम म्हळ्यार बलराम.

(शणै गोंयबाबांलें अजून अुजवाडा येवंक नाशिल्लें हें बरप श्री. काशिनाशाबाब श्रीधर नायक हांच्या बरेपणान छापलां. ह्या बरपाची तालीक मूळ हातबरपावेल्यान श्री. श्रीपादबाब रघुनाथ देसाय हांणी केल्या-संपादक)

# मनोहररायांच्या काव्यांतलो राष्ट्रमोग

प्रा। हरिश्चंद्र नागवेंकार

('कोंकणी' दिवाळी 1982)

स्वातंत्रतायेखातीर झुज वा चळवळ चलता आसतना, लिखणी कड कि तरसाद कड, असो प्रश्न उप्रासलो जाल्यार हांव फाटीफुडें पळयनासतना म्हणटलों. झुजांत तरसाद हातांत घेवची पडटा म्हळ्यार शस्त्रांवगर झुजां जिकप. हें कठीण आसा ही गजाल खरी आसली जाल्यारूय लिखणी ही तरसादीपरस कंकणभर श्रेश्ठच आसा. कित्याक तर ही तरसाद हातांत घेवपाची स्फूर्त दिता लिखणेंत बरयल्लें उतर वा उतरां. लोकमान्य टिळक, महात्मा गांधी आनी हेर भारतीय फुडाऱ्यांनी भारताच्या स्वतंत्रतायेखातीर जें होमखण पेटयलें, ताजे-फाटल्यान जसो तांचो वावर आनी संगटन-कुशळकाय आशिल्ली तशीच तांची शक्तीभरवणी आनी तिखाल लिखणीय आशिल्ली. भारतांतल्या त्यावेळावयल्या बरोवप्यांनीय आपणाल्या साहित्यांतल्यान भौसाची अस्मिताय आनी राष्ट्रविशीचो मोग जागयलो आनी भौसाक स्वतंत्रतायेचे चळवळींत वांटो घेवपाक स्फूर्त दिली. गोंयातल्या बरोवप्यांनीय गोंयच्या स्वतंत्राये चळवळींत अशेच तरेन गोंकारांची अस्मिता आनी राष्ट्र-मोग जागयलो.

भारताक स्वातंत्र्य मेळून एकाफाटल्यान एक वर्सां वतालीं. तरीय गोंयांक मेकळेपणान श्वास घेवपाचो दीस लागीं येनाशिल्लो. गोंयातले स्वातंत्र्य-झुजारी आपलो संवसार वाऱ्यार उडोवन फिरंग्यांक पलतडी धांवडावपाखातीर नेटान वावुरताले. गोंयेचे भुंयेचेर रगत आनी घाम हांची शिंपण करताले. हें झुज चालू आसतनाच दुसरे वटेन भारतासावन हजारांनी मैल पयस एक गोंयकार कवी, गोंय पुर्तुगेजांच्या शेकातळा आसा तें पळोवन कासवीस जातालो. वयल्या पांवड्याचें शिकप करपाखातीर फ्रान्संतल्या सॉरबॉन विद्यापिठांत आयिल्लो हो गोंयकार तरनाटो गोंयचे दिशेन दोळे लावन हे पवित्र भुंयेचे मातयेचो मेकळो वास घेवपाखातीर आंवडेतालो आनी आपल्या ह्या उमाळ्यांचीं मोतयां काव्याचे फास्केंत बसयतालो.

मंडवीचे पांचवे देगेर
आंब्याचे सांवळे तळा
चानयांचे खेळ पळेत
पिकी घोटां मेजीन हांव
कैन्ना गोंया, कैन्ना गोंया?

अशें म्हणीत गोंयची याद काडीत आसतना हे कवीक स्वतंत्रताये चळवळीचो ासर पडूंक नाशिल्लो.

सोंपली रात, जागलो दिस
बेडाचो पेटलो सूर्य
पांचव्या तुज्या झुंजा-मळार
केम्प कसो सोबन हांव
केन्ना गोंया, केन्ना गोंया?

अशें आंवडेत हो कवी पॅरिसांतले दिस काडटालो. मनोहर सरदेसाय हांच्या गोंया तुज्या मोगाखातीर' ह्या आनी हेर कवितां झेल्यांतले काव्य जाणीं वाचलां ांकां हें काव्य म्हळ्यार राश्ट्रमोगाचो एक आनंददेणी आविशकार आसा, अशें ड्सत्याबगर रावचेंना. कोंकणी भाशेक मेळील्ली मनोहर सरदेसाय ही एक व्हड णगी आसा, अशें एका बरौप्यान म्हळां, तातूंत म्हाका इल्लीयअतिताय दिसना. ोंकणी काव्याच्या मळार क्रांती घडौन हाड्पांत मनोहररायांनी केल्लो वावर तिहासिक रूपाचो आसा, ही गजाल सूर्याच्या उजवाडाइतकी अुकती आसा. पुण हाका तांचें काव्य आवडटा तें ताणी कोंकणी काव्यांत क्रांती घडौन हाडल्या म्हुण हय, तर तांच्या काव्यांत जो राश्ट्र-मोग फुलून आयला आनी जी स्वातंत्र्याची जोत टिल्ली दिसता, ते खातीरच तांचे काव्य म्हाका परत परत वाचीन दिसता. ापणाल्या काव्यांतल्यान गोंयचे आस्मितेक जागोवपाचें, कोंकणी मनशाच्या काळजांतली वातंत्र्याची जोत फुलोवपाचें आनी राश्ट्र-प्रेमाची भावना घटमूट करपाचें मोलादिक ाम ताणीं केलां. 'आयज रे धोलार पडली बडी' हे अुप्रांत उजवाडाक आयिल्ल्या ांच्या वयल्या कवितां-झेल्यांत तांची गोंयविशीचीं अुमळशीक, गोंय परक्यांच्या ोकातळा चेपलां ताजी खंत, फिरंग्यांक धांवडावन माय-भूंय मेकळी करपाचो नेर्धार, अशे वेगवेगळे अुमाळे अुपाट भरून ओतिल्ले दिसतात. मनोहररायांनी हे अुमाळे फावो त्या आनी अुण्यात उणे उतरांनी अुकते केल्ल्यान हे अुमाळे वाचप्याच्या काळजाचो थाव घेतलेबगर कशे रावत?

पुर्तुगेजांनी लादिल्ल्या गुलामपणाक लागून गोंयची जी अवतीकय जाल्ली ती ळौन मनोहराय दुःखी-कष्टी जातात आनी तांच्या तोंडातल्यान अुतरां भायर डतातः

म्हजें गोंय पिकाळ म्होवाळ
खाजना भाटान चकचयाळ
एका तांदळा-गोट्याखातीर
म्हजें गोंय भीक मागता

गुलामपणाक लागून गोंयकार मनशाक मेकळो श्वास देवून घेंवक मेळना. पळोन कवीक जी खंत भोगना नी तार्णी मुखावयल्या ओळींतल्यान परगटायल्या

म्हजें गोंय चांदन्याचें
भांगरावरी वोताचें
पेंनिशीच्या काळख्या कुडींत
म्हजें गोंय कुडकुडटा

म्हजें गोंय तळमळटा
स्वास घेवंक कलवळटा
फिरग्यांच्या खुरसाचेर
रगताची हूम गाळटा

चारशें वर्साच्या काळख्या आनी लांब रातीनल्यान स्वातंत्र्याचो सूर्य केन्ना उदेतलो, हाजी दरेकलो गोंयकार वाट पळेन आसना आनी तो मनोहररायांच्या तोंडांतल्यान उलयता,

येतलो केन्ना दीस रे आतां
रात केन्ना सोंपतली?
सात साख काळजांतल्यान
आस्त केन्ना फुलतली?

लांबली रात, काळखि रात
नखेत्रांचीय न्हीद काळी
चार काळख्या शेंकड्यांतल्यान
केन्ना वीज फुट्टली?

काळखे रातींत नखेत्रांचीय न्हीद काळी, अशें म्हणटा आसतना कवी खूब व्याकूळ जाता. चारी वटेन भरील्ल्या अपाट काळखांतल्यान विजेचीं किरणां केन्ना

ट्रलीं, ह्याजी अस्वस्थ आनी कश्टी मनान तो वाट पळयता. पुण, गोंयची ही वतीकाय पळौन तो हातपांय गाळून वोगी बसना. ताज्या अंतस्करणांतले व्याकुळतायेची वात निर्धार आनी जिद्द ह्यो भावना घेतात आनी तो फिंरग्यांक खडसावन सांगता,

तुजे मुखार दुस्माना
नाच दिमी मोडचों ना
वठार दोळे, पेटय नाळी
हावेस म्हजो मरचो ना

तुजे मुखार सुल्ताना
हांवरे पायां पडचोंना
भूंय म्हजी, जीण म्हजी
तिका सोडवंक भिंवचो ना

गोंयचे स्वातंत्र्याविशींचो हावेस काळजांत खोल रिगिल्यानच कविच्या तोंडातल्यान तें आवेशान भरिल्ली अुतरां येतात आनी तो मुखार दुसरे एका कवितेंत म्हणटा.

स्वतंत्रताय! स्वतंत्रताय!
आमचो देस आमकां जाय.
सगळ्या संवसारांत अशी
सोबीत भूंय मेळत काय?

कवीचें मन हावेस आनी आवेशा हांच्या समींदरांत बुडयो मारता. पुण, परिस्थितीचे जाणवीकायेसावन तें पैस वचना. गोंयचे स्वतंत्रतायेच्या झुंजांत दरेकल्या गोंयकारान वांटो घेतलेबगर फिरग्यांचें गिराण सुटपाक ना, हे गजालींचो विसर कवीक कसो पडत? तो आपणाकच उद्देशून म्हणटा,

उठरे पुता अुखल पांय
जगार कित्याक मागता भीक
मांय-भुंयचें काळीज फुटून
बंडाचें आयलें पीक.

डॉ. मनोहरराय हांच्या काव्यांत गोंयाक परक्यांच्या चेपणापोंदच्यान मेकळें करपाचो जसो निर्धार दिसता, तसोच गोंय मुक्त जावन आपणाले आवयच्या गोपांत येतलें हो दिश्टावोय तांच्या काव्यांतल्यान उकतो जाता. ते म्हणतात,

हेच जिणेंत, ह्यच दोळयां
आमचें भाग्य फळटलें
आमचे माड आपलि मान
ताठ करून धोलतले

आमचि भूंय, आमचि भास
आयज भोगतात हाल त्रास
म्हजें उतर सांळका बरी
फांत्या-पारार फुलतलें

आनी ख्यानींच आमचें भागय फळ्ळें. कवीचें उतर माळकावरी फुल्लें. 1
दशेंबर 1961 ह्या पवित्र दिसा माडेचारशी वर्सांचें गिराण सुटलें. हो इतिहासि
प्रसंग कवीच्या काळजांत खोंसयेच्यो झरी फुटयल्याबगर कसो रावतलो? तांच्
काव्याक आतां नवी धार येता. तो संतोशभरीत जावन गावंक लागता.

आज आमचें राज आयलें
आयलें आमचें राज
परक्यांच्या जुलमाचें
तुटलें जोत आज

'जायात जागे', ह्या कवितां- झेल्यांत हो आनंद उपाट भरून ओतिल्ल
आमकां दिसता. कवी म्हणटा.

काळखि रात सोंपली आज
म्हजें, तुजें आयलें राज
भाव-भाव एक जाले
मांडविच्या सोबीत तिरार

स्वातंत्र्याचो दीस दारार उबो राविल्ल्यान जुंवारेच्या ल्हारा-ल्हारांत भरिल्ल
खोस आनी घरांघरांमुखार हांसत आशिल्ले पणट्यांचे हार पळोन मनोहररायांव
संतोश जाता. पुण, स्वातंत्र्य मेळनापुडें गोंयचे सगळे प्रश्न सुटुले आनी अन्याय आनि
शोशणविरयत समाज आपशींच निर्माण जातलो, अशें समजप चूक, हाजी कवीव
जाणवीकाय आसा. मनोहरराय म्हण्टात,

अजून म्हज्या गोंयांत पळे
कितले जाण खर्शेतात
पावसाचे पांवळे पोंदा
कांबळेबगर पिंरगातात.

दुसरे एके कवितेंत तांची हीच खंत प्रगट जाल्या,

अजून आसात कितले हांगा
रगताचो घाम करपी
अजून आसात कितले हांगा
दुसऱ्यांचें काम चोरपी
काय जाणांच्या दोळ्यांत अजून
भांगराचो अुल्ला धुंवर
कांय जाणांच्या मस्तकाक
सत्तेचो चडला सोरो

स्वतंत्र गोंयांतलो हो अन्याय आनी पिळणूक पळौन कवी वोगी बसना. तो भौसाक आपणाल्या अुतरांनी खडबडायता. जागो करता,

तरणे तशे दांडगे तुमी
अजून कशे रावल्या वोगे?
हड्डयांतले इंगळें आज
धगधगून जावंदी जागे!
जायात जागे! जायात जागे !

शेतकारांनो, मंडुकारांनो
जाणकारांनो, गांवकारांनो
जायात जागे! जायात जागे!

मनोहररायांच्या राश्ट्रप्रेमाक समाजीक न्यायविशीचे कळकळीची देग आसा, ही गजाल तांची वयलीं अुतरां अुकतीं करतात. ते भौसाक जागोवपाचो यत्न करतात. कित्याक, भौस जागो जालो म्हणटगेर समाजीक न्यायाचेर आदारीत नवो समाज गोंयात निर्माण जातलो आनी तेन्नाच स्वातंत्र्याक पुर्णताय येतली, हें त्रिकालाबाधीत

सत्य मनोहररायांच्या काव्यांत नदृटीन जावन पररगटना. अशें जातरेर जें 'फाय
गोंय' निर्माण जातलें ताजें वर्णन कवीन मुखावयल्या उतरांनी करून दाखयलां.

फायच्या गोंयांत सड्यार लेगीत
माड झेलान धोलतलो
घरा घरांत दूदसागर
विजे-हांसो हांसतलो.

मनोहर सरदेसाय हाणीं आपल्या काव्यांतल्यान कोंकणी अस्मिताय जागोवपान
जो वावर केला तो अपूर्व असो आसा. गोंयची जी माय-भास कोंकणी तिका मुख
गोंयात तिजो हक्काचो पाट दिल्यावगर गोंयचें स्वातंत्र्य अपूर्णच उरतलें, हें भोंसाच्
मनार बिंबवपाचें कठीण काम ताणीं आपणाल्या काव्यांतल्यान केलां. कोंकणी भा
आनी कोंकणी साहित्य हांची अदरगत. हो नवो भारत निर्मुणपाच्याच वावराचो ए
वांटो आसा, हें सत्य ताणी आवेशान मांडलां. तांच्या काव्यांत पररगटल्लो कोंकण
मायभाशेविशींचो मोग तांच्या व्यापक राष्ट्रमोगाचेंच एक आंग जावन आसा,
रोकडेंच ध्यानांत येता.

आमकां इतिहास आसा
आमकांय बी भास आसा
तुमचेवरी नखेत्रांचो
आमकां लेगीत ध्यास आसा

अशें ठणकावन सांगता आसतना कवीच्या तोंडातल्यान दिश्टाव्याचीं जिवींतदृटीन
अुतरां भायर पडटात,

फायच्या गोंयांत कोंकणी अुतर
लसलसून फुलतलें
तीनरंगी सपन म्हजें
संवसारार धोलतलें.

मनोहररायांच्या 'पिसोळीं' ह्या साहित्य अकादमीचो पुरस्कार फावो जाल्ल्या
कवितां - झेल्यांत ताणीं कविता म्हळ्यार कितें हाजें सुंदर अुतरांनी वर्णन केलां.

कविता।
काळजांतले गर्भ-कुडींतली
देवता
काळीज दिल्यारूच
पावता

मनोहररायांचे कवितेक हें वर्णन सारकें फावो जाता. तांच्यो राश्ट्रप्रेम जागोवपी ानी हेर कविता तांच्या काळजांतल्यान आयिल्ल्यान दर एकल्याच्या काळजाक ात घालपाची शक्त तातूंत आसा. चिनी आक्रमणाचे वेळार तांचे लिखणींतल्यान ायर पडिल्ली ही कविता हाची गवाय दिता,

रगत चाटलेले पांय तुमगेले
भुंयेर ना आमचे थारचे
आयले वाटेन चलात परते
गुलम ना आमी जांवचे

मनोहररायांच्या काव्याचो एक म्हत्वाचो विशेश म्हळ्यार तांचे कवितेंत उपाट भरिल्लो आशावाद. आपलें राष्ट्र आनी माय-भास हांचो फुडार परजळीत आसा, हाची खातरी तांच्या काव्यांत दिसता.

पुडाराचो लावन तिबो
दिस दारार रावला उबो
सूर्य देवान कौल दिलाः
जैत आतां पैस ना.

अशें ते म्हणटात तेन्ना फुडारच तांच्या तोंडातळयान उलयता, अशें दिसले बगर रावना. आनी हेच खातीर तांचें काव्य वयल्या पांवड्याचें आनी चिरंतर स्वरुपाचें आसा.

(प्रा. हरिश्चंद्र नागवेंकार हाणीं लोककवी डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हांच्या राष्ट्रमोग जागवपी काव्याचेर बरयिल्लो हो अभ्यासपूर्ण लेख, आयच्या तरनाट्या कवींक स्पूर्त दितलो अशी आस्त आमी बाळगितांव.)

# कोंकणी कविता... अेक धांवती नदर

ऑलिव्हींन गॉमि
('कोंकणी' दिवाळी 198

कोंकणी भास आनी चड करून कोंकणी कवीना कांट्यां-खुट्यांनल्यान कश्ट दगदगांची वाट काडून, आयज व्हडली अुडी मारपाच्या हुंवर्यार कडकडीन उब आसा. तिका आमच्या बुद्दीक बळग्याचे पाकटे जाय, आमच्या मोगाची ऊब जाय आमचे पोटतिडकेचो खतखतो जाय.

पूण, सांगूंक वायट दिसता, आमच्या पाड्या नशीबान, आमच्याच घरां कोंकणीक फाव तितलो मान-भोवमान पुराय मापान आजून मेळूंक ना. परके भासांच्या गुलामपणाचें भूत आमचे गोमटेर धादोशी गोटलां. तें आमची फुडलीं पावलां आडायता, आमचे उचार मुणयता. ताका लागून चेपून अुरिल्ले आमचें नीज सत्व मेकळेपणान फुलूंक पावना. शेंकड्यांच्या पिडापिडेतल्यान उदेल्ले आत्महिणपाचे दाग आमच्या मनांतले आजून पुसून वचूंक नांत. त्या भुताक धांवडावन धरपाक आनी ते बुरशे दाग पुसून काडपाक आमी कोंकणी कवींनी आनी बरोवप्यांनी मन-लावन वावरूंक जाय. तोला-मोलाची सरस्पत रचूंक वावरूंक जाय. कोंकणी भाशेची तुमकां होल्सल्ली तांक आमच्या लोकांमुखार अुक्तावूंक जाय. तिची अपार निर्मणेची शक्ती तांकां पटोवन दिवूंक जाय आनी तांकां कोंकणी वटेन मोगान पळोवंक जाय. कोंकणी कवितेची लांब तशी जाणटी परंपरा आसा म्हणपाचें तांचे मुखार मांडूंक जाय.

ते परंपरे विशीं, म्हाका मेळिल्ली खबर तुमकां सांगतां. अुरिल्ल्या कोंकणी सरस्पतीतली सगळ्यांत पयली कोंकणी कविता जी आमकां मेळ्ळ्या ती चौदाव्या शेंकड्यांत संत नामदेवान रचिल्ली अेक गवळण. उपरांत, आमच्या लोकांनी पोटाक लागून आपले भाशेक घाणाक दवल्ली. तरीय, अमच्या बऱ्या नशीबांत भायल्यान आयिल्ल्या खिरस्ती धर्मुगुरुंच्या मोळाव्या आनी सतराव्या शेंकड्यांत केल्ल्या व्हान वावराक लागून कोंकणीक व्हडलीं व्हडलीं काव्यां लाभलीं. त्या काव्यांक लानीं भाशेची सुसंगीत वाक्यांची बांदावळ आसली, बारीक शैलिचो थाट आनी अलंकार आसलो आनी गोंयांत तेन्नां चलतल्या 'ओवी' काव्य-रूपाचे फास्केंत तीं बसयल्लीं. तांतल्या तांतूंत उल्लेख करपाचोच म्हळ्यार गोंयांत जल्मल्ल्या पुर्तुगेज प्रांमीशकान

ळ्वाशी गाश्पार द मां मिगलचें 6000 वळींचे काव्य आनी गोंयकार पाद्री मानुयेल र्कीश द नोरोंनाची 268 कडव्यांची कवीता. हें कोंकणीचें भांगरा यूग सुमार दोन कडे झगझगलें. पुण धर्मांतराक लागून कोंकणी समाज देशीं पडलो, कोंकणी शेचो अेकचार भंगलो. कोंकणीचे वाटेन तेन्ना आडमेळीं उप्रासलीं, तीका दुमाळो-डापीड भोगची पडली, तिच्याच भुरग्यांनी तिका फाट केली.

ह्या दुखाच्या काळार, अठराव्या शेंकड्यांत धरून, कोंकणीन धर्मीक कवितेंत ग घेतली. तोच अेकूच आसरो तिका दिसलो. सतराव्या शेंकड्याच्या सोंपत्यार र्नाटकांतल्या हिन्दू कोंकण्यां मदी कवि अपय्या, जोगव्वा, राघवदास आनी आवडी ंणी श्रेश्ट भक्ती-काव्य निर्माण केलें. अठराव्या आनी अेकोणिसव्या शैकड्यांनी हजानंद, शांतीबाय, शिवरामाश्रमस्वामी, आनी नारायण तीर्थ, हांणीं तोलामोलाचें व्य बरयलें. गोंयांत आशिल्लया क्रिस्तांव कोंकण्यां मदीं पाद्री ज्योकीं मिरान्द दोना रेंत आनी पाद्री पाश्कुआल दीयश-हांणी ऊंचा पांवड्याचें धार्मीक काव्य रचलें. ार्नाल्द मिनेझिस, गिजेलीन रेबेल, तोरकात फिगेरेद सारकेल्यां कवीं संगीतकारांनी नांड्या' काव्य घडयलें. केरळांत अमुला शेणै, नरहरी प्रभू, आर. सी. सार्मा हांणी ोंकणी कवीतेक केळयली.

उप्रांतच्या काळार मंग्लूरांत नामनेचे कवि लुयीज मास्कारेंन्यशचें 'आब्रांवचे ज्ञदान' भोव मोलादीक पुस्तक जावंन आसा. थैंचे कांय प्रतिभावन्त कवी म्हळ्यार ा. फ्रा. द कोस्ता, जे. बी मोरायस, मोरीदास , काव्यदास. गोंयकारांमदीं येदवार्द ब्रुन सौझाचे 1899 सालातले तेन्नाचें म्हाकावयः 'अेवा आनी मोरी' कोंकणी कवितेचो ो म्हत्वाचो नमुनो जावन आसा. ती परंपरा जुवांव लूयीज कारवाल्या, जुयांव ायतान फ्रान्सीस्क द सौझासारकेल्यानी फुडें व्हेली. दुसरेवटेन कृष्णा भट बांदकारकडेन रू जाल्ली कवीता बाकी बोरकार, र. वि. पंडित, मनोहरराय सरदेसाय, पांडुरंग ांगी हांणी आनी हेर कवींनी जशे शंकर भांडारी, सुहास दलाल, उदय भेंबरो ुलाराक पावयली आनी आमचे बरोबरचे आनी आमचे परस भुरगे कवी फुडें रयत आमात. म्हाका अुमेद दिसता कि आमी अशेच प्रयत्न करीत जाल्यार कोंकणी ्वितेची चुड भरभरीत वाडोवन संवसारभर आंगटें पेडयतली.

ह्या वावराक मदत दिवपाक आमच्या समाजाचो, हिन्दू तशे क्रिस्ताव, आनी ुसलमानानी, आत्महिणपणाचो पड्डो पिंजून अुडोवपाची चड गरज आसा. तें ाम आमी कोंकणी कवींनी पोटतिडकेन वावरून करूंक जाय. आमी पांगरुन

घेतिल्लीं उसर्णां अुश्टीं आंगल्लीं भायर भिरकटावन मारपाक आमचे कवितेंतल्य स्फूर्त दिवूंक जाय. अेका देशाची खरी संवस्कृताय भायल्यान हाडिल्ल्या उश्टय पोसना. तिचीं पाळां मुळां आपलेच खाशेले पिकाळ भूंयेंत रोंभिल्लीं आसूंक जा पूण आमच्या पाडया नशीबान जितलें भायलें तितलें आमकां बरें मानवालां, ताका आगी लागीं केलां, पाटलून धल्लां, आनी आमी गुलाम जावन बसल्यांव.

नियाळ करात. आमगेले सगळयांत व्हड मानून आयिल्ले फाटले पिळगेंत गोंयकार कवी पावलीन दीयश, नार्सीसेन्न मेंदोंस, आदयोंदाद बार्रेत पुर्तुगेज भाशे बरयताले तेन्ना तांकां तांचे वांगडी व्हड मानाच्या पाटार बसयताले. तांकां श्रेश्ट क म्हणून पाचारताले. पूण आयज पुर्तुगेज सरस्पतिच्या अितिहासांत तांचें नां निशाण ना. जशें आमचे पाटांगडे कोंकणी विद्वान दोनार जुझे पेरेर म्हणटा कोंकणी भुरग्याचे वाडी खातीर गरज आशिल्ले दूद काडून घेवून ह्या म्हान प्रतिभेच कवीनी कुड भाड्याक दितल्या बायलांक आंग सोबोवपाच्या वावराक लायलें, त दुदाचें मोल त्या परकी बायलांक कळ्ळेना. पूण तें कोंकणीक फाव जालेंना जाल्या हे दुलभी भाशेक मारक पडलें.

हीं पिशेपणां आमीय करचीं न्हय. आमची निर्मणेची शक्त ह्या परकी बायलांचे (भासांचेर) वांगडावचीं न्हय, आमच्या गुशिक्षीत गिल्यान्यांक, भुरग्यांक तशें जांट्र्यां हांव उलो मारता कि ताणी कोंकणी सरस्पतिचे सेवेक मन लावन वावर करचो. तें ती प्रसन्न जातली. आमची अस्मिताय फुलतली आनी आमकां तवली वयर काड्ट चार-चौगांत व्हडविकेन अुलोवंक मेळटलें. हावें जाल्यार सोपून घेतला. खैंचीय भा गरजे-पुरती उपकारतूं, पूण साहित्या खातीर फकत कोंकणीच उपकारायतलो घेतिल्लो सोपून हांव आयज सभेमाजार परत नेटान संगतां आनी मजबूत करत म्हजे वांगडी कवी म्हाका ह्या निश्चयान साथ दितले म्हणपाची अुमेद बाळगित आमी सगळें अशें केल्यार परकी भासांचें पोळ-पोकें व्हडलेपण ना-तपश्यान जातल आनी त्या गुलामपणांतले आमी मेकळे जातले. परकी भासो धांवडावन घालात अ हांव म्हणना. तांकां तांच्या फावो तितल्याच मर्यादीत जाग्यार दवरात. त्यो कोंकण पासून अेक पांवडो तरी, सुवेज न्हय जाल्यार, सकला आसूंक जाय. कोंकणी मनशाच्य आदार सहकाराक म्हणून.

गोयांत आनी आमच्या कोंकणांत नवें यूग अुदेलां. आमच्या दांडग्या भुजां व्हडली जापमालकी आसा ती आमी आत्मविश्वासान तडीक व्हरतले म्हणपाचे

व आस्त बाळगितां. संवसारांत कितें चल्लां ताचेर आमी खऱ्यानींच नदर मारची ण आमची पुण आमची निजाची माती विसरचे न्हय. तांतूंतल्यानूंच आमी स्पूर्त वची, म्हालगड्या कवींनी घालून दिल्ली वाट माडूडून नवे सोद लावून आमी फुडें च्चे. आमचे लागीं सोंपयल्ली जोत वा चूड सांबाळून आनी फुलोवन फुडले ळगेकडेन भरभरीत पेट्टी दिवची. आनी असो कोंकणी कवितेन संवसारार उजवाड लचो, हें म्हजें देवाधनयालागीं मागणें.

हिणसायल्ले आमचे कोंकणी आवयक
मायेमोगान दिवचो पयलो मान,
आमचे संवस्कृतायेंत आत्मो जीवो
तेन्ना वोत्तलो गा व्हडल्या भारान
फुंट्टू दी आतां पाकटे नवे
उमेदीन रचात गीत म्होंवें!

---

# कविता

# निर्मणी आनी विकास

- रमेश भगवंत वेळुस्कार
('कोंकणी' वार्मुकी 1987-88

बरेंच दिसता, कि मनीस कविता, कथा, चित्रां, शिल्पां कित्याक निर्माण करता? ताका तीं निर्माण करपाक येता म्हटल्यार तीं तो कल्पनेंतल्यान निर्माण करता काय निर्माण करतल्या मनशाच्या मनाचेर भोंवतणच्या जगाचो ताचेर जो परिणाम जाता ताचो परिपाक म्हण तो तें निर्माण करता काय किते? अशे निर्मिती मुल्यांचे कितलेशेच प्रश्न निर्माण जाता. केन्ना केन्ना अशेंय दिसून येता आपण भोगलेल्या जिविता संबंधान उलयतना मनशाचें उलोवप बरेंच अर्थपूर्ण तशें प्रभाव करपीय जाता. ह्या सगळ्यांचो अभ्यास करचो म्हण जेन्ना जेन्ना हांव विचार करतां तेन्ना म्हज्या मुखार मनशाची सवन जीण उबी रावपाक लागता. आनी देखून आयच्या काळांतलें जें काव्य. जांव तें खंयचेय भाशेंतलें ताचेर विचार करप म्हाका गरजेचें दिसता. तें काव्य अनुभवाच्या खंयच्या वाठारांक हात लावन निर्माण जाल हें पळोवपाची उमळशीक सुरू जाता.

आयज त्याच कामाखातीर सामके कळकळीन नवलेखक लेखिका खातीर हो निबंध बरयतां. मनशाचे जिणेंत काव्याची निर्मिती कशी जायत वयता ताचो वेध घेवपी हो लेख.

भुरगेपणासावन हांव एक गीत आयकत आयला. आवयन गायल्लें गीत. पेल्या भुरग्याक खेळयत, ताका न्हिदायत वा ताका भरयता आसतना तिच्या तोंडांतल्यान खळखळ वझ्यावरी एक गीत एक कवित झरत आसा... तांतलेंच हें एक गीत

कुरू कुरू काना

आनी म्हशी गोल्यो राना...

आवयच्या काळजांतल्यान फुटलेल्या ह्या मोगाळ वत्सल सूर-वझ्याचे मनाक आत्मिक शांती दिवपी हे सूर म्हळयार किते? हे सूर आयकनकूच हांव नकळत म्हाकां किते जाता. म्हज्या सगळया आंगात एक सुखद प्रवाह सुरू जाता आनी

गार कांटो उबो जाता. फाटल्यो यादी जाता. परत अेक पावट आवयच्या मोगाच्यो ण्यो अुस्तोंक लागता. ल्हान जायन दिसता. तिणें परत म्हाकां धरचो. लाड करचे नी खेळंचो शें दिसता. पुण हें कांयच शक्य नासता. आनी आवयन खेळयल्ल्या त्या गेपणाचो अुगडास म्हाकां जायना. हाचें दुख मनाक तोपूंक लागता. मनीस म्हण व कितलो अभागी हें कळपाक लागता. पुण बुनयादीक गेल्ले चिरे, माती हें अशें ल्या घराक (समजना) दिसना, वा हेरूय कोणाय पळयतल्यांक दिसना तेच वरी र अशें आवयच्या मोगाच्या कर्तुबांचे आनी म्हणुनूच भुरग्याचे जिणेच्या बसकाराचें आयावपणूय कोणाकूच कळना. कारण आमी मनीस. अमचो संमज, आमचो माज, आमच्यो यादी ह्या असमजपणाचीं कारणां. पुण जेन्ना जेन्ना ह्या सत्यांचो लासो आमकां जाता तेन्ना खोसयेच्या ब्रहमांडांत जण एकलो मनीस कृष्ण जावन खांडो चिंवपाक लागता.

आनी जशे जशे दीस वयता तशी तशी आवय भुरग्याक संसरातल्या हेर मजांविशीं आपल्या गितांतल्यान, खेळांतल्यान पुश्ट करीत रावता. सयभोंवतणाच्या स्तित्वाचो अविशकर ती ताका आपल्या बोलांनी कसो करता पळयात.

शेवण्या पिपुशा - खंय गो गेलोलें?
घांटार गेलोलें
घांटार गो कित्याक?
वावळयो हाडुंच्याक.
वावळयो गो कित्याक?
घोटीर बांदुच्याक
घोटीर गो कित्याक?
तांतया घालुंच्याक
तांतया गो कित्याक?
पिलां काडुच्याक
पिलां गो कित्याक
मामालें शेतभात राखोंच्याक.

ह्या गितावरवीं आवयच्या भुरग्याच्या मनात निर्मिती मुल्यांचे घडप बांदता. नयलेवयर पळोवपाक गीत दिसपी... तांतल्या सुरांनी आमची तंद्रा असवस्थ करपी पुण शब्दांतल्यान काम, अडचण, फुडाराची उत्सुकता. पुण हें सगळें आपल्याच

खातीर, आपलेच गरजेचें अशें जे कितें आसता अशी नकसूद जाणविकाय करू दिवपी हें कविता... तें कितलें समर्थ तें पळयात. त्या भुरगेपणार आयकल्लीं अ तरेचीं ही वळादिणीं गितां जेन्ना आयज याद जाता तेन्ना आयजूय आमकां हें व मेळटाशें दिसता.

हें आनी अेक गाणें अशेंच म्हाकां याद जाता. हें गणें म्हाकां मोट मोटय रूशींच्या व्रह्मसाधनेचें मूळशें दिसता. ह्या लोकांतलें नातें तोडून समाधीत तत्वी जावपी तत्व हें सगळयांत मोटें तत्व अशें आमचे भारतीय संस्कृतायेंत मानतात. ह वकतार हांव कोण कोणाचो नासतां, म्हजेर कोणाचो अधिकार चलना. ना हां कोणाचेर अधिकार गाजयतां. ना कोणाचो राग करीतां, ना कोणाचो मोग. जं कसलीच भिरांत ना. जंय दुसऱ्याक भियोवपाचीय गजाल ना. अशी ही अेक अळ अवस्था. मोटया मोटया रूशींक ही अवस्था अखंड तपश्चर्या केल्या उपरांत, मोटय सायासान मेळटा. ती भुरगेपणांत अचळय, आपसूक वांटयाक येता. व्रह्मानंदाची तं जुळोवपी हो मंत्र पळयात.

आनाळ्यो गुंडाळयो

मामालो बैल येयला

वाटली तांबयो

काडा गो काडा.

अशें म्हणत 'आनाळयो गुंडाळ्यो' काडपी भुरगीं पळयात. तांची तंद्रा खं लागलेली आसता. भुरगेपणांत कसलेच सतस्ताप मनशाक तासता तेन्ना ही तंद्र जुळप सोपें जाता. जाण्टेपणांत संसाराचे उतळताप चड. ते निस्तरता म्हण म्हण्टांच जाण्टे पण, म्हातारपण येता. आनी मागीर भिरांतेचो काळ सुरू जाता अशे तरांतरांचे ताप आनी दबाव आसतना व्रह्मानंदांत कशें वचप? देखून भुरगेपणांत मेळ्ळेलें हें समाधीतत्व मागीर मेळोवपाक कितल्यो अडचणी येतात तुमीं वाचलां पळयलांच आस्तलें.

जो भुरगो/ भुरगें आवयचे बापायचे तदरेसकल आसता तें ल्हवू ल्हवू समाजां मिसळपाक लागता. तशें कित्याक बारशा दिसूच ताका समाजाच्या सावार तत्वांची साखर चोखपाक मेळटा आनी थंयच ताच्या समाज संपर्काक सुरू जाता-म्हळया कितें व्हडलीशी जांवची ना. उपरांत तो तरतरांच्या नात्याच्या बंधनानी, तरतरांच्य भावनीक संबंधानी, तरांतरांच्या रूढींच्या विस्वासदुभावांनी, तरांतरांच्या भिरांतानी

तरांच्या आसांनी... तो धुस्पूंक लागता आपूण खंय आसां, कसो आसा... किते
आसा. हें सोडून हो आपलेच संसारीक तंद्रेंत गुल्ल. तशे ताचे सगळे व्यवहार
आसता. ताचे हे जिणेतल्या अनुभावाच्या आधारान मागीर तोय स्वतः आपले
भव अुलोंवक लागता. दुसऱ्यांक सांगूक लागता. दुसऱ्याक कितें सांगले बगर
चें जायना. मनीस हालचाल करिनास्ताना रावूंक शकना. मनीस अुलय नास्तना
कनासतना रावूंक शकना आनी मनीस स्वास अुस्वासाभायर जेविनास्तना,
रांत थोडो काळ तिगतलो जाल्यार ताका जेवप गरजेचें जाता म्हण्टकूच ताचे
ळे वेव्हार पोटा फाटल्यान सुरू जाता. ताचे चडशें अुलोवप, आयकप जेवणा-
णा संबधान जावपाक लागता. जेवण ताका कुडीक लागता पुण ताच्या मनाखातीर
का अुलोवप आयकप गरजेचें जाता. हातुंतल्यानूच ताका जें किते बरें दिस्ता तें
कांक हेंरांक सांगून तो आपलो आंनंद अुयेद वाडोवपाक लागता. तशेंच आपलें
दुसऱ्याचें दुःख सांगून आयकून ल्हव करता. साहित्यिक भाशेंत सांगचें जाल्यार
आपल्या भावनांचो अविश्कार करपाक लागता. भावनांचो अविश्कार तो तरातरांच्या
ध्यमांनी करता. केन्ना शब्दांतल्यान, केन्ना रंगाच्या, रंगाच्या माध्यमांतल्यान तर
न्ना सूरश्रींतल्यान. आनी केन्ना केन्नाय हावभावांतल्यान, तशो सगळयो कला खंय
काच वेळार जल्माक आयल्ल्यो. तेन्ना मनीस रानांत रावतालो, कळप करून
वतालो. दादले बायलो भुरगीं. अवस्था रानवटी. तरी तांच्यात त्या वेळावयली अेक
चेवरीच अेक शीस्त आसताली. ताका अुलोंवक जमनासलें. पुण पोंवो करून
वचें म्हण साधलेले. ह्या पोंव्याचो अेक मुखेल आस्तालो. हो मनशांचो पोंवो तो
रेन रानातली जनावरां शिकार करून हाडटालो. हाडां, फातर आनी खांदे हीं तांची
स्त्रां आसतालीं. दादले शिकार करपाक वयताले आनी बायलो घर नांवाचे
वातेर रावतालीं. तांच्या वांगडा तांची भुरगीं आसताली. अेक दीस सांजमेरेन
ांच्या दादल्यानी कास हाडलें, ताणी जनावर पल्ल्यांत घातलें भाजपाखातीर आनी
रग्यांक कितें आसलें नासलेलें खावोवन तांका ताणी न्हिदायलीं आनी दादले
यलो पल्ल्या भोंवतणीं बसलीं. कांय वेळ वयतकूच तांच्या मुखेल्याक कितें दिसलें
व जाणा. तो अकस्मात अुजांतल्या अुसळपी किटाळी वांगडा अुसळोन अुबो जालो.
ानी अुपरांत ताणे "हो" आसो आवाज केलो. बाकीचे ताचे वांगडी आनी हेर
ायलो अजापून अुब्यो जाल्यो आनी तांच्या तोंडांतल्यान 'है" असो ध्वनी जालो.
'हो' करीत ताणे अेक पांवल फुडें घालचें आनी अजाप भरी 'है' "अशें म्हणत
ापलेंय अेक पांवल फुडें अुडोवचें. अशें करीत करीत ताणी पल्ल्याक प्रदक्षिणा

घातली. अेक वेगळीच अुचंबळ ह्या वेळार त्या जोम्यांन दिसली. बरेच जाण म्हण्टात. "है. हो" हीच पयली कविता. हेंच पयलें नाटय आनी होच पयलो न आनी हेंच पयलें संगीत.

युगाचेर युगां वचन गेलीं आनी मनशाचो विकास जायन गेलो. म्हणचें मनश मनाचो विकास जायत गेलो. मनीस पूर्णपणान अुलोंवक शिकलो. आपल्या मना विचार दुसऱ्यांक सांगपाक शिकलो. दुसऱ्यांचें आयकुपाक शिकलो. दुसऱ्याचें समजू शिकलो. समजून दुसऱ्यांक समजवपाक शिकलो. मनीस वेळोवळ प्रगती करीत गे तसो तसो तो प्रगत जायन गेलो आनी जितलो प्रगत जायन गेलो. तितलो ति तो चडांत चड घुस्पत (complex) गेलो. पंचतंत्रांत काय खंय तरी हे सवंधान काणी आसा अशीच मनशाच्या घुस्पल्ल्या (complex) अशा सभावाची ही ग पळयात.

अेक मनीस आनी अेक कोलो आसलो. दोगूय अिश्ट. अेका शियाच्या दिस दोगूय पासयेक भायर सल्ले. सक्काळी फुडें तशी ही तांची सदचीच पासय. ते शींय खूब. कोल्याक शीं वादना कारण ताच्या आंगार ल्हवं. मनशाक शी लागतालें. तो आदीं सदीं आपले हात घांसतालो आनी ताचेर फू ऽ करून मारतालो. कोल्याक तें अजापशें दिसपाक लागलेलें. ताणे मनशाक विचाल्लें, आ रे कितें करता तूं? सदींच हात घासता आनी फूक सो मारता? तो म्हणूक लाग हय फूंक मारतां, पूण कित्याक? कोल्यान विचाल्लें मनशान ताका सांगलें कि खाता म्हण, आनी हात घश्टून हांव गरमी करतां. तशेंच फूंक मारूनय हांव ग करतां. आं. कोल्यान म्हटलें. कांय वेळान तांका अेक घर मेळ्ळें. थंय मनीस पियेतालो. ताणे हांका दोगांकूय चा घेया म्हण आग्रो केलो. ताणी घेतलो. को आयदनांतली चा लीक लीक करीत पियपाक लागलो आनी मनशान चाक मारपाक सुरवात केली पिंवचे पयलीं. कोल्यान मनशाकडें पळयलें. आनी विचा आतां तुवें फूंक कित्याक माल्ली? मनशान सांगलें कि आतां हांव फूंक मारून न्हिवयतां. कोलो अजापलो. एक पावट फूंक मारप-गरण करप, एक पावट मारप-न्हिवोवप. कितें हो वेपार, ह्या असल्या संभ्रम निर्माण करपी मनशा वागपाचो ताका दुभाव आयलो आनी तेन्नाच्यान ताणे मनशाची अिश्टागत सोडा

मनशाचो मेंदू कसो कसो विकास पावंता ताची गवाय ताचें वागप दिता.

आनी आयचो मनीस प्रगत जायत जायत आपलो गिरो सोडून हरे गिऱ्यां

ला. मैमाचो पुर्तय अुपेग करून घेंवक लागला. विज्ञानाची प्रगती अितली जाल्या. पल्या मनाच्या बळग्याचेर तो सैमाक वेठीक धरपाक लागला. हातुंतल्यान ताचो ाव घडत आसा. बरो, वायट, न्याय, नीत, सुंदर, खरें फट अशे कितले-शेच च्या मनाच्या तासांचे देखाव आमकां पळोवपाक मेळटा. हाचे भरीक राग, मोग, म... तिडक अशा भावांचे नमुने कितलेशेच अगम्य अशे जावपाक लगाल्यात. यज भिगंत, भूक आनी काम अशा तीन गजलींनी मनशाचें जीवीत मरून डयलां. हाचे जोडयेक नामना-आनी आस हेय भाव ताका मेळळया.

देवा पाव
म्हाकां अेक भाव
भावाचे बायलेक
आसा अेक जाव
तिका पाव म्हाकां पाव.
तिका पाव म्हाकां पाव.

हांतलो मनीस पळयात. ताची आस ताचो ताचो स्वभाव Complex करून डयता. ताचें अुलोवप कितलें फर्मोंवक लागता तें पळयात. खरी जीण लिपोवन ाभास निर्माण करून दाखोवपी ही रचना. अितलें तो स्वतः फट अशें कांयच ंगाना. मांगानाक कवितेंत ताल, लय आनी तिची संगीत मयता ह्या खंयच्याय जालींचो तोल ना वयता तो सांबाळून दवरपी आनी दाखोवपी ही कविता.

ना जाल्यार अिंग्लंड म्हणचें जगाचेरे सत्ता गाजोवपी अेक अितलेशें राष्ट्र. ही त्ता जेन्ना गडगडपाक लागता आनी सगळ्यो कॉलॉनी स्वतंत्र जांवक लागता तेन्ना. ी. यस. अिलियट हाणीं Sound on bridge is falling down हे बाल कवितेचो ाधार घेवन एक सुंदर कविता निर्मिली. ही कविता वयलेवयर पळोवपाक साधीशी दसली तरी अिंगलंडचे राणयेन लोखणान घडयल्लो हो गडगडपी पूल महासत्तांतरांचो अतिहास दाखोवपी अितिहास जावन पडटा.

मनीस जेन्ना जोम्यान आसता वा अेकटो आसता... तेन्ना ताका एक सामुहिक मन आसता आनी व्यक्तिगत मन आसता. मनशाक सदांच दुसऱ्यांच्या आधाराची संवय.. आनी ताची संवयूच ताचे बळगें अुणे करता. हाचो साक्षात्कार जेन्ना गुरूदेव रवींद्रनाथ टागोराक जाता तेन्ना

जोंदी तोर डाक अुने केऊ ना आशे

तबे अेकला चॉलो रे ऽऽ,

रवींद्रनाथांचे आनी एक समकालीन कवी नझरूल अिस्लाम. तांची कांडार हुंशियार ही कवितााय आर्माच. दुर्गम अशे रस्ते, रेंवटां, राना मरूनू कार्मीक कांडा हुपूंक वचपाक... आनी तींय वी काळखांतल्या तेन्ना सगळयांनी सावध रावपाक जा अशें तेजस्वी शब्दांतल्यान व्यक्त करपी ही कविता पळयात. स्वतः स्वातंत्र्य झुजा अखंड काम केलें तांचीं ही अुतरां पाळयात.

दूर्गम गिरी, कातांर मरू दुस्तर पारावार

लंघीते हॉबे रात्री निशाथे जात्रीरा हुंशियार...

मनशान मनशाच्या जिवितांतली कितलीशींच सतां अशें कवितांच्या माध्यमांतल्या व्यक्त करून दवरल्यांत, जीं आयजूय आमकां भूल घालतात. कबीर सारको आयज़ रेता आसलेलो कवी जेन्ना आर्मी पळयता तेन्ना तोय ह्या मनशाचे जिणेतल्यो गजाल सगळ्याक कसो विसरना तें पळयात. मनशाक दिल्ले निर्मळ सुंदर शरीर... ताणें तें का अिवाड्ल अुडयलां तें सुंदर शब्दांत ताणे मांडलां...

अश्ट केमल का चरखा बनायो

पांच तत्व की पूनी

नौ दस मास भुनन को लागे

दिन दिन मैली किन्ही..

चदरिया झिनी रे झिनी...

संसारांतल्या सगळयाच मोटया कविनी अशें आपल्या जिवितांतल्यो गजाल आपले अनुभव समर्थ शब्दांतल्यान व्यक्त केल्या. जॉन डॉन ह्या अिंग्लीश कवी कवितेच्या प्रकारांत ताज्या काळांत बदल केलो. हरशीं पुराण, वायबल, प्रतिकात्मकत उदात्तता अशा विशयांच्या आधारानूच निर्माण जावपी अिंगलीश काव्यांत ता बदल घडोवन हाडलो. साध्या साध्या विशयांक साध्यो साध्यों प्रतिमा वापरू काव्यांत क्रांती निर्माण केली. तांची "द फ्ली" ही कविता पळयात.

This flea is you and I, and this our marriage bed, and marriage temple is

(1573-1631)

हांतलो प्रेमी आपले प्रेयसीक सांगता हें किमच म्हटल्यार तूं आनी हांव, हें कमच म्हळयार तुजी म्हजी शेज, आमचें दोगाचेंय मंदीर... अशें म्हणून तो आपल्या ोगाचीं फकाणां करताना दिसना?

साधुपणाचे वृत्तीचो आस्पाव म्हळयार कितें, हाचेर आपलें मत अभंग रूपान न्ना मांडटा तेन्ना अनुभवाची खोलाय शब्दांतल्यान कशी चपचपीत बसता तें तकवी तुकारामाच्या अुतरांत पळयात.

दया करणे पुत्रासी

तेची दासा आणी दासी

देव तेथेची जाणावा

तोची साधु ओळखावा

भुरगें आनी नोकर हांचे मदीं जो भेद भाव मानीना तोच देवा लागीं आसता ानी तोच साधु आसता. तुकारामाचें सामाजिक विचारमंथन कितलें खर तें हांगा ळटा. अनुभवाच्या तेजाबांतल्यान निर्माण जाल्ली ही किविता.

अशी ही संसारीक कविता कोंकणी कविताय ह्या प्रामाणिक पणाच्या आड चना. अनुभवाच्या आधाराबगर ती आपूण जावन फुडें वचूंच शकना.

बाकीबाब मराठी कविता बरयतां बरयतां कोकणींतल्यानूय तितली समर्थ कविता निर्माण करूं शकले.

गूरू शिटकायता कुरवानी, आरे गूरू

मेरेर झेमलो शेतोड ताजी

अचळय भकली गोरवांनी

प्रसाद पाकळी फटवण सगळी

देव लिपयला गोरवांनी

सामाजिक जिणेच्या अर्थान आमची सगळयांची व्यक्तिगत जीण भल्या. सामाजिक जिणेचे नातें घेवनूच आमची जण अेकल्याची जीण फळपाक लागता. तीका अर्थ प्राप्त जाता. आनी अशें आसुनूय तांतूत अेक व्यक्तिनिष्ठपण आसता. ह्या व्यक्तिनिष्ठत्वतेच्या मालवजारूच कलाभाराचे सगळे कृतींक अेक आगळो अर्थ प्राप्त जाता. देखूनूच बाकीबाब जेन्ना आपले पिरायेच्या निमण्या काळांत साक्षात्काराचें मर्म

आपले कवितेंत मांडटा तेन्ना ताच्या अर्थाचें मोल मनाच्या वोलां वांगडा जावप
लागता.

कडें. आलतडी लाय
म्हाकां पलतडी पाय
जंय मुक थंडाय/ पांडुरांगा
कांय वांदचेलें ना कांय घेंवचेलें ना
जग साय नसाय पांडुरंगा
जड न्हय रे म्हजें तुका जांवचें वजें
शरिरूय ल्हव ल्हाय पांडुरंगा.

आपलें सगळें कुडीचें भान सोडून मन कच्च करून पांडुरंगाकडे मोख-पार्ची तद्रूपता मानत्याचो नामत पुण एका खिणांत कवी जें किते जगला ताचे उचंबळ आमकां खिणाखिणाक भावना. आनी खिणभर आमीय वाचपी मुक्तिच्या सर्ग जियेतात.

कोंकणी कवितेंत मनोहररायान अेक खाशेलें स्थान निर्माण केलां तांची कवित क्रिस्तांव आनी हिंदूंक अेकाच तरेन भूल घालता मनशाच्या मनाच्या सर्वसामान अशा तळावयल्यानूच सगळयांची पकड घेवपाक लागता आनी तांची कवी अुन ताळयो मेळोवन वयता.

पांडुलो पाडो
गोंदुच्या गाडयाक
कादूलो कोंडो
आंतुच्या आडयाक
लाद्रूच्या शेतांत
पेद्रूची गाय
ही लोकशाय

नियात्रांत समजांत घडटल्या कांय वायट घडणुकांचेर तात्काळ टीका करपी कांय कांतारां आसता. तशेच तरेची ही स्टायल घेवन मनोहरराय सरदेसाय सामाजीक घटणाचेर हल्लो चडयता. एका थळाचे अुमळशिकेन थपयपिल्यो कविता वाचतां

ामीय वाचपी आमच्या थळांनी घुस्पुंक लागता असो प्रखर अनुभव दिवपी तांच्यो गोंया तुज्या मोगाखातीर'' ह्या कविता संग्रहांतल्यो कविता.

कोंकणी कवितेच्या मळार र. वि. पंडित सामको वादळ जावन आयलो आनी ात्र जावन रावलो. ताणे कोंकणी कवितेचो घाटूच बदलून उडयलो. ही कविता क्तछंदांत आयली. भार जावन जावन आयली. गोंयच्या अेकदम सामान्य मनशाचें जंवे' तट्टीत चित्र ताणी आमच्या मुखार दवल्लें. तांचे लिखणेच्या पागेरान नित्यो ाडफडटयो मासोळयो फारायल्या. भाटकाराचो सत्यनारायण, दर्या सुंदरी, हांव ाजा पिट्रोळ, अशो कितल्योशोच कविता तांच्या खात्यार जमा आसा. तांची कविता वणांतल्यान सर्वकालीक जांवक वचपी अशी. देखूनूच ती संसाराच्या साबार वाठारांत ावल्या आनी तिगल्या... तांची धर्तरेची काणी पळयात. तिका तान लागता तेन्ना ती ावसाकडें उदक मागता, शी खाता तेन्ना ती दिसाकडें वत मागता. गरमी जावपाक ागता तेन्ना ती वाऱ्याकडें वारो मागता सगळे तिका मुक्त हस्तान सगळें दिता. नमाणी तिका भूक लागता तेन्ना ती मनशाकडें येता आनी म्हण्टा

मनशादादा मनशादादा
भुकेक अिल्लें भात दिता?
मनीस म्हण्टा, दितां
पुण पन्नास पटीन व्याज घेतां...

मनशाची आशाखोट वृत्ती, स्वार्थी वृत्ती हांगा पंडितांनी अशे तरेन अचळय अुक्ती केल्या कि ती फकत एकाच थळाची अुरना. ती कविता सगळे धर्तरेची जावन पडटा.

नागेश करमलींची कविता ही जन्माक आयली बंदखणीत. आदींच समाजांतल्या विषमतायांकडें झगडपाची खर तांक आसलेलो कवी कवितेंतल्यान बंडाची भास अुलयतालो. समाजाचेर बडी मारतालो. ''जोरगतींत'' हो अनुभव येता. ''सांवार'' हे कवितेंत तो आपल्या स्वातंत्र्याअुपरांतल्या घडत गेल्ल्या बदलांक येवकार दीत कविता फुडें व्हरताना दिसता. हें तांचे वेगळेपण दाखोवपी ही कविता पळयात-

नवल न्हय, सपना फळा आयलीं रे
सवण्या म्हज्या पाखां आतां फुटली रे!
पाखां आतां फुटली रे
आंगणांतुल्या पार्दिकाक अुमाळयांचो रंग

तालमूळ परमळाच्यो राशी रे
वांठार सगळो नेटार मामको
खोशयेचे धोल-ताशे वाटे वाटे --
उतरांच्या कांठा कांठार रे
सवण्या म्हज्या पाखां आनां फुटल्यीं रे!

नागेश करमलीची जीण कोंकणी साहित्याच्या मळावयलें अेक अशें पात
जातून कोंकणी साहित्यांतल्या वयाच नव्या लेखकांक स्फूर्त दिणें आनी घडोव
आसलें.

मनशाच्या मनाच्या कंगारखिर्शींचो अभ्यास करता तितलो थोडो. केन्ना केन्ना
मनस्वी जाता. आपल्यांतूच गुल्ल जाता. केन्ना आपले प्रेयसिच्या मोगांत घुस्पत
आनी मोगाचो भास काव्यांत मांडप आनी तीय वी समर्थपणान तितलेंच किशालपणा
अशें खूब कमी मनशांक जमता. पूण जशें तरेचें जगप तितलोच अनुभवाचो क
खर. पांडुरंग भांग्यांची ही कविता पळयात. प्रणयी कविता.

कितले खेपो तुज्या ओंठांक हांवें दंश केलो
ताचो हिशोब दवल्लो ना. दितना माप पळेल्लें
ना. रवाणेची कोंवी कशी आज तूं पुनवे
जोरगत अुबयता.
तुकां मोनेळ जाय. मोनेळिंतूच तूं चंवरून
घोंसार येता. तुज्या काळ्यावज्र केसांत
चांदन्याकूय सम्मी चडल्या. घडये
अतरांच आमचो घात मारूये; त्या पेल्लींच
ओंठांच्या अुज्यान आमी पुनंव जागोवया

प्रणयी अवस्थेचें हें अळार जावन आयल्लें चित्र.

कोंकणी कवितेच्या आयच्या मळार आयची तरणाटी पिळगी आपल्या समृद्ध
अनुभवाच्या नेटार कोंकणी काव्यय समृद्ध करीत आसा. प्रकाश पाडगांवकार, माधव
बोरकार, पुंडलिक नायक, रमेश भगवंत वेळुस्कार हीं नावां आयज आपले प्रतिभेन
सातत्यान आनी अभ्यासू वृत्तीन काव्य केळयतात तांवा आनीकूय आसात. अुल्लेख
करूं येता अशीं नावां खूब आसा. जांचो अनुभव कोंकणी काव्याक घटसाण आनी
जीवसाण दीत आसा.

आमी पळयलें अनुभवाची खोलाय जितली खर तितलोच काव्याचो कस खर ोणे तरी खंय अेका कवीक म्हटलें कि सगळया कवींक करून दर्यांत बुडोवपाक ाय. कवीन ताका थंडसाणेन म्हटलें तांका बुडोवपाची गरज ना. खरे कवी खरायेकूच ासता. बाकिच्यांकूच तितले बुडोवपाची गरज आसता. आतां ही खराय म्हण्टा ती नुभवाची. आनी हो अनुभव काय विकतो मेळना. जायते पावट आमी अशें ायकतात कि हो अनुभव घेंवचो म्हण हांवें हें केलें, हावें तें केलें आनी हांव निर्शेलें ो अनुभव घेवच्या आदीं आमी अशें थारायतात कि आमकां अमूक अमूक अनुभव ंवचो. आनी अनुभव घेतल्याचें हांगाच चुकता. कारण ताका ताच्या मनांतल्या चिंतना प्रमाण अनुभव येना. आनी मागीर येता ती निर्शेणी.

अनुभव आपमूक आसचो. अकस्मात सोर्त लागची तशी. असल्या अनुभवाची खराय व्हड. मुद्दम घेंवक गेल्या अनुभवाक खराय नासता. आमता ती अुथळसाण. बरे अनुभवाचो संवेदन व्यक्तिप्रमाण बदलता. अेकूच गजाल पळोवन धा जाणांक धा तरांचे अनुभव येंव येता. आनी देखूनूच अेकाच विशयाचेर कितलेशेच लोक बरयतना आमकां दिसता. आनी प्रत्येकाचो अनुभव हें प्रत्येकाचें खाशेलेपण अनुभवाच्या नेटारुच संसारांत जण अेकल्याक वेगवेगळें व्यक्तिमत्व मेळटा. आमच्या व्यक्तिमत्वांक जर हें खशेलेंपण नासत जाल्यार आमकां कांयच अर्थ अुरचो ना.

आमी मनीस थळ काळाच्या बंधनांनी बांदलेले. आमकां अितिहास आसा. आनी आमकां फुडार आसा देखून म्हाकां म्हज्या दायजार नदर मारची पडटा. आनी मागीर फुडें कितें करचें तें थारोवचें पडटा. पुण अशें घडटा आस्तना आमी एक मुख्य गजाल विसरता ती ही कि आमी आमचो वर्तमान काळ वगडावन वयता. आमी वर्तमानाची जीण जगूंकच पावना. जाका वर्तमान ना ताका अितिहासूय नासता आनी फुडारुय नासता. कारण वर्तमान म्हणचेंच अितिहास आनी फुडार. साहित्यिकाक ह्या सगळयाचें भान आसता. ना जाल्यार ताका तें कळोवन घेवचें पडटलें पुण तें आपसूक आसल्यार चड बरें, साहित्यकाक फाटले फुडले समर्पक अर्थ लावपाक कळपाक जाय. ताका स्वताचे अशें आपलें मत आसपाक जाय. पुस्तकां वाचून साहित्या निर्माण जायना. बऱ्या साहित्यिकांचे साहित्य आमकां तांची जीण ते कशी जगल्यात तें दाखयता. आपले निर्मितींत आमकां खाशेली आमचो अनुभव गरजेचो जाता. तसो हो संसार अुपाट अजापांनी भल्ला. अिल्ल्याशा मनशान तांतलें कितलें घेंवचें?

अनंत हस्तें कमलावराने
देतां घेशी किती दो करानी
अशें एक वचन आसा.

संसारांत दर वर्सा वसंत 'ऋतु' येता. नवीं फुलां घेवन. नव्यो कोमऱ्यो घेवन मागीर फळां. पुण आमी जाणा लागल्लें सगळे चंवर धरना, काळाच्या ओघांत वरेंचशें झडटा थोडेशें उरता. ''उरतलें तें रूप धरतलें'' ह्या संग्रहांत र. वि. पंडित म्हणटा.

चंवर झडटा?
भियेंव नाका
अिल्लें झडटलें
अिल्लें उरतलें
उरतलें तें
रूप धरतलें
रंग घेतलें
आनी पिकतलें

हीं रूप धरतलीं चंवरां. तांका रंग येवपाचो आसा. पिकपाची आसा. पुण ही रंगाची आनी पिकेची वाट कठीण आसा. हे वाटेर कोण अल्याक पावतलो हाची खात्री केन्नाच नासता. आनी थांबप हें तर केन्नाच नासता, देखून कोणाचीच वाट न पळयतां जण एकल्यान आपापली वाट धरप हें गरजेचें आसता. हे टागोरांचे विचार ताणे आपले कवितेंत, समर्थपणान मांडल्या.

जोंती तोर डाक शुने केऊ ना अशे
तबे एकला चलो रे
एकला चलो एकला चलो एकला चलोरे

# बालगितां आनी तांचे विशेश

- तुकाराम रामा शेट

('कोंकण टायम्स' जनेर - मार्च 2002)

मनीस आनी लोकवेद हांचे नातें आथीक आनी मुळासाकून आसा. वारो, उदक ंवणी सावदां हांचे आनी सैमांतले विंगड विंगड आवाज आयकून मनीस आपल्या ोंडांतल्यान विंगड विंगड आवाज वा ध्वनी काडपाक लागलो. ह्या आवाजांतल्यान ाची भाशा, लोकवेद निर्माण जालो. फुडे ताचे कडल्यान विंगड विंगड तासांच्या ोकसंस्कृतीची निर्मिती वाडत रावली.

लोकवेदांतलो म्हत्वाचो एक भाग म्हळ्यार भुरग्यांचो लोकवेद. भुरग्यांचो ोकवेद भुरग्यांच्या जिवितांत चड काळ येता आनी सेगीत येता. भुरग्यांचो लोकवेद म्हळ्यार भुरग्यांचे जिवीतच. भुरगी आपल्या वांगडा स्वर घेवन जल्माक येतात. तीं ुंगां, करीत रडटात. होच तांचो मूळस्वर. ह्याच स्वराक फुडें फागूर फुटतात. ह्या स्वराचेर फुडें त्या त्या भाशेतल्या आल्लयांनी, बालगितांनी, नाचगितांनी, खेळगितांनी ने ते भाशेचें सैमीकरण जाता वा संस्कार जातात. कोंकणी आल्लयांनी, बालगितांनी, नाचगितांनी, खेळगितांनी भुरग्यांच्या स्वराचेर कोंकणीकरण जाता. भुरग्यांच्या आवाजाकच न्हय तर भुरग्यांच्या मनाक आनी तनाक लेगीत ह्या बालगितांनी आकार मेळटा. बालगितांनी जर सुरवातीकच मनशाच्या आवाजाक, मनाक, तनाक जिविताक घडयता तर पारंपारीक बालगितांक म्हत्वाचो घटक मानचो पडटलो. लोकसंगीत जे लोकसंस्कृतीचो एक भाग, ताच्या नदरेतल्यान विचार केल्यार जे सगळ्या मनशाच्या पूर्व जिविताक घडयता, मनशाक जगपाक शिकयता त्या पारंपरीक बालगितांक लोकसंगितातलो म्हत्वाचो आनी मूळ स्त्रोत मानचो पडटलो. कोंकणी लोकसंगीताचे संकल्पनेत पारंपारीक आनी हेर कोंकणी बालगितां ही कोंकणी लोकसंगीताच्या विचाराचो मूळ भाग आसचो.

बालगितांचो आनीक विशेश म्हळ्यार, तांचे प्रदेशांत सर्वठांय, सर्वकाळ आसप, तांचे सगळ्यांत सादें सोपेपण, जिविताचो भाग जावन सगळ्यांक लोकप्रिय जावप आदी.

पारंपारीक कोंकणी बालगितां सिंधुदुर्ग, गोंय, कारवार, कुमठा, होन्नावर, मंगळूर, कोची अश्या सगळ्या कोंकणी वाठारांत आसात. ती फक्त सणापरबेक वा एका रूतूंत म्हणीनात तर ती वर्सभर सर्वकाळ गायतात. ल्हान भुरग्यांनी गावपा

इनल्ली मादे चार्लीनल्ली आनी समजपाक सोपी अशीं बार्लगितां आमतान. हांव जाणा ते प्रमाण ती मालवण, सावंतवाडी, गोंय, कारवार, कुमटा ते कोची ह्या वाटारांतल्या कोंकणी भुरग्यांक ती भोवच आवडटात आनी ती ह्या वाटारांत लोकप्रिय आमात

ही बार्लगितां भुरग्यांचे जिवीत केळयता. भुरग्यांक गावपाक, नाचपाक, खेळपाक शिकयता. तांचो फोनेटीक (Phonetic) आनी भाशीक विकास करता. शारिरीक विकासावांगडा तांचो मानसीक विकास करता. कोंकणी मनीस म्हुण ताचें व्यक्तिमत्व फुलयता.

ल्हान भुरग्यांक खेळयताना आवय गायता ती फुडली आल्लय पळोवया.

येथें येथें येथें बस रे मोरा

येथें येथें येथें बस रे मोरा

मामा ना घरा मामी घाली चारा

चारा खा पाणी पी भुर्रा

आवय हातबोटां नाचयत ही आल्लय गायता तेन्ना माणकुलें भुरगें आयकता आनी पळयता. मागीर तें भुरगें आपलीं हातबोटां नळटार नाचोवन भुर्रा म्हणटा. भुरग्यांक न्हाणयताना, जेवयताना, न्हिदयताना, खेळयताना (शरीराचो वेगवेगळ्यो हालचाली करपाक) आवयो आल्लयो गायतात. तांच्या मुरांत भुरगें वाडटा. भुरगें आल्लयांच्या तालामुरांत घुसू करता. तांच्या तालामुरांत जेवता, तांच्या तालामुरांत न्हिदता, तांच्यातालामुरांत खेळटा पाळण्याच्या धोलपा वांगडा आवयच्या हातींचो ताल आनी गितांचे सूर भुरग्यांचे जिणेक सांगात दितात.

भुरग्यांक पांय फुट्टकच भुरगें आंगणांत येता. आंगणांत शेवण्याकडे, काक्याकडे तें उलयत गायता-

कावळ्या काक्या

कावळ्या काक्या

मामागेर गेल्लो?

मामान किदें दिलें?

खाकू दिलो

पिपी दिली

दिंवना

कूय कूय कूय

हें गीत गावन भुरगें एके शैलींत जगता. कूय कूय करून चाळोवपाची एक लकब ामचेकडे आसा ते लकबीत भुरगें उलयता गायता. तें एक विशेश भाशीक शैली ापणायता. कोंकणी मनशाची जगपाची शैली फुडल्या पारंपारीक बालगितांत कशी ायल्या तें पळोवया -

चानये चानये गोड कर

हुनरा हुनरा मोव कर

आंबट, कोडसार आनी घट्ट जगम दोनय हातांच्या तळटामदें धरून तें चोळून ाव आनी गोड करपाची कोंकणी मनशाची स्टायल हातूंत आयल्या. जिविताचे हे लीक सैमाचोय सांगात आसा. खरें कोंकणी गीत म्हणपा सारकें हातूंत कोंकणी नशाचे जिणेदर्शन घडटा.

आंगणांत खेळपी भुरगें मात्शें व्हडलें जातकूच वाड्या वयल्या भुरग्यांमदीं ावता. तें तांचे मदीं बालगितां गायता, नाचगीतां गायत नाचता. वांगडा एकठांय ावन खेळगितां म्हणत खेळटा. 'फीक पीक घोडो मामालो चेडो' अशें गायत ोड्यागाडयेचो खेळ खेळटा. म्हातारेचो खेळ, खांब्याचो खेळ, किरकावळ्याचो ळ, आणकूमाणकुल्याचो खेळ अशे विंगड विंगड खेळगीतां गायत खेळटात. किगाचो खेळ' खेळटना गावपाचे गीत सगळी मेळून गायतात-

तामरेतीर पानां

मेजार फुलां

आमचो कीर येतलो

अंयशी रुपया हाडटलो

गुलाबांनी तोडिलो

पकड पकड पकड

शेवतें काय गुलाब?

अशी गायत, नाचत, खेळत भुरगीं ल्हानाची व्हड जाताली आनी जातात.

गोंयची कोंकणी बालगितां, नाचगितां, खेळगितां तशेच कोंकणी पारंपारीक काणयो हांच्या पुनरूज्जीवनाचो वावर फाटल्या 17 वर्सां साकून चलता. ह्या कामांत तुकाराम शेट हांच्या पुडारापणाखाला तांचो पंगड वावुरता. पारंपारीक बालगितांवांगडा नवीं गितां, नवी खेळगितां तशेच गरजेची गितां रचून तातुंत सेगीत भर घालपाचो यत्न चलता. ह्या व्हड वावरांत गोवा कोंकणी अकादमी, बालगीत निकेतन, राज्य

शिक्षण संस्थान, अॅक्डील आंगणवाडी वर्करस ट्रेनिंग सेंटर ह्या संस्थाचो तांका पाल लाभला. बालमेळांत तर बालगितां गायताना, नाचताना, खेळ्ताना भुरग्यांचे दोळे खोश्श लिकलिलकतात. तशेच केजी, आंगणवाडी, बालवाडी, प्राथमिक विद्यालयांच्या शिक्षिकां प्रशिक्षण दिवन पुस्तकां आनी ध्वनीफिती तयार करून पूर्व प्राथमिक शिक्षणाचे बुनयाद करपाचो वावर चल्ला.

ते भायर मनोहरराय सरदेसाय, रमेश वेळुस्कार, तुकाराम शेट, कमलादेव राव देशपांडे, भरत नायक, अशोक भोसले, अशे कितलेशेच कवी भुरग्यांच्या बालगितांची रचना करीत आसात. संगिताचो साज दिवन तांच्यो बऱ्योचश्यो रचन भुरग्यांच्या तोंडांनय घोळटात. बालगितांच्या नव्या रचनाक चाली दिवपी प्रेमानं वेळुस्कार सारके खूबशे संगितकार फुडें आयल्यात. पारंपारीक आनी नवी बालगित हांचो सुमेळ जावन ह्या मळाचेर पीक तरतरून येत आसा. हें पीक कायम येवपाक परत परत रोवचें पडटलें, ताका सारें उदक दिवन वावुरचें पडटलें, तरच बालगितांच्या ह्या पिकान कोंकणी भुरग्यांची पोसवण पिळग्यान पिळग्यो जायत रावतली.

आल्लयो, बालगितां हातूंतले कोंकणीपण तांचे प्रादेशिकपणान, भाशेन, आनी जिवितांचे शैलींत दिसून येता. चडश्यो आल्लयो तर कांय फरकान कोंकणी वाठारांत आसात. गोंयच्या सारक्योच आल्लयो उत्तर आनी दक्षिण कॅनरा भागांतय कांय फरकान सांपडटात. तपशील आनी बोली भास हातूंत इल्लो फरक दिसता. मात चड करून तांच्यो गावपाच्यो चाली समान आसतात. देखीक-

यो यो गाय्ये
बुचि खागो तूं कुंडो
आनि बाबुडिक दी उंडो
लोणियाचोऽ (मंगळूर)

कर्नाटक आनी केरळच्या कोंकणी जनामदें एकाच विशयावयली आल्लय आसा तांतूंत गोंयचो खास करून 'गोंयच्या मामाचो' उल्लेख येता.

कायळ्या तूं गोंयां गेल्लोल वे?
पुत्तोले मामाक दिक्कील वे?
यो म्हणटाल वे?
येतोल म्हण्टाल वे?
कायळ्या तूं गोंयां गेल्लोल वे? (कोची)

हातूंत कोंकणी मनशांची एकामेकांची ओड दिसून येता. कोंकणी मनशाचे डीनच हें गीत चंवरलां.

1999 सालच्या सप्टेंबर म्हयन्यांत बालसाहित्याचेर पेपर सादर करपाक हांव र्णाकुलम हांगा गेल्लों. त्रिपुनीथुरांतली कोंकणी कुणबी समाजांतलीं भुरगीं थंय यिल्लीं. तांका थंय कांय बालगितां आनी खेळगितां हांवें शिकयलीं. ताणी ती कडीच आत्मसात केली आनी थंयचे थंय एके कार्यावळींत सादरय केली. फुडलें ोपाळ्याचें खेळगीत' सादर करपाक तर तांका चडूच उमेद जाल्ली.

धोल धोल झोपाळो
ताचेर बसला बाबुलो
बाबुलो न्हिदलो
बोमाडो हाडलो
बोमाडो फुटलो
बाबुलो उठलो! (गोंय)

गोंयच्या पाठारांतली भुरगीं जितले उमेदीन गाताली तितलेच उमेदीन तींय यताली आनी खेळटालीं. ह्या खेळगिताक सादी सोपी चाल आनी भास आसा. गवेगळ्या वाठारांतल्या कोंकणी भुरग्यांच्या एकाच फोनेटिकांतली (उच्चारणांतली) ास आसा. तशेच तांचे एकच आवडीचो विशय आशिल्लो. तशेच गोंयची कांय ालगितां हांवें बांदे (सावंतवाडी, महाराष्ट्र) हांगाच्या प्राथमिक शाळेंतल्या भुरग्यांक ाकयली. तेन्ना ती तांकां वेगळी दिसली ना. ती तांका तांचीच दिसलीं, ती ताणी हज आनी खोशशेन गायली.

भुरग्यांच्या एकेच जिवन शैलीतले आनी एकाच विशयावयलें गीत केन्ना वेगळें गळें तरेन भेटता.

तांच्यो चालीय वेगळ्यो आसात.

वाऱ्या वाऱ्या यो यो
पान पडल्यार तुकां
आंबो पडल्यार म्हाकां (अंत्रूज)
योरे वाऱ्या कासासून
आमाडी पाड म्हाका घोसासून (सक्राळ, पेडणे)
वाऱ्या वाऱ्या यो यो
शेळे शीत जेवन यो
म्हाका एक आंबो उडय (काणकोण)

वयल्या बालगितांनी तपशील बदल्ला, चाली वेगळ्यो आसात तरीय जिवनशैल एकूच आसा. तांची उस्फूर्त आनी सादी रचना आसा. निर्मितीनल्ली ही उस्फूर्त नवचेतना दिता.

एका बालगिताचो म्हाका मुजरत उल्लेख करूंक जाय. तें सिस्टर लुकास हि वेस्टर्न संगिताचेर रचलेले आसा.

लाड्रू पेड्रू
लाड्रू पेड्रू
न्हिदलाय रे?
न्हिदलाय रे?
उठोन तांतयां
भाज रे
उठोन तांतया
भाजरे
चींव च्यांव चींव
चींव च्यांव चींव

हे गीत वेस्टर्न संगिताचेर आदारलेलें आसूनय तें भुरग्यांक मानवता आनी तें अभिनय करून गायतात. ह्या संगितांतल्या कोंकणी भाशेक तोडून मोडून उडोवंक न वा तिका फारिनयार करूंक ना. रचनेक दिल्लें संगीत आंगलें कशें सोबता. तशें वेस्टर्न संगितांतल्यान पेश जाल्लो विशय आनी मर्तीस थळावोच आसा.

भुरगीं एकामेकांक चाळयताना पारंपारिक उक्ती वा गीत म्हणटात. 'दावखुर्यां गिरगीरें, पणजेचें ख्वाजें' ही उक्ती चाळयताना म्हणटात. ताचेर आदारीत नवें गीत

चुडटेचें गिरगिरें
घेवन धांवलें दावखुरें
बोण्याचें किटकिटें
पळयत रावलें बिटबिटें
दावखुरें बिटबिटें
दोगांय गेली फेस्ताक
गिरगिरें चोवन
अजाप जालें मेस्ताक

हे गीत नवें तरीय तें प्रादेशिक आनी पारंपारीक कशें दिसता. तें सोपे आसल्या

रणान सगळ्या जाती धर्माच्या भुरग्यांक तें आवडटा आनी तें ती मजेन म्हणतात.

सगळ्यांक मानवता अशी बरीचशी गितां आसात. तांतुतल्या फुडल्या दोन नांची नोंद मुजरत घेवंक जाय.

1) हांव बाबा फेस्ताक वयतलों
पेंपें ढूम पेंपें ढूम करतलों
फेस्ताचे चणे हाडटलों
सगळ्या भुरग्यांक वांट्टलों
एक भुरगो उरतलो
तो आमकां पळयतलो

2) हुंदरा म्हुज्या मामा
आनी हांव सांगता तुकां
त्या माजेरीच्या पिलालागीं
खेळ मांडी नाका
हुंदिरमामा आयलो
आनी मेजापोंदां लिपलो
त्या माजोरीच्या पिलान ताका
एका घासान खायलो.

ह्या गितांची भास सोपी, चालीय सोप्यो आसात, तशेंच ही गितां उस्फुर्त आसात. म्हुण ही गितां भुरग्यांक चड मानवता. 'हुंदरा म्हज्या मामा' ह्या पारंपारीक गिताची चाल लावन नवी गितां रचल्यांत. ह्या पोपुलर चाली खातीर दुसरीय गितां भुरग्यांच्या वोंठार घोळपाक लागल्यांत.

आमचेकडे एक आथवी आल्लय आसा ती सगळ्यांक आवडटा. ती जशी क्रिस्तांव समाजाची तशीच ती हिन्दू समाजाचीय जाल्या. सांगपाचें जाल्यार ती गोंयच्या वट्ट कोंकणी समाजाची जाल्या.

धोल म्हुज्या बाय
न्हीद म्हुज्या बाय
पिपीट हाडटेलो पाय
कावळो रडो
घराचेर कांय
विचारी किदें जाय
कावळ्या मामा
केकें दिनां
पायचो उगडास येता
बायेच्या पायन
रेकाद दिला
बायेन केली ताता

ह्या गीत रचनेन आनी संगितांत एकतरेची जादू आसा. हें गीत गावपी आन
आयकपी संगिताच्या पाळण्यांत धोलतात आनी शांतवृत्ती तांच्या ठांय येता. ह
गितांची चाल विशेश आसा. हे चालीतल्यान तशेंच हेच चालीक मात्शें फरक करू
खूब गितांक चालींनी सजोव येतात इतलें तांतून पोटेंशीयल आसा.

ह्या लेखांत थोड्याच बालगितांचो उल्लेख केला. उल्लेख करपासारकीं खू
बालगितां आसात.

पारंपारीक बालगितां मूळ आदार मानून नव्या गितांची भर पडत आसा आन
कोंकणी बालगितांची बाग संपन्न जायत आसा. पोन्नी आनी नवीं गितां भुरग्यां
आपलीं दिसतात, प्रीय दिसतात. तीं ह्या बालगितांच्या सांगतान जगतात. हीं गित
खरें सांगपाचे जाल्यार, भुरग्यांच्या जगपांतल्यानच आयल्यांत. जगपांतल्यानच त
स्फुरल्यांत. हीं गितां भुरग्यांक अभिव्यक्ती दिता आनी भुरग्यांचे जिवीत अपुरबायें
केळयता. तांका कोंकणीपणाचो रंग, रूप आनी स्वर दिता, कोंकणी व्यक्तिमत
दिता. मुळांत बालगितां भुरग्यांक सैमीक मेकळेपण दिता याच मेकळेपणांत तां
व्यक्तिमत्व फुलता.

# प्रज्ञावाद
## अेक वळख, अेक खंत

- रवीन्द्र केळेकार
(जाग दिवाळी आंक 1983)

महाभारत म्हळ्यार रत्नांची अेक खण.

महाभारतांत अितिहास मेळटा. धर्मशास्त्र, नीतिसास्त्र, समाजशास्त्र, अध्यात्मशास्त्र गळें मेळटा. भारतीय विचारांचो अेक विश्वकोश हो. भारतीय आख्यानांचो अेक ल्परूख.

व्यासानूच म्हळां: हातूंत आयलां तेंच तुमकां हेर कडेन मेळटलें. हातूंत येवंक तूंक ना तें मात खंयच मेळपाचें ना.

यदि हास्ति तदन्यत्र यन्नेहास्ति न तत् क्वचित्.

लटीक न्हय.

महाभारताची खण अुसपितां अुसिपितां अुद्योगपर्वाकडेन पावलों तेन्ना हाताक अेक चकचकीत रत्न लागलें. आनी अजापांत पडलों.

वनवास-अज्ञातवास सोंपोवन पांडव परतल्यात. विराटाचे अुपप्लव्य नगरींत रावल्यात. श्रीकृष्ण तांच्या सांगाताक आसा. होगडवल्लें राज्य परतें कशें घेवचें ताच्यो थंय बसून तांच्यो येवजण्यो चल्ल्यात. 'जमल्यार सन्मथान ना जाल्यार झूजून,पुणून राज्य परतें घेवंकूच जाय, असो नित्शय ते करतात.

झूज चुकपाचें ना म्हणपाचें ते जाणात. देखून कोण आपणा वटेन आसात तें पळोवपा खातीर ताणी सगळे कडेन आपणाले दूत धाडून दिल्यात.

धृताराष्ट्राच्या कानार ही खबर पावता. तेन्ना तो हुसक्यांत पडटा. पांडवांसरीं तो संजयाक धाडटा. 'ताच्या मनांत कितें आसा तें पळोवन यो' म्हुण ताका सांगता. संजय अुपप्लव्य नगरींत वता. धर्मराजाक भिमाक अर्जुनाक मेळटा. श्रीकृष्णाकूय मेळटा. ताचे बेत समजून घेता. आनी 'हे राज्य घेतले बगर रावपाचें नात' हाची खातरी करून घेवन परतता.

तो हस्तिनापुराक पावता तेन्ना रात जाल्ली आसता. धृतराष्ट्र न्हिदूंक गेल्ले

कडेन आसता. तो धृतराष्ट्राक उठयता. आपुण वचून आयलों म्हुण सांगता. पुणून पांडवांचे वेत सांगपा वांट्याचें तो 'तुवें खूब चुकी करून आपणाचेर संकश्टां ओडून घेतल्यांत.' म्हुण ताकाच वयल्यान दुशण दिता.

आनी आपणाक आतां पुरो जालां, पांडवांचें म्हणणें फाल्यां राजसभेंत सगळ्या हुजीर सांगतां अशें सांगून तो न्हिदूंक वता.

धृतराष्ट्र दुबावांत पडटा. 'कितें सांगून धाडलां काय देवा-' तो तरेतरेचे दुबाव काडटा. हुसक्यान ताची न्हीद उडून वता. तो विदुराक आपोवंक धाडटा. विदुर तागेलो सांगाती. दीस-रात ताच्या म्हऱ्यांत रावपी. धृतराष्ट्राक मेळचें आसल्यार आनी-कोणाकूय वेळ घेवचो पडटालो. विदुर केन्नाय वचून मेळटालो. अितलो ताचो लागिंचो.

विदुर येता. धृतराष्ट्र ताका म्हण्टा: 'संजय पांडवांसरी वचून आयलो पुणून तांचें म्हणणें फाल्यां सांगतां म्हुण सांगून गेलो. आनी वयल्यान म्हाकाच दुशण दिवन गेलो. म्हाका न्हीद पडना आतां. जिवाक थाकाय मेळत अशें कितें सांग.'

आनी विदुर ताका जायतें कितें समजावन सांगता.

ह्या निमीत्यान विदुराच्या तोंडांत महाभारतान जें घालां ताका नांव दिलां प्रजागर पर्व. प्रजागर म्हळ्यार जागरण. न्हीद उडून वचप. देशी भाशेंत प्रजागर-पर्वाचीं भाशांतरां जाल्यांत. सगळ्यांनी ताका 'विदुर-नीति' नांव दिलां. वयल्या वयल्यान पळेल्यार हातूंत नितिच्योच खबरी सांगल्यात अशें दिसतलें. पुणून, मात्शें खोलायेंत देवंक जाय. म्हणटकूच हे निती-फाटल्यान आशिल्ली अेक पुराय जिणे-दिश्ट दिश्टी पडटली. अेक पुराय 'फिलॉसॉफी ऑफ लाअिफ' नदरेंत भरतली. भगवद्-गितेच्या तत्त्वज्ञाना अितल्याच म्हत्त्वाच्या अेका तत्त्वज्ञानाचो दिश्टावो जातलो.

तो सारको लक्षांत येवपाक ते मुस्नींतलीं कांय मत्तां पळोवचीं पडटलीं.

ते मुस्नींक तीन मत्तां समाजांत घोळटालीं. तिनूय मत्तां लोकांचें जिवीत घडयतालीं. अेक, आस्तिक मत्त: वेदांची परंपरा मानपी. तेच परंपरेक धरून चलपी. दुसरें, नास्तिक: वेदांची परंपरा मोडून भौतिक संवसाराक म्हत्त्व दिवपी. जशें चार्वाकाचें लोकायत मत्त. नवी परंपरा चलोवपाक आंवडेवपी मत्त हें। तिसरें दैष्टिक : भाग्य, देव, प्रारब्ध, नियतीक मानपी. जिवितांत जें कितें घडटा मोडटा तें सगळें नियतीन थारायलां तेच भशेन घडटा अशें मानपी आनी दैवा आड वा भाग्या प्रारब्धा

ड वचपाची तांक मनशाच्या कर्तुत्वाक ना, कर्तुत्वाक जिवितांत मोलूच ना अशें ापी.

ह्या तिमऱ्या मत्ताचो प्रभाव-समाजाचेर खूब्रूच पडिल्लो. ताका लागून समाज र्तुत्वहीण जावन पडिल्लो. धृतराष्ट्र ह्या मत्ताचो आशिल्लो. धर्मराजूय थोडोभोव ाच मत्ताचो आशिल्लो.

ह्या दैववादी वा म्हणुंया, भाग्यवादी मत्ताआड एक नवें मत्त वयर सल्लें. तें णपाक लागलें. दैवान भाग्यान वा प्रारब्धान सगळें पयलींच थारावन दवल्लां णटात तें खरें न्हय. थारावन दवल्लेलें आसलें जाल्यारुय मनशान तांच्या सुवादीन वप समा न्हय. मनशांत प्रज्ञा नांवाची एक शक्त आसा. बुद्दी परस वयल्या वड्याची. तिच्यांत बरें वायट पारखुपाची तांक आसा. तिका बरें वा बऱ्याक पडत ालें वेंचून काडूंक येता. प्रज्ञेक धरून मनीस कर्तुत्व करीत जाल्यार ताचें भाग्य ीत बदलूं येता.

ह्या मत्ताचें नांव प्रज्ञावाद.

विदुर प्रज्ञावादी आशिल्लो. श्रीकृष्णूय ह्याच मत्ताचो आशिल्लो.

प्रजागर-पर्व प्रज्ञावादाची नदर दिवपी एक आगळें वेगळें पुस्तक. अिल्ली वळख रून घेवंया.

संजय पांडवांक मेळून आयलो आनी वयल्यान म्हाकाच दुशण दिवन गेलो. का लागून म्हाका आतां न्हीद पडना अशें धृतराष्ट्र विदुराक सांगता तेन्ना विदुर णटा:

न्हीद कोणाक पडना सांगतां: एक, दुबळ्या राजाक (जाका एका बळिश्टा ाड झुजपाक अुबो रावचें पडलां.) दोन, जिवितांत जो नागवला ताका . तीन, ीवितांत फकत भोगूच भोगपाचे अशें मानीत आयला ताका. (कामी मनशाक) ानी चार, चोराक.

आनी विदुर विचारता, तुका हांतले खंयचे पिडेची बादा जाल्या म्हुण न्हीद डना. पांडवांचें सगलें तुवें हातासलां म्हुण पडना.

## प्रज्ञावंत कोणाक म्हणचो

प्रजावंत वा शाणो मनीस वायट करण्यो करिना. अुणाक कामाक हात लेगीत ायना. तो बरें वायट पारखितलो, तांतलें बरें तेंच वेंचून काडटलो आनी बरीं

तसलींच कामां करतलो. तिडक खोम अभिमान कित्यार्चीच तो आपल्या कामा
बादा येवंक दिवचो ना. तो आपल्या ध्येयाक घट्ट दसून रावतलो. शाणो मनीस
येवजिना तें ताच्या उलोवण्यांतल्यान न्हय, तर ताचें करणेंतल्यान दिसून येना. शी
उजो;संपत-दळदीर ताच्या वावरांत आडखळी हाडूक पावनात. तो आपणाली ता
पळेतलो, आपणाक कितें जामतलें कितें जमचें ना हाचो हिशेब लायतलो आनी
तांकना तसलेंच काम हातांत घेतलो. सत्याक, धरमाक, न्यायाक धरूनूच का
करतलो. बऱ्याक पडटा तेंच करतलो. भोगा बदला कर्तुत्वा कडेन चड लक्ष दितलो
खंयचेंय काम ल्हान लेखून तें सोडचो ना. विचाल्ले बगर तो दुसऱ्याच्या वावरांत ल
घालचो ना. दुसऱ्यांचीं कामां आपल्या आंगार घेवंचो ना. काम हातांत घेतना ध
पांच येवजितलो, सारकें येवजून तें हातांत घेतलो. हुर्र-फुर्र जावचो ना. भुल्नूस
तर कितेंच करचो ना. जें मेळपाचें ना ताच्या फाटल्यान धांवचो ना. संकश्टां अरिश
येवन कोंसळ्ळीं जाल्यारूय कांचवेवचो ना. थतर विनर तर जावचोच ना. कितलीं
आडमेळीं येवं, तो नित्शयान मुखार वतलो. अखेरे मेरेन चलत रावतलो. मदीं खंय
थांबचो ना. वेळ फुकट होगडावचो ना. मदीं कोणे भोमान केलो जाल्यार हंड
फुलोवन चलचो ना. अवमान जालो जाल्यार खंती जावचो ना, तिडकूचो ना. ताचें
चित्त सदांच गंगे सारकें शान्त उरतलें, केन्नाच उगळचें ना. उलयतना दाखय-
लिपय करचो ना. कित्याक कितें उलोवचो ना. आपल्या गिन्यानांत सदां भर घालीत
रावतलो.

जाची बुद्द गिन्याना फाटल्यान आनी जाचें गिन्याना फाटल्यान आनी जाचें
गिन्यान बुद्दी फाटल्यान चलता, जो उजू चलणुकेच्यो शिमो केन्ना हुपिना तोच
शाणो, तोच प्रज्ञावंत .

शाण्याक विदुर 'पंडित' म्हणटा.

पंडित उतर प्रज्ञावाना वेल्यान आयलां

## मूढ कोणाक म्हणचो

रोखडोच विदुर 'मूढ' कोणाक म्हणचो तें सांगता. मूढ म्हळ्यार मूर्ख, अर्दकुट
वा म्हणुया, देडशाणो. विदुर म्हणटा:

गिन्यान नासतना आपणाक व्हडलो गिन्यानी लेखपी, कसलीच योग्यताय नासतना
आपणाक व्हड मानपी, मनान दळदिरो आसून व्हडले हावेस धरपी, कसलेंच काम
करिनासतना सगळें आपणाक मेळचें म्हुण चिंतपी मनीस मूढ. आपलीं कामां सोडून

ऱ्यांच्या कामांत तो बोवाळूक लागतलो. आपल्या अिश्टां कडेन लेगीत फटोंगपणां रतलो. पयस दवरूंक जाय तांकां लागीं करतलो. लागीं करूंक जाय तांका पयस वरतलो. जो आपणा परस व्हड ताचो मत्सर करतलो. दुस्मानाक अिश्ट लेखतलो, श्टाक दुस्मान करतलो. बऱ्या मनशांची फाट धरतलो, तांकां त्रासूच दितलो. वत थंय मेळत ताचो दुबाव घेतलो. सदां वायट्रूच चिंततलो, वायट्रूच करण्यो रतलो. आयज करपाचीं कामां फाल्यांचेर धुकल्तलों. रोखडीं करपाच्या कामांक ळाव लायतलो. आपयनास्तना खयूय वतलो. गरज नासताना कितेंय अुलयतलो. ापलीं अुणी पळोवपा वांट्याची दुसऱ्यांचीं पळेतलो. आपलीं कामां सारकीं जालीं ात जाल्यार दुसऱ्यांक दुशण दितलो. न्यायान धरमान चलनासतना पुण्य जोडूँक ांवडेतलो. तप करिनासतना फळाची आस्त धरतलो. आपणाक जें फावना तें ोडूक आंवडेतलो. सदां अुणाकांच्याच आसऱ्याक रावतलो. तांचीच संगत धरतलो. रच्यांक अुपाशीं अुडोवन आपुणूच जेवतलो. आपुणूच न्हेसतलो.

## प्रज्ञावंताचे नेम

विदुर मुखार म्हणटाः

धोणवांतल्यान सोडिल्लो तीर अेकल्याक मारीत. (वा ना मारीत) पुणून अेकूच ुदवंत खुबत जाल्यार तो राजा सयत पुराय राज्याचो लासून गोबोर करतलो. वेक्खाचो घोंट अेकल्याचोच जीव घेत, तरसाद अेकल्याचीच गोमटी कातरीत. पुणून ंत्र फुटत जाल्यार प्रजेसयत राज्याचो गोबोर जातलो. पल्तडीं वचपाचो अेकूच ुपाय म्हळ्यार तार. तशें सर्गार वचपाचें, अुदरगतिचें अेकूच सपणः सत्य.

क्षमाशीळ मनसाचो अेकूच अवगुण दाखोंव येताः तो म्हळ्यार लोक ताका दुबळों लेखतात. पुणून खरेपणानशीं हें ताचें दुशण म्हणू नज. कित्याक, क्षमा अेक मोड्यांतलें मोटें बळ. दुबळ्यांत गुण कशें आनी बळिश्टांत भूषण कशें सोबपा सारकें. बरें करपाची तांक अेकाच तत्वांत आसाः धर्मात तशी शान्ती हाडपाची तांक फकत अेकांच गुणांत आसाः क्षमेन कोणाकूय जिखू येता. जाच्या हातांत शान्तिची तरसाद आसता ताचें कोण कसलें वाकडें करतलो.

बिळांतल्या हुंदराक जसो सोरोप गिळून अुडयता तशी दिग्विजय करिना असल्या राजाक आनी देशयात्रा करिना आसल्या बुदवांताक भूंय खावन अुडयता. दोनूच तरांचे मनीस संवसारांत सोबतात. अेक, मात् लेगीत कोडू अुलयना असलो आनी दुसरो पाड्या लोकांक मात लेगीत मानिना, लेखिना, थारो दिना तो. दोन

तरांचे मनीस संवसारांत मात लेगीत सोबतात. अेक, कसलोच वावर करिना असत
संवसारी आनी दुसरो, संवसारांत घुसपल्लो संन्याशी, सगळे परसूय वयलीं सुवा
दोगूच जोडूंक पावतात: हाणपाची तांक आसूनूय क्षमाशील रावता तो आनी दुस
गरीब आसूनूय गरजेवंताक दान दिता तो. न्यायाचें जोडिचे दुरुपयोग दोन: फावत
नाका दिवप आनी फावता ताका दिनासतना रावप. दुड्डु आसूनूय जो दान करिन
आनी गरीब आसूनूय जो कश्ट करिना ताच्या गळ्याक फातर बांदून ताका दर्या
काडून बुडोवचो.

संवसारांत तीन तरांचे लोक पळोवंक मेळटात. बरे, सादारण आनी अुणाक
तिगांकूय तांच्या पात्रांक सोबसारकीं कामां लावन दिवंक जाय. दुसऱ्यांक नाड
दुसऱ्यांच्या वायलांचेर नदर दवरप आनी बऱ्या अिश्टाक सोडून दिवप हे तीन
अवगुण मनशाक कावार करतात. ओड, निडक आनी हावरेपण तीन दरवटे ह
नरकाचे. तिनूय सोडून दिवंक जाय.

मोटवे बुद्धिच्या, आळशी, हुतहुल्या आनी तुस्त गायतल्या लोकांची बुद्द घेवन
केन्नाच कितेंच करचें न्हय. आपलें गुपीत तांका केन्नाच सांगचें न्हय. असल्या लोकां
सदांच पयस दवरचे. कुटुंबातल्या जाणट्याक, संकश्टांत पडिल्ल्या कुलिनाक, गरीब
जाल्ल्या अिश्टाक आनी भुरगें नाशिल्ले भयणीक सदांच घरांत आस्रय दिवचो
देवांचो संकल्प केन्ना फुकट वचना. बुदवंताचो प्रभाव केन्ना पडनासतना रावना
विद्यावंतांची नमळाय केन्ना फळ दिलेबगर रावना. तशें पातक्यांचे नाशें जालेबगर
रावना.

आवय वापूय यज्ञ आत्मो आनी गुरू - हे पांच म्हूज्या भशेन पवित्र तांची
सदांच सेवा करूंक जाय. देव, पितर, मनीस, संन्याशी आनी सोयरे ह्या पांचांची पूजा
करतल्याक जिवितांत सदां जैत मेळुंकूच जाय. पांचातलीं पांचूय अिंद्रियां मनशाचे
सुवादीन आसूंक जाय. तांतलें अेक खंयचेंय अिल्लें लेगीत सदळ अुरत जाल्यार
थंयच्यानूच ताची सगळी प्रज्ञा व्हांवन वतली- जशें व्हडल्या भाणांतलें सगळें अुदक
ल्हानश्या बुराकांतल्यान व्हावन वता.

न्हीद, लकणी, भय, तिडक, आळसाय आनी आयचें काम फाल्यांचेर धुकलपाची
संवय हे स अवगुण मनशान सोडूंक जाय. सदां जोड जायत रावप, आरोग्य सदां बरें
अुरप, गोड सभावाची घरकान्न मेळप, बरे चलणुकेचो पूत आसप आनी गिन्यान
जोडपाक वेळ मेळप ह्यो स गजाली सुख जोडुन दिनात. काम, क्रोध, लोभ, मोह

नी मत्सर सा दुस्मान हे मनशाचे. तांचेर जैत जोडून तांका आळाबंदा हाडूंक य. कमलीच पिडा आसप ना, कोणाच्याच रिणांत अुरप ना, पोटा खातीर गांव डून भायर वचचें पडप ना, बऱ्या लोकांचो सांगात मेळप, आपणाक रुचता लेंच काम मेळप आनी कोणाक भियेंनासतना जियेंवक मेळप, स सुखां हीं शाचीं. मत्सरी, दुस्वासी, असंतुष्ट, रागीट, दुबावी, आनी दुसऱ्याच्या जिवार येवपी हे स तरांचे लोक दुख्खी आसतात.

बायलां, जुगार, शिकार, सारो हीं चार व्यसनां आनी दुखता तसलें अुलोवप, नश्या गुन्यावां खातीर व्हडली ख्यास्त फर्मावप, दुडू कश्याय कसो मोडप ह्यो तीन यो ज्या राजांक लागल्यात तांचीं राज्या मातये भरवण जाल्यांत.

अिश्टांचो सांगात, दुडवांची येणावळ, पुताचें सुख, बायलेचो मोग, गोड अुतर, पल्या वर्गणांत मान, जाय तेन्ना जाय ती जोड आनी चार चौगांत भौमान हीं आठ धनां सुखाचीं.

आमची कूड म्हळ्यार णव दारांचें आनी तीन खंब्यांचें अेक देवूळ तातूंत पांच वेकारी काम करतात. ह्या देवळाचे गर्भ-कुडींत (= काळजांत) आत्मो रावता. च हे कुडिचो धनी हें जो जाणा तोच गिनयानी.

धा तरांच्या लोकांक बरें वायट पारखूंक येना-सोरो पियेवन तर्रर जाल्याक, ळ रावतल्याक, पिश्याक, पुरो जाल्याक, तिडकीन कुट्टो जाल्याक, जेवंक खावंक शिल्याक, हुतहुत्याक, हावऱ्याक, भित्र्याक आनी भोगांत लोळटल्याक.

## प्रज्ञावादी राजनीत

अुपरांत सुघन्वा नांवाच्या असुरांच्या अेका राजान आपल्या पुताक केल्लो जनितिचो अुपदेस विदुर धृतराष्ट्राक सांगता:

जो राजा तिडकिचे आनी ओडिचे सुवादीन जायना, जाय थंयच जाय तितलोच डू खर्चिता, खंयचीय गजाल मुखार येंव, तिच्यांतलें बरें आनी वायट आंग खंयचें पारखून घेता, जो आपल्या गिन्यानांत सदा भर घालीत रावता आनी जो हातांत तिल्लें काम मदीं सोडिनासतना तडीक व्यरता ताकाच लोक मानतात. जो राजा ोकांचो विस्वास जोडपाचे सदां अुपाय घेता, गुन्यावाकारांक ख्यास्त फर्मायतना नीमपणान फर्मायता (गरज दिसल्यार तांका सोडुनूय दिता) ताच्याच घरांत क्षुमी नंदता. जो दुबळ्यांचो आनी गरिबांचो लेगीत भौमान करता, बळिश्टाचो

अवमान जावचो ना हाची जतनाय घेना; गरज पडल्यार ताच्या आड वचप लेगीत जो अनमनचो ना ताकाच लोक शाणो म्हणटात. अडचणिचें कार्न पडल्यारूच जो खंती जायना, जो दुख्खां अरिश्टां सगळीं मोन्यांनी सोसता आ हातांत घेतिल्लें काम नेटान मुखार व्हरता ताकाच सदां जिविनांत जैत मेळटा. बेकार कसो बेश्टो हेवटेन तेवटेन हेडना, जो अुणाकांचो सांगात धरिना, चो फटिंगपणा करिना, सोरे पियेना तो सदां सुखी. जो केन्ना फट अुलयना, ल्हान ल्ह गजालींक लागून जो झगडत बसना, कोणे मान दिलो ना म्हूण जो रागार जायना शाणो. जो दुसऱ्यांचो मत्सर करिना, गरजे भायर अुलयना, दुसऱ्यांचें नदरेंत भरपासार भेस करिना, आपल्यो व्हडविको गावन दुसऱ्यांक अुणें लेखिना, चिंवचिंवून गेल्ल आसतना कोणाक अुणें अुतर दिना ताचेच भोंवतणीं लोक अेकटांय जाता पालवल्लें किर्जील जो परतें अुपरगसून काडिना, येस मेळ्ळें म्हण जो हड्डें मुख काडून चलना, अपेस मेळ्ळें म्हुण जो तोंड लिपयना, वायट दीस आयले तरूय आपलो पांवडो सोडिना ताचें शील बरें. ताका लोक अुजू चलणुकेचो लेखता आपलें बरें जाल्लें पळोवन जो भुल्लुसून नाचना, दुसऱ्यांचें वायट जाल्लें पळोव जाका खांतखुतल्यो जायनात, दान दिल्या अुपरांत जो पश्चात्ताप करिना ताका लोक व्हड मानतात. व्हड मनीस लग्नाचें, अश्टागंतिचें, दिवपा घेवपाचें वी वेव्ह आपल्याच पांवड्याच्या लोकांलागीं करतलो. अुणांका लागीं करचो ना. गुणी लोकां तो सदांच भौमान दितलो. आश्रिताक दिल्या अुपरांतूच आपूण खातलो. खूब नकाल घेवन कामां करतलो, खूब थोडो न्हिदतलो.

## प्रज्ञावंत राजा कसो आसता

विदुर सांगतालो आनी धृतराष्ट्र मन लावन आयकतालो. धृतराष्ट्र म्हणपा लागलोः

आमच्यांतलो गिन्यानी तूंच. आमच्या बऱ्याक कितें पडत तेंच सांग. तूं सांगत तें आयकून बरें दिसता. हुसक्यान म्हज्या आंगाक हुलोप पेटला. म्हाका न्हीद लेगी पडना.

विदुर सांगपाक लागलोः

जाचें बरें जावचें-शें दिसता ताच्या बऱ्याची गजाल अनमन नासतना ताक सांगची. मागीर, ती ताका रुचूं वा ना रुचूं. फटींगपणां करून कामां जातात जाल्यारूय, तू ते वाटेन वचू नाका. बरें काम करता आसतना अपेस आयलें जाल्या

ल्हान करूं नाका. कामाक हात घालचे पयलीं आपुण तें कित्या खातीर करतां,
ूंत अडचणी कसल्यो कसल्यो येवं येतात, हाचो परिणाम खंय कसो कितें जांव
ा, संगळें बारकायेन येवजूक जाय. त्या अुपरांतूच काम करचें काय करचें न्हय तें
गवंक जाय. आपल्या राज्याची येणावळ वाडटा काय वाडना, लोक सुखी आसात
य सुखी नात, कायद्याक लोक मानतात काय मानिनात, राज्याची अुदरगत
कास) जाता काय जायना, सैन्य सारकें घटमूट आसा काय ना हें ज्या राजाक
र ना ताचें राज्य तिगना. राज्य मेळळेंच म्हुण जायना, तें चलोवंक येंव जाय. ना
ल्यार राज्य हातांतलें वता. नुस्तें जशें गरयेक लायिल्लें हांयसूच पळेता, भितल्ले
येक पळेना, तसो, जो राजा करणे भितल्ल्यो अडचणी पळेना फकत वयलो
बूच पळेता, तो काबार जाता. जो खावं येतलो, खातकूच पचतलो, पचतकूच
याक पडटलो असलोच घांस मनशान तोंडांत घाल्ला बरो. जो रुखावेलीं हरवीं
ळां तोडटा ताका फळाचो रोसूय मेळना, बींवूय मेळना. पिकिल्लेंच फळ तोडूंक
य. तरूच रोस चाखूक मेळटलो आनी बीं रोवंक मेळटलें. गुंगुल्लो जसो फुलाक
ास दिनासतना भितल्लें म्होंव चोखता तशें राजान लोकांक त्रास दिनासतना राज्य
रचें. केली जाल्यार लाव कितें जातलो, केलींना जाल्यार लुस्कान कितें जातलें,
ारकें बरें येवजुनूच मनशान करणी करची. कांय वावर असले आसतात कि तूं
तलेय त्रास काड, तुगेले त्रास फुकट वतात. असल्या वावरांक शाण्या मनशान
न्ना हातूच घालचो न्हय. जो खोश्शी जालो जाल्यारूय लाव ना, रागार जालो
ाल्यारूय लुस्कान ना असलो पिचपिचीत राजा लोकांक मानना - जशो खंयचेच
ायल-मनशेक खोजो घोव मानना. कांय कामांत सुरवातीक ल्हानशीं दिसतात. पुणून
ुखार तीं खूब पळां दितात. शाणो मनीस असलीं कामां रोखडीं हातांत घेता, कळाव
ावन कामां अडचणी येसर तो रावना. जो राजा प्रजे कडेन मोगान पळेता तो बसून
ावलो जाल्यारूय प्रजा ताका तेंको दिता. करणेन वाचेन मनान आनी नदरेन जो
ोकांक खोश्शी दवरता त्या राजाचेर लोकूय खोश्शी आसतात. वागाक पळोवन
चेतळां भियेतात तशी राजाक पळोवन प्रजा भियेवपाक लागली तर मागीर समुद्रा
ेरेनचें राज्य आसुनूय कित्याक अुपकारता. वाव सुटना फुडें जशीं कुपां अुबून वतात
सें अन्याय करतल्या राजाचें राज्यूय अुबून वता. मागीर, तें ताका हकान मेळिल्लें
आमलें म्हुण कितें जालें. परकीं राज्यां मोडपाचो यत्न करचे परस आपलें राज्य
तिगोवपाचो यत्न करप सदां बरो. न्यायान राज्य घेवचें आनी न्यायनूच तें चलोवचें,
न्यायान जोडिल्ली जोड (लक्षुमी) केन्ना ना जायना, केन्ना अुणीय जायना.

## प्रज्ञावंताचे आचार

फानरांतल्यान भांगर काडटात नशें वडवड्याच्या, पिश्याच्या आनी भुरग्या
लेगीन अुलोवण्यांतल्यान कितेंय मेळळें जाल्यार भांगर समजून तें अुखलचें. शेतां
शिंपडिल्ल्या भाताचो अेक अेक कण वेंचून काडटल्या मनशा भाशेन बरे विचार ज
जंय मेळटात ते सगळे शाण्या मनशान अेकठांय करचे. मस्ने गायेक मार खावं
पडटा. जी सुखान धार दिना ते गायक कोण वोड लेगीन लावचो ना तापयल्ले बग
जें वागवल्लां ताका वागोवपाक कोण तापयना. हेंच मनींत धरून शाण्या मनशा
आपणा परस व्हड मनशा मुखार नमून चलचें. मोनजातीक आधार पावसाचें
राजाक ताच्या मंत्र्यांचो, बायलेक घोवाचो, बुद्वंताक विद्येचो. सत्यान धरमाचें
राखण जाता. अभ्यासान विद्येची. शिंगारान रुपाची आनी अुजू चलणुकेन कुळाची
जल्मान अूंच कुळांतलो जावनूय चलणुकेन मनीस अुणाक आसत जाल्यार म्हज्य
मतान ताका अूंच कुळांचे भोमान मेळूंक जायनात. हाच्या अुरफाटें, अुणाक कुळां
जल्माक येवनूय चलणुकेन मनीस अुजू आसत जाल्यार ताका अूंच कुळां
भौमान दिवपाक अनमनूंक जायना. दुसऱ्याचें धन, रूप, कर्तृत्व, कुळ, सुख आनी
भाग्य पळोवन जाचे दोळे फुट्टात ताका रोगी धरचो. विद्या, धन आनी कुळ ह्यां
तीन राजाली मनशाक (गर्विष्ट आसत जाल्यार) मदांध करतल्यो आनी (तो शीळवंत
आसत जाल्यार ताका) नम्र करतल्यो. बरो भेस करून भोंवल्यार चार चोगां
भौमान मेळत. घरांत गायो आसत जाल्यार पक्वान्नां खांवंक मेळत. गाडी घोडें
आसत जाल्यार वाट बेगीन कातरूंक मेळत. पुणून आंगांत शीत आसत जाल्या
अख्ख्या संवसाराचेर जैत जोडूंक मेळटलें. जिविनांत सगळ्यांत चड म्हत्वाचें त
शील. मनीस तेंच होगडावन बसत जाल्यार ताच्या जिविनाक कांय अर्थ अुरचो ना
मागीर, ताचे कडेन केदीय मोटी संपत आसूं वा ताचें केदेंय व्हडलें घर आसूं
गरीबांक सदां सुवादीक जेवण मेळटा. कित्याक, तांच्या पोटाक भूक लागिल्ली
आसता आनी सुवाद खरेंपणानशी भुकेंत आसता. श्रीमंताच्या नशिबांत ही भूक ना
देखून तांणी पक्वान्नां जरूय खालीं तरूय तो तांकां गोड लागनात.

बारीक लोकाक भय अुपासमारिचो. मदल्या पांवड्याच्या लोकांक मरणाचो
आनी व्हड मनशाक अवमानाचो.

मदां भितर सगळ्यांत वायट मद गिरेस्तकायेंचो.

## पयलीं अिन्द्रियांचेर जैत

मनशान पयलीं खासा आपणाचेरूच जैत जोडूंक जाय. आपणाक आपले ादीन दवरूंक जाय. आपणाकूच जिखूंक जाय. जो आपणाक आपले सुवादीन ंरी नासतना आपल्या हाता सकयल्या लोकांक आपले सुवादीन दवरूंक पळेता नी तांका सुवादीन करी नासतना दुस्मानाचेर जैत जोडूंक वावुरता ताचें अखेरेक शेंच जाता. जो आपणाक जिखता, आपलीं अिद्रिंया आपले सुवादीन दवरता नी येवजून करून करण्यो करता तागेंर लक्षुमी सेवा करूंक येता. आमची कूड ळ्यार अेके तरेचो रथ. आत्मो रथ चलोवपी (सारथी) आनी अिर्नद्रिंयां म्हळ्यार डे. घोड्यांक सारके शिकोवन तयार केले म्हण्टकूच रथांत बशिल्लो जसो सुसंगीत ट कातरता तसो शाणो मनीस आपलीं अिन्द्रियां आपले सुवादीन दवरूंक नात तो न्द्रियां सुवादीन जालतो आनी मागीर दुख्खाक सुख, अर्थाक अनर्थ, अनर्थाक अर्थ नूंक लागतलो. न्याय नीत सगळें सोडून तो वैभव, जिवीत, संपत सगळें होगडावन मतलो. संपतूच आमचे सुवादीन आसली म्हुण अुपकारना. अिन्द्रियां सुवादीन सूंक जाय. मनीस जैन्ना आपलें मन, आपली बुद्द, आपलीं जिन्द्रियां आपले वादीन दवरतलो तैन्नाच तो खरेपणानशीं आपणाक वळखूंक पावतलो. कित्याक, नीम आपलोच आपुण दुस्मान, आपलोच आपुण अिश्ट. जो आपणाक जिखता तो ाचो अिश्ट. जो जिखूंक पावना तो ताचो दुस्मान.

## भाग्यवादा आड प्रज्ञावाद

हे तरेचो जायतो अुपदेश विदुर धृतराष्ट्राक करता.

पांचशें तीस श्लोक आठ अध्यायांत वांटून महाभारतान आमच्या हातांत अेक ागळें वेगळें पुस्तक दवल्लां. भारतीय साहित्यांत-संस्कृतांत, पालींत, अर्ध-मागधींत ंयचेच भाशेंत हे तरेचें दुसरें पुस्तक मेळना.

महाभारतांतले भगवद्-गितेचेर संवसार भरच्या बुदवंतांचें लक्ष गेलें. ाहाभारतांतलेच हे विदुर-नितिचेर कशें गेलें ना हाचें आजाप जाता. हरशी, गवद्-गिते येद्याच तोला-मोलाचें पुस्तक हें.

आरंभाकूच सांगिल्लें: विदुर-निती सामान्य नितीचें पुस्तक न्हय. हे निती ाटल्यान अुब्या आशिल्ल्या, प्रज्ञावादावेलें पुस्तक हें. अेक पुराय 'फिलोसॉफी ऑफ ाअिफ.' अेक जिणेदिश्टी तातूंत दिश्टी पडटा.

प्रज्ञावादाची बुन्याद विदुरान मनीस, कुटुंब आनी समाज ह्या तीन तत्त्वांं
वांदून काडल्या. कर्तृत्व, शील, न्याय नीत ज्या ज्या तत्त्वांक लागून जिविताक अ
येता आनी मनीस कुटुंब हांच्या-वांगडा समाज वयर सरता त्या सगळ्या तत्त्वां
ह्या पुस्तकांन फोडणिशी आयल्या.

महाभारतांन विदुरनितिचो आसपाव जालो तो मुर्गीत समाज भाग्यवादाच
प्रभावांत आयिल्लो. ताका लागून समाज कर्तृत्व-हीण जाल्लो. शांति-पर्वान, मुख्य
मंकी नांवाच्या एका रूशिचो अुल्लेख आयला. मंकी नियतीवादी आशिल्लो. नियतीव
हें भाग्यवाद, दैववाद वा प्रारब्धवादाचें दुसरें नांव. हो मंकी रुशी बुद्धाचे मुर्गीन
मख्वली गोसाल आसूंक जाय. मख्वली गोसालूय नियतीवादी आशिल्लो. बुद्धा
ताका नियतीवादाचो 'आचार्य' लेखला आनी आपलो सगळ्यांत व्हडलो दुस्मा
मानला. बुद्ध प्रज्ञावादी. दोगूय आयुष्यभर भाग्यवादा आड झुजिल्लो. श्रमण-संस्कृताये
वाडिल्ल्यान तो अखेरेक सगळ्यांक निर्वाणाकडेन व्हरूंक वावुरपाक लागलो
गजाल वेगळी. पुणून तो प्रज्ञावादी आशिल्लो हातूंत दुबाव ना. बुद्याच्या प्रज्ञावा
भाशेनूच विदुराचो प्रज्ञावाद भाग्यवादी मताचो प्रभाव अुणो करपाखातीर वावुरल्लो
पुणून विदुरान संवसाराक फाट करूंक नाशिल्ली. देखून तांच्या प्रज्ञावादान मनीस
कुटुंब, समाज आनी कर्तृत्वाच्या आधारान तांची अुदरगत ह्या तत्त्वांचेरूच चड भ
दिल्या. विदुराचे नितीक महाभारतांत 'संसार्ग्णी' म्हळ्या. सगळ्यांक पावला पावला
अुपकाराग पडत असली लेखल्या. तिचोय मोख भाग्यवादाच्या प्रभावांतल्यान समाजा
मेकळो करून ताका कर्तृत्वाच्या मार्गार हाडप हीच आशिल्ली.

भाग्यवादाचीं तत्वां पांच.

1) सर्वसाम्य (म्हळयार सगळ्यांक सारके लेखप)

2) अनायास (हात पांय हालय नासतना जें मेलटा तातूंन संतुष्ट रावप)

3) सत्यवाक् (सत्यूच अुलोवप, सत्यानूच चलप)

4) निर्वेद (कसलीच करणी करप ना) आनी

5) अविवित्सा (असकें जाय तसकें जाय अशें मनांत लेगीत येवंक दिवप ना

कितेंच करूं नाकात, सुसेगाद बरे रावात. जें मेळ्ळां तातूंनूच धादोस-भगीत
रावात. तुमच्या भाग्यांत तितलेंच आसा-म्हळयार, निर्वेद, निवृत्ती, तृप्ती आनी
शान्ती हीं भाग्यवादाचीं आगां आशिल्लीं. भाग्यवाद सत्य, दया, क्षमा असलींय तत्व
मानतालो. तांकां पाळोय दितालो. पुणून तागेली भर भाग्याचेरूच आशिल्ली. देव

म देव व्हडलें. कित्याक, दैवाचेर अेक मात्रा चड, हे स्त्रद्धेन भाग्यवादी जियेताले.

आनी म्हत्त्वाचें म्हळ्यार समाज तांचेंच मानतालो, तांच्या फाटल्यान वतालो, वे देखीन चलतालो.

हें सगळ्यांत व्हडलें समाजिक संकश्ट आशिल्लें। देखून भाग्यवादाचें अेक मत्त ावादाक कातरचें पडलां.

भाग्यवाद म्हणटालो, प्रारब्धांत जशें बरोवन दवल्लां तशेंच घडटलें. तातूंत ल्लो लेगीत बदल जावपाचो ना.

प्रज्ञावाद म्हणपाक लागलो, हें खरें न्हय. मनशाक करणेची मेकळीक मेळ्ळ्या. ्दी परस वयल्या पांवड्याची प्रज्ञा नांवाची अेक शक्ती ताच्यांत आसा. प्रज्ञेक रून करणी करची. ताचें भाग्य बदलतलें.

भाग्यवाद म्हणटालो, हात पांय हालोवन कांयच मेळपाचें ना. जें मेळ्ळां तूंतूच धादोसभरीत रावपाचें.

प्रज्ञावाद म्हणपाक लागलो, तशें जाल्यार मागीर, हात पांय मनशाक दिल्यात ी कित्याक देवान. हात पांय हालय नासतना रावप मेल्लेंवरी जियेवपा सारकें. गीर मरचें कित्याक न्हय. करणी केले बगर मनशाक जियेवंकूच येवपाचें ना आनी र्बा अुत्साहा बगर करणी करूंक येवपाची ना, अुर्बा म्हळ्यारूच जिवीत. कर्तुत्व ळ्यारूच जिवीत. जो करणी सोडटा ताका सुखूय सोडून वता. वैराग्य जिविताची ख आसूं नज, कर्तुत्वूच जिविताचो अुद्देश आसूक फावता.

भाग्यवादी लोक क्षमा-बिमा मानताले. प्रज्ञावाद म्हणपाक लागलो, आंगांत ास्त करपाची तांक आसूंक जाय. ताचीच क्षमा खरी. दुबळ्याचे क्षमेक मोल ना नी अथूय ना.

भाग्यवाद म्हणटालो, समाजांत सगळे सारके. प्रज्ञावाद म्हणपाक लागलो, हेंवूय रें न्हय, व्हड ते व्हड ल्हान ते ल्हान दोनां मजगतीं अंतर सदां अुरतलें. अुरूंकूय ाय. अेक खरें, विद्या, तप, संयम, त्याग, स्वध्यान, दान बी गुण वाडोवन मनीस ानाचो व्हड जावं येता. ताच्यान वयल्या पावंड्यार चडूं येता. तसो तो चडून गेलो णटकूच तो व्हडूच जाता. चारित्र्यान, शिलान, विद्येन व्हड तोच खरो व्हड. मागीर ो खंयचेय जातींत जल्मा येवं. पुणून तो व्हड जातकूच ताका व्हडूच लेखूंक जाय. ाका हेरां सारको लेखूंक फावना.

भाग्यवाद म्हणटालो, वयल्या कुळांत जल्मा आयिल्लो सदां वयरूच अुरतल
गिरेस्त गिरेस्तूच अुरतलो. प्रज्ञावाद म्हणपाक लागलो, कुळाक म्हत्त्व आसा. पुण
आचाराकूय तितलेंच म्हत्त्व आसा. आचारान कुळ वयर सरूं येता. तसो गरी
लेगीत श्रीमंत जावं येता.

भाग्यवाद सत्यवाक् तत्त्व मानतालो, म्हळ्यार सत्य अुलोवचें, सत्यान चल
अशेंच म्हणटालो.

प्रज्ञावाद म्हणपाक लागलो, अुलोवचें जालें जाल्यार सत्यूच अुलोवचें. पुणून
गोड आसचें. म्होवांत घोळोवन अुलोवचें. तशें अुलोवंक आयलें ना जाल्यार अुल
नासतना रावचें. वरसार बसता, काळजाक घाय करता आसल्या सत्याक प्रज्ञावाद
सुवात ना. काळजांत जी प्रज्ञा नावांची देवी बसल्या तीच वाटग्देवीचें रूप घेव
जिबेर येता. ती दुखोवपी आसूंक फावना.

प्रज्ञावाद चड भर दिता, आर्जवाचेर.

आर्जव म्हळ्यार, नीट चलप. अुजू चलप. चित्त निर्मळ दवरप. फटीगपण
वांकडी चाल, कोडू अुतर असल्या गजालींक प्रज्ञावादांत सुवात ना.

भाग्यवाद धर्माक मानी नाशिल्लो. धर्म म्हळ्यार न्याय नीत, लागणूक, द
माया हीं तत्त्वां, प्रज्ञावाद भर दिवन सांगतालो. कसलीय परिस्थिती येवं, मनशा
धर्म सोडूंक जायना. सुख-दुख्ख सगळें खिणयाळें. सगळें अनित्य. येतलें आनी वतल
धर्म मात् सासणाचो. नित्य. सदांच थीर अुरतलो. तो सोडूंक फावना.

न जातु कामान्न भयान्न लोभाद्।

धर्म त्यजेज्जी वितस्यापि हेतोः।।

नित्यो धर्मः सुखःदुख त्वनित्ये।

नित्यो जीवो धातुरस्य त्वनित्यः।।

भाग्यवादाचें अविवित्सा नांवाचें आनीक अेक तत्त्व आशिल्लें. अविवित्स
म्हळ्यार नाका त्या गजालींनी मन घालप ना. हें जाय तें जाय म्हणप ना. प्रज्ञावा
म्हणपाक लागलो, हेंतूय अुपकारना. मनशान सगळ्याच गजालींत मन घालूंक जाय
मनीस संवसार घेवन बसला. ताणें संवसारांत मन घालूंक जाय. घर, शेत, भात
जेवण-खाण, न्हेसण-पांगरूण, अुद्योग-धंदो, अितलेंच न्हय तर राजकी, सामाजि
म्हत्वाच्या सगळ्या गजालींत रूच घेवंक जाय. तातूत सुधारूय घडोवन हाडपा

रूंक जाय. दारिद्रय वांट्याक आयिल्लें आसत जाल्यार तें भाग्याचेर धुकलून ांवक जायंना. तें ना करपाक वावरूंक जाय. केन्ना केन्ना यत्न करुनूय फळ मेळना निर्शेवंक जायना. यत्नूच खंय तरी चुकतात अशें धरून तांतूत बदल करूंक . कांय जाण दारांत लेगीत अुबे करपा सारके न्हय अशे लोक समाजांत सतात आनी लक्ष्मी तांगेरूच वचून अुदक भरूंक लागता. हेंवूय भाग्याचेर लूंक फावना. खरेपणानशों, गरीबाय आनी गिरेस्तकाय भाग्याचेर आधारून ना. तो आधार कर्तुत्व. तें प्रज्ञेक धरून करूंक जाय.

प्रज्ञेक जैत मेळूळे बगार रावच ना.

महाभारतांत मुखार भागवद्-गीता येता, आस्तिक ब्रह्मवाद आनी योगबुद्दोन लो कर्मयोग हांचो समन्वय गितेंत पळोवंक मेळटा. गितेचेय बुन्यादींत प्रज्ञावाद . गितेचो आदर्शः स्थितप्रज्ञ जाची प्रज्ञा थीर, कशीच हालना असलो मनीस. हार येस अपेस सुख दुख्ख हांका नितिचे नदरेन मोलूच ना अशें म्हण्पी. गितेचेर जशीं ्यां लोकांनी बरयलीं तशीं प्रज्ञावादाची बारीक बारीक विसकावणी करपी विदुर-तिचेरूय बरोवंक जाय आशिल्लीं. कित्याक बरयलीं नात, समजना. अेक खरें: दुर-निती चिंतपाक खूब प्रेरणा दिता. पाचशें तीस श्लोकांचेर पांचशें तीस चनां बरोवं येतीत अितलें भल्ला ह्या पुस्तकांत.

अेक नवी नदर दिवपी, नवी अुर्बा दिवपी, जिविताक अेक नवो अर्थ जोडून वपी, नवी देख लावपी आगळें वेगळ हें पुस्तक कित्याक लागून कडेक पडलें, मजना. भाशांतरकारांनी ताका 'विदुर नीती' नांव दिल्ल्यान बी न्हय मू?

अेक खरें, ताचो अुवेख पळोवन जीव खंती जाता. कोणेय जाल्यार केन्नाय तरी हाभारताचे खणींतलें हें रत्न घांसून पुसून निवळ करून लोकां मुखार दवरुंकूच य.

जिविताचें भांगर करपाची तांक आशिल्लें अेक पुस्तक हें.

# गोंयांतल्यो धालो, जागर आनी शिगमो

शंभू खेडक
सावयवेरें, फोंडें, ग

('कोंकणी टायम्स' दिवाळी 200

अन्नंतर गोंय भूंयेनले तीन मुखेल लोकोत्सव म्हळ्यार धालो, जागर, शिगम
हे लोकोत्सव लोकपरंपरा आनी चालीरितींची पाळां -मुळां घट्ट धरून दवरता
'असं घाटार साकून गावडों एक कोंकणां देवलो वा; घाटार साकून गावडो ए
कोंकणा देवलो. कोंकणां देवूनी गावड्यान काय वो केला, काळ्या-भाळ्या वेला
जोंन वांदीयेला वा. असं ही ... री री पाप्पारी जोंन आमडूंक लागलो वा. आ
नांगराच्या अंडेक लागून कुंडळ मेळला वा. नांगराच्या अंडेक लागून कुंडळ मेळ
तो कुंडळ नेवून दिला जनक राज्या घरी वा. जनक राज्यान कुंडळ फोडून पाहील
असं मुठभर मासाचीरे सूर्यो तेजाची कन्या जेलमली देवांची, कन्नया जेलमली गा

आदलें जाण्टेले शिकूनाशिक्ले पूण गितावरी ते सामके सोपे रितीन रामाय
मारकील्ल्यो कितल्योशोच जोगी घडोवन शिगमो, धालो, जागर, खेलटाले आ
ताकाच लागून गोंयची सासाय वेसवरी तिगून रावनाली.

शिगम्याच्यो जोती, नाच्यो मोडी, वेगवेगळ्या पद्धतीची कला; धालो, जागरा
गितां खूब किते दिवन वनाली, 'मोड-मोड रावणा रामाशिना, नाय मोडीना ग
लंकेवयर येता.'

अशो मोडी, खेळिल्लों पळयतना खूब खोशी जाता. आदले कुळंवी, आता
कोंकणी कुणवी. हे तांचेच कार्य अशेंच म्हणचे पडटा.

पावसाळ्या उपरान्त लुंवणी, मळणी, आश्वीन, कार्तीक, म्हयन्यांत जात
मळणेचें भात जमा जावन मळांनी खळांनी भाताच्यो राशी पडटात. शेतकारांल्य
आनी कामगारांल्या घरांनी लेगीत कांय दिसा पुरती जायना, पूण अन्ना ची पुरव
जाल्ली आसता आनी लुंवणी मळणी सोपल्या उपरांत शेतकार-शेत कश्टांवर्प
सामके सेकळे जातात. अशा ह्या दिसांनी ते सामके खोसयेंची जीण जगपाचो यत
करतात; अशाच दिसांनी पयल्या हेमंत ऋतूंन चरणांची पावला वाजवंक लागता
सोबित अशी हिंवळ पसरूंक लागतात आनी, ह्याच दिसांनी त्यो गोंयांतल्यो, का
जात्रा, देवळांनी चालू जावन सोपता, इतक्यांत 'पौश' मयनो म्हळ्यार 'मालूण

नो लागता. ह्या म्हयन्यांत कुळागारांतल्यो, तळयो, बांद बांदल्ल्यो बांदून-
ागर शिंपपाचे काम चालू जाता, मालूण म्हयनो 'म्हळ्यार गोंयकार म्हण्टात
ा-खेत्र्यांचो म्हयनो. ह्या म्हयनांत दनपारचे रातचे जी भुरग्यांक भायर भोवल्यार
टी मनशा तांचेर रागार जातात, तांचेर बारीक नदर दवरतात, आनी ह्याच
न्यात 'धालो जातात, धालो म्हळ्यार लोकपरंपरांची एक मूस. गोंयची आस्मिताय
ोवपी प्रकार म्हुणू येंता. गांवांत वा वाड्यार एकतरी धालांचो 'मांड' आसताच.
ांचो मांड म्हळ्यार गांवाची एक अशी लांब-रूंद उक्ती जागा. ह्या जाग्यार -
तुळशीचे पेड आसता. कांयकडेन तेकूनच पिंपळापेड रुमडापेड लेगीत आसता,
नी ह्या मालूण म्हयन्यांत घरां-घरांतल्यो-बायलो सवायशिणी, वा कांयकडेन
यो-बायलो अशे सरबरस धालांच्या मांडार जमतात, आतां धालांक पयल्या
ना उबे रावतना मांडाच्या गुरूचे पुजन, तुळशीपेडाची गांवच्या व्हड जाणट्या
शांक हाडून पुजा करतात. अनी सांगणे करून धालांक सुरवात जाता, कांयकडेन
न दीस वा गांव व्हड असल्यार अकरा दीस अशो धालो चलतात, धालो
ोवपाक लेगीत लोकांची भुरग्यांची गर्दी जाता; व्हड धालांचो मांड आसल्यार
ापानांची दुकाना लेगीत घालतात, तशी च्या-खावपा-पिवपाची सोंय बायलां
ाणी काडून चलयतात आनी पिवपाची म्हळ्यार मद्य प्राशन म्हळ्यार - सोरो सूर
य. कोणय पिवून आयल्यार चलयो तांका धावंडावन दितात. आमच्या मांडाच्या
ूक भ्रश्ट करपाचो ना, अशे तांगेले मत आसता. धालो खेळताना ती गायतात.

'रथा तुज्यो दांडयो; साडेतिनशी घुडयो;
रथांत कोण देव बसे गे
रथांत कोण देव बसे
रथांत बसे सांतेरी माया
मांडार खेळूक आयल्या गे
मांडार खेळूक आयल्या,
रथा तुज्या दांडयो साडेतिनशी घुडयो
रथांत कोणदेव बसे गे
रथांत कोणदेव बसे
रथांत बसे मांडाचो गुरू
मांडार खेळूंक येयला गे
मांडार खेळूंक येयला

अशे तरेन सगळ्या देवांच्या नांवान धालांक मुखान जाता.

आंब्या तुजें पान बाये आंमट
आंब्या तुजे पान बाये आंमट
दत्तात्रिया देवा तुका दंडवत
दत्तात्रिया देवा तुका दंडवत
दत्तात्रिया देवा तुका दंडवत

अशे तरेन सगळ्या देवांच्या नांवान धालो रंगार येतात, आनी गर्तीच्यो गर्त धालांचे मांड धालांनी, धालांच्या गितांनी सासको उमेदीन फुलून रावता, आनी आदल्या दिसावरी परत निमण्या दिसा, गांवकारांक म्हळ्यार वाड्याचो मुखेल नाका आपोवन तुळशीची पुजा करतात. सगळ्या देवाच्या नांवाचो भोमान त्या-त्या देवांक उकलून दवरतात, मागीर करून तो पावोवपाचो, पानसुपारी विडो, नाल्ल करीं दवरून माडांच्या गुरूंचो भोमान करतात. तांका नतमस्तक जातात, कांय कडेन धालांच्या मांडार भौशिक महापुजा, वाड्याकारांक जेवणाचे आटवल वीं करचेच पडटा, गती कडेन मांड दवरातात; म्हळ्यार वाड्याकाराक हांडून मागणे करतात, गाराणे घालतात.

"देवा जाग्याच्या धनयां, मांडाच्या गुरू,

देवा गांव पुरसा, देवा वर्साच्या धड्यार आमच्या बायलां, सवार्यशिणीं, नांगेली चेंडवां, भुरगींबाळां, देवा माडांच्या गुरू तुज्यापायांकडेन ती खेळली, वर्साच्या प्रमाण तांची केल्ली सेवा तूं पावन घे. कितेंय चुकला आसातलें. भ्रष्ट जालां आसतलें, त चूक माफ करून घे. तांची तू राखण कर.

अशें गाराणे चालू आसतानाच 'रंभा' येतात आनां 'रंभा' म्हळ्यार चलयांचे भार येता. म्हळ्यार अवसर चड करून चलयांचेरूच येता. कांय कडेन बायलांचे येता, त्या भारांक केल्ली सेवा पावल्या काय किते? वासपूर जाता, हेर कसलेंय प्रश्न आसल्यार त्या रंभाक विचारून सोडतात; मागणे करून मांड दवरतात, रंभांचे भार खूब वेळान निवळत वता.

कुळागरांतली कामां, शेतांनी 'वार्‍यां' म्हळ्यार भाजी, मिरसांगो रोवपाची कामां चालू आसतात, भाजी, सगळ्या कडेन मेळटा, म्हणसर फाल्गून म्हयनो येता आनां फाल्गुन म्हयनो म्हळ्यार 'शिगमो म्हयनो' हिंदू बांधवांच्या वर्साचो निमणो म्हयनो, निकतोच-काजू-आंब्याचो भिण्डां, फणसुलांचो मोससभार पानांपानांग

ा-घरांनी दिमूंक लागता, अशा वेळार सगळ्यांच्या कामाक नेट आयिल्लो आसता, ृवटेन घामाच्यो पावळ्यों देवतात, गांवानी, वाठारांनी काजू सोऱ्यांच्यो भाटयो, गतात, कुळागरांतल्या शिपण्याकय वेग आयिल्लो आसात. कांय जाण हेच म्हयन्यां वन वर्साचो पुरिमेत करपाक लागतात, कांय जाणांची लग्नाय तेकून आसतात, वा-गावांनी कामां भरिल्ली आसतात. आनी ह्याच म्हयन्याच्या नवमी दिसा, ळ्यार 'नोमी' दिसा शिगम्याच्या मांडार वाड्यावयले, गांवांतले मेळून मांडार ल ताशे घेवन रातीकडेन जमतात, आतां शिगम्याच्या मांडाक आनी धालांच्या ांडाक वेगळे अशे काय नासता. धा जाणांची म्हळ्यार गावची एक लांब रूंद अशी ागा त्या जाग्यार एक व्हड तुळशीची पेड. थंय वाड्याचो मुखेली, देवाच्या नांवान मन करता, मांडार तुळशी पेडयेर नाल्ल-पान विडो दवरता. धोल-ताशे वाजवन मट् मारतात. सगळ्या देवाचे नांवांची जोत म्हणून मांडार खेळटात. आनी दुसऱ्या ़सा सावन घरांघरांनी खेळूंक वतात. आतां कांय वाठारांनी नवमीन शिगमो सुरू ाता, जाल्यार कांय कडेन-पुनवेन सुरू जाता, आनी ओंमास मेरेन चलता. कांय ़डेन पुनवेच्या दुसऱ्या दिसा होळी जाता. होळी म्हळ्यार गांवांतल्या देवळांकडे गडे ाडटात म्हळ्यार गाड्यांचो भारांचो उत्सव. मागीर सुपारेचें झाड म्हळ्यार माडी ाडून होळी मारतात. तर कांयकडेन हेच माडयेच्या जाग्यार सावरीचो खांदो हाडून ुरतात. 'होळी' म्हळयार मुळांत आशिल्ल्या फातराचेर मारून दर घराचे एकतरी ाल्ल हे होळयेच्या मुळांत फोडटात, आतां होळयेचो अर्थ म्हळ्यार वर्सा भितर मरून गेल्ल्या व्यक्तींक 'हालवातीनीक हे होळयेच्या नेमांत घालून तांचेर होळी माल्ली. आतां ही देवी ग्रामदेवता आमची राखण करतली. अशा ह्या शिगम्या म्हयन्यांत प्रसाद पाकळी खंयच्यांत देवळांनी जायनात. आतां शिगम्यांक खेळूंक गेलेना जाल्यार कांय कडेन दादल्या मनशाक दंड भरचो लागता. शिगमो म्हळ्यार एकमेकांक मेळपाचे उमेदीचे दीस, गांवांतलो शिगमो सोपत येतो, पुण शारांनी शिगम्यांच्यो सर्ती व्हडा प्रमाणांत जातात, रोमटामेळ, चित्ररथ, लोकनाच, अशा खूबशा कलेक हांगा मेकळीकेन वाव मेळटा, त्याच कारण लागूनय लोक परंपरेतली कला जिवी उरूंक पावता. पुण 'धालो, जागार' हांच्यो मात सर्ती तशे व्हडा प्रमाणांत जायनात. तांच्यो लेगीत सर्ती अश्या राज्य पातळीचेर घडोवन हाडपाची एक व्हड गरज आसा.

वसंतऋतूंच्या चरण मोसमांत 'शिगमो' व्हडा प्रमाणांत फुलत रावता; फुडें गोंय राज्यांतल्या खांची कोनशांनी आशिल्या गावगिऱ्या वाठारांत फणसुलां, काजू आंब्याचो

सोमम दिक-दिकांर उदेंना आनी अश्या वेळार वाठारांतल्या दर एका व्यक्तीक कामां फुडे पुरसत खंय मेळटा? आनी सोमसमांचे दीस हयन्हूशें मात्सें मंद जायत वता तेन्ना पुरिसेंतार्ची कामार-कामं. कशीच फुरसत मेळना. तांतूनूच कांजयाण काजू सोयाच्या, आनी तण्यां आसले तोरांच्या केफांत गुळलावन आपली मोज-मजा करतात. मागीर जंय कामा आसात. थंय चड थोडे पैशे वोत्सांनी आसतलेच. मागीर नव्या काजू हुर्राकार्ची चव तशीच फुलून येवचिना किल्यावेल्यान.

हे सगळें खरें आसलें तरी अशा दिसांनी कुळागरी भागांनी उदक उणें जाता. शिंपणावळी उण्यां जाता. साया आनी खाऱ्या शेतांनी खणपाचें काम चालू जाता. कारण आनां खणून दवरल्यार पयल्या मिर्गाच्या पावसार कामां बरीं जातात. मिर्ग लागी पावता, तशें म्हळ्यार चैत्र म्हयन्याच्या दुसऱ्या आठवड्यासावन आदल्या कुळंबी आताच्या कोंकण्या गावड्यांची लोक कला म्हळ्यार खोसयेची उमेदीची आयजमेरेन 'रंग' धरून गातिल्ली लोक परंपरा, चालरीत ती जावन आसा जागार. 'जागर' ह्या नावांचो अर्थूच तसो आसा की वाड्यांकारांनी रात भर जागरण करप, नाचप, गावप आनी हाचे वयल्यांनच 'घुमट' आनी हेर वाजपासयत कलाकार तरेकवार कांतरां म्हूणून-रंगरंगयाळो वेश घालून नाचतात.

आनां 'धालांचो मांड', 'शिगम्याचो मांड आनी जागराचो मांड आसता. काय जागरमांडाचेर आनां नव्यापिळग्यानी राम हनुमान 'देवां सारकिल्यो आपल्या वर्गणी रुपान देवळ्यो बांदल्यात आनी जागराच्या आदल्यादिसा सार्वजनिक महापूजा रातीकडेन नाट्य परंपरा चालू केल्या. ही रीत केल्या आनांच्या सुधारिल्ल पिळगेन. आनां सकाळी फुडेच वाड्यावयले लोक जागर मांडार एक जातात. 'जागरा मांड' झाडून, मांटव घालून शिंगारतात. जागराच्या दिसा सकाळी वाड्याकार येवन (वाड्याचो मुखेली) जागरा मांडाच्या गुरूची, देवळेंत वचून देवाची गंध फुलां सयत पूजा करता. सांजवेळार गावकार/वाड्याकार रंगमाचयेची व्यवस्था, लोकांची बसपाची सोय करतात. ही आताची रीत. दिल्या तेपार बसपाची सोय स्वतःच करची पडटाली. कारण 'जागर' हो एकल्याचो न्हय अशी भावना आसताली आनी आनां लेगीत ही भावना आसा. सादारण संजेच्या पांच 'स' वरांचेर वाठारांतले लोक आपल्या सोयऱ्यांची आनी आपली बसपाची सोय म्हणून बसपाखातीर माटवांत 'साक' शेंदऱ्यो, साकाची भाळ्ळी घालून दवरतात. पयली माटवांतूच 'जागार' जातलो म्हळ्यार ही लोक कला सादर करपाक रंगमाची नासताली. आनी आनां लेगीत खूबकडे अशी रंगमाचीना. भोंवतणी पड्डे, तर्फे लावन जागर रातीच्यो राती चलतात. जागराक एकदा सुरवात जाली म्हणतरी तो सोमतो सकाळी दिसार सोपता.

तेन्ना गांवच्या लोकांनी घरा वचपाचो अशे नेम आसतात. उपरांत गांवकार ान वाड्याकारांक घेवन सगळ्या गांवच्या जळी-स्थळीच्या देवांक भौमान दिनान. ळ्यार नाल्ल विडो, देवांच्या नांवांन उखलासून दवरतात.

जागरमांडावयल्या तुळशिच्या सामकार धा जाण येवन सांगणे करतात. वर्सावळीची ्वण मागतात, इतले जरी खरे आसलें तरी जागराक सुरवात जाल्याउपरांत ड्यावयल्या खंयच्याच व्यक्तीक घरां वचून निजूक मेळना, कारण एकलो घरा यार दुसरो बतलो. जागर करतले आनी पळयतलो कोण?

जागराची सुरवात वाड्यांवयल्यान चुडट्यो पेटोवन वाड्याकार घुमटां वाजयत ांक नमनगितां गायत येतात. 'पयले नमन म्हजें मांडाच्या गुरूक, नमन म्हाज़ें डांच्या गुरूक, नमन म्हाजें सांतेरीमायेक नमन म्हाजे सांतेरीमायेक अशें तरेन ळ्या देवांच्या नांवान जागर गितां सोपल्यानंतर पयलें नारदाचे, उपरांत गणपतीचे यकडेन श्री गणपतीचें सवंग पयली येता; हाचेवयल्यान आताच्यावरी आदले लोक ीन गणेशाक बरेच नमताले, उपरांत 'तुरमटी, सवंग'

'फिलोणी घालता तुका
तूं येवची रावंनाका;
फिलोणी घालता ऐसा
तू दुरगार येवूनी बैसा;

अशे तरेचे कांतार करून हासोवन सोडटा, अशी खूब तरांची सवंगा, कांतरां ासात, सगळ्या जागरांनी एक व्हड सवंग म्हळ्यार मामां-भाच्यांचे. शेवटाक तांचे द्ध जाता;मामी येवन रडटा; अशी खूब तरांची सवंगा; विडंबणा; जागृताय; हाडपी; नशांक सुधारपी; खूब तरांची अर्थ भरीत सवंगा आसात.

जांच्या बापायक सवंग आसा ते सवंग तांच्या चल्याक. चलो नाजाल्यार तांच्या टुंबांतल्या दादल्या मनशांक मेळटा, थरावीक वर्सावळीची सवंगा रंगमाचियेर येवन वपाची आसतात.

घुमटां आनी डफ हांच्या नादांत संबंद गांव रातभर गडगडून वता. कांतार ाराचें:- 'आमी गा म्हारांसायबा आशे दाशेची,
'आमी गा म्हारांसायबा वन्दा थेंब्याची'

अशेच आनिक एक सवंग. ही अशी दोन सवंगा पायांक व्हड (खूट) दांडल्यां ांदून येतात, आनी गायतात.

गंडे बायलांक मंद येयला...

तांच्या दुड्वाचो हो, तांच्या दुड्वांचो राया,

तिगेल्या कुलपाचो राया

अशे खूब तरेंची सवंगां रंगमाचयेर येवन नाचतात. तांचे-तांचे आनी वाजपाचे चाल तरंतरंची आसता.

इतलें मात खरें, शिगमो राज्यपातळेचेर सगळ्यांनी घडोवन हाडटात. पुण नशों 'धालो, जागर हांच्यो सर्वी राज्य पातळेचेर घडनात. तेन्ना राज्य पातळेचेर व्हडा प्रमाणान; धालो, 'जागर' जागर सिनां हांच्या सर्वी येवपाची गरज आसा शिगम्याक नवें वळण दिता. मूळ विसरून फातना शिगम्याच्यो जोती, 'मोडी, धालो 'जागर' हांच्यो सर्वी घेवन पुर्विल्या लोक परंपरेची कला सांबाळून दवरपाचें ए व्हड कार्य समग्र आयच्या भुंयपुत्रांचेर विसंवून आसा लोकगितांतल्यान गोंय भुंयेचें अस्मिताय निरोवन उरता. आनी हीच अस्मिताय जिवी उरपाखातीर तीज गावें समाजान फातरांक देव मानिल्ले. झाडांचेर, देव-देवचार आसात, वेताळ, भूत आसात मानिल्लीं. आनी ताका लागूनच गोंय भुंयेची राखण जावंक पावताली लोकगितां, चाली रिती, लोकपरंपरा; लोकभास हांकाच लागून गोंयभुंयेची राखण जावंक सामकी सोपी जाता आनी अंधश्रद्धा आसली तरी तातून खूबशे अर्थय लेगीत आसतात.

शिकूनाशिल्ल्यो व्यक्ती लोकगितां रचताल्यो. त्यो अर्थभरीत जावन आयज लेगीत आमकां जिवेरूप दाखयतात.

धालो, जागर, शिगमो हांच्या रुपान निजभुंयेंतल्यान किल्लावन आशिल्ल्यो लोककला जतन करतले जाल्यार गांवांगांवांनी भोंवून लोककलेक उदक सारें घालून फुलयन वाड्यान जिवी दवरची पडटली.

# गोंयचो कालो

- विनायक विष्णु खेडेकर
('कोंकणी' दिवाळी 1980)

लोकनाट्याची परंपरा ही त्या त्या प्रदेशाची अेक खासा आस्मिताय आसता. ानी ही परंपरा जितली व्हड, समृद्ध, तितलो त्या भागाचो सांस्कृतिक इतिहास ाटो अशे मानतात. गोंयांक अशी अेक निजाची लोकनाट्याची परंपरा आसा ांतूंत चड करून कालो, रणमाले, पेरणी जागर, गावड्यां जागर हे प्रकार आसात. शिवाय गोपाळकालो, गौळणकालो, लळीत होंयी गोंयात जातात. असल्याच काल्याचो ांगा विचार केला.

मात अेक आसा. गोंय आणि कालो अशें म्हण्टा आसताना आयचें पेडणे ते ाणकोण हेंच राजकीय शिमानीं बांदिल्लें गोंय घेवन भागचें ना तर पुर्विल्लें गोंय ांय नउशें गांवां अेकठांय आसलली आनी ज्या गोंयच्यो सिमो उत्तरेक कुडाळ मेरेन ाणि दक्षिणेक गोकर्ण आयल्यान आशिल्ल्या गांगावळी न्हंय मेरेन पाविल्ल्यो, ह्या ोंयचो विचार करूंक जाय आनी अेक म्हळयार ह्या वयर सांगिलल्या अितल्या ादेशांतच फकत कालो जाता. बाकी खंयच तो जायना. तशेंच गोंयांतच सत्तरीत आनी सांगे तालुक्याच्या कांय भागांत कालो जायना. बाकी सगल्या गोंयांत कालो जाता. जण अेक गावंच्या देवळांत काल्याक वेगळो असो खास जागो आसा. कांयकडानी आजून तो बरोच जितो आसा. तर कांयकडानी सासको सोंपिल्लो आसा. त्या दिसाची भोगावळ म्हण कितेंय तरी जाता अितलेंच. पुण पयलींचो तो दबाजो आयज उरुंक ना.

## कालो हें नांव

कालो म्हळयार कितें: हाची जाप आजून म्हाका मेळ्ळी ना. पुराणांत श्रीकृष्णान तरेकतरेचे पदार्थ अेकठांय कालौन ताचो कालो करून खालो अशें सांगतात. आदल्या दिसाच्यो भाकऱ्यो पिसडून तांकां सोय,फोण्ण, बी घालून अेक प्रकार खावपाक करतात, ताका कालो म्हटात. खूब कुलकुलाट जालो कीं, ताकाय कालोच म्हण्टात. भुरगीं अेकामदीं अेक अशीं सारखीं उलौंक लागलीं की, 'कितें कालो करता रे?' अशें आमी म्हण्टात. गोंयच्या जात्रांनी, उत्सवानी कांच्याबुच्यांचो कुल्लाळ आसता. चडशा देवळानी आजय तरेकतरेचे उत्सव जातात पुण ते सगले मागीर

आयिल्लें. काल्लो हो खरो आदलो आनी देवळांत काल्लो भल्ला म्हणजे लोकांचो कुल्लाळ, हाचे वयल्यान काल्लो, हो शब्द, हें नांव आयलां जांवये. तशेंच काल्लो हो खाशा कोंकणी आसूंये. दशावतारी काल्लो, गवळकाल्लो, संकासूरकाल्लो अशीं ह्या काल्याक गोंयांत नावां आसात. गोंयचे शिमेर आशिल्ल्या सातडें ह्या गावांत बाळक्रीडा काल्लो म्हण जाता. पुण तांतूत गवळकाल्लो आनी गौळणकाल्लो हे दोनय प्रकार आसात तसोच बाकीच्या कोंकणांत धंयकाल्लो जाता. पुण अेक दिसतें, गोंयांत सगलेकडेन काल्लो म्हण्टात.

'गोंयांत जाता तो बाळक्रीडा काल्लो' अशें नामनेचे कलाकार श्री मल्लबारराव सरदेसाय म्हणाटात. पुण खंयच्याच पुस्तकांत म्हाका तशें कांयच मेळळेना. तशेंच काल्लो हें फकत लोकनाट्य न्हीं तर तो अेक उत्सव कित्याक जांव नये? जाय त्या गांवांनी जे उत्सव जातात त्या चार पांच दिसाच्या उत्सवाक मेळून काल्लो म्हण्टात. हेयूय विसरूंक फावना, तशेंच म्हाळशे काल्लो, सांतेरी काल्लो अशेंय म्हण्टात. हाचे शिवाय आनी अेक अजापाची खबर म्हळ्यार, गोंयांत कांय काल्यांक आशिल्लीं नावां म्हाड्डोळा, चिचृंद्रयां काल्लो म्हण जाता. पालखेमुखार फोगातल्यो चिंचुंद्रयो थय पेटयतात. खांडोळ्या 'कट्टातलो काल्लो' म्हण्टात. सांवयवेरेच्या अनंता काल्याक 'सख्याहरी काल्लो' अशेंय म्हण्टात. माडयेच्यो ल्हान कावल्यो हातांत घेवन 'हरि रे माझ्या पांडुरंगा, सख्याहरी माज्या पांडुरंगा' अशें म्हणत सोरो पियोवन पालखेमुखार नाचप. हरशीं सोरो पियोंक जायना. पुण त्या दिसा मात देवामुखार फेणी पिऊन येवक जाता. 'सख्याहरी करीन' म्हणचे नाचत अशीं अेक आंगवण कांय लोक देवाक करतात. म्हाड्डोळच्या काल्या दिसा थंयचो जण अेक फोगेर दोन तरी चिचृंद्रयो हाडून लायतात. हाचे वयल्यान काल्लो हे नांव त्या जाता त्या लोकनाट्याक न्हीं तर सगल्या उत्सावाक मेळुन आसा अशें म्हणूं येना. आनी तें कुल्लाळ ह्याच अर्थान आसा. अशें दिसता. पुण हाचेर चड संशोधन जांवक जाय.

## पुर्विल्लेपण

काल्लो केन्नाचो? आयज मेळटा ताचे व्हल्यान ताची सुरवात सातव्या शतकांत राजा विष्णुमल्ल (काय विष्णुपुरचो राजा मल्ल) हाणे गोंयांत केली, या संदर्भांत हरप्रसादशास्त्री हाणी 1895 सालांत संशोधकांचो शोध म्हण माहिती दिल्या. पुण ते संशोधक कोण ते सांगले नात. पुण सातव्या शतकामेरेन संस्कृत नाटकां दबाज्यान चलताली आनी ल्हवू-ल्हवू तीं बंद पडलीं. हे खरें आशिल्ल्यान त्यावेळार करमणुकीखातीर

ाळाची गरज म्हण तशेंच अेकाद्रया नाट्याप्रकाराची संवय म्हणुनय कालो सुरु ालो अशें म्हणूक येता. (संदर्भः लोकनाटयाची परंपरा, वि. कृ. जोशी पृ. 18) ातव्या शतकापैलीं कालो पावना हाचे आनी अेक कारण आसा. पयलीं सगल्या ंसारांत समाजाची रचना ही जातीं जमातींचेर आदल्लेली आसली. बाकी सगल्या ामच्या लोकनाट्याचेर खासा अेकाच जमातीचें, जातीचें वर्चस्व आसा. पुण काल्यांत ात भट, बामण, मेस्त, मडवळ, सगलेच लोक काम करतात. दुसरें, लोकनाट्य ंवूय समाजाच्या म्हळयार लोकाश्रयाचेर उबें रावता. कोणतरी बिदायगी दिता हणुन जावपाचे अशे ते आसना, पुण कालो मात कोमुनदादीच्या आदाराचेर उबो ासा. आनी तो देवाची अेक भोगावळ म्हण जाता. पयलीं पसून देवस्थानच्या ोर्दिनी काल्याखातीर अितलो खर्च अशें दाखयिल्लें आसा.

दशावतार हो प्रकार शामजी नाईक काळे हाणी इ. स. 1828 सालांत कर्नाटकांतल्या ोंकणात हाडलो आणि आडिबरें या गावांत ताचो पयलो प्रयोग जालो. ताका खेळ हणपाची प्रथा आशिल्ली, अशें भारतीय संस्कृतिकोश पान 315/4 हांतूत म्हटलां.

खेळतां नेटके दशावतारी
तेथे येती सुंदर नारी
नेत्र मोडिती कळाकुसरी
परी अवघे धटिंगण (दासबोध 6/8/11)

हाचेवयल्यान समर्थ रामदासस्वामीच्या काळांत तो आसलो आनी ताका खेळ म्हण्टाले, अशें दिसता. हाचेवयल्यान सतराव्या शतकांत तो आसलो आनी बायलो ांतूंत काम करीनाशिल्यो हेवूय दोन खबरी सिद्ध जातात. काल्यांत दशावतार हेच मुख्य आसात आनी कर्नाटकात जाता त्या अेका यक्षगान ह्या लोकनाट्याक 'दशावतारी यक्षगान' अशें म्हण्टात. ताचो काल आनी आमच्या काल्याचो काल हो अेक आसुंये. मात यक्षगाना वयल्यान कालो तयार जालो अशें म्हण्टात ताचो दुबाव येता. नाट्यादर्पण ह्या मुंबयच्यान उजवाडपी मासिकाच्या जुलै, 1980च्या अंकात प्रा ताराभवाळकर, सांगली हाणी बरयिल्ल्या लेखात हो दुबाव परगटायला. ह्या सगल्या विवेचनावयल्यान काल्याक पुर्विल्लेपण आसा पुण ते सातव्या शतकापयली वचना हे दिसता. तशेंच कालो गोयांत मूळ धरून आसा हेंय समजता. पुण तो खासा गोयांतलोच कांय कितें, हाचें पुराव्यानी, दिवपाचें उत्तर आयज म्हजेकडेन ना. सध्याक ताचेर म्हजे काम सुरूच आसा.

यक्षगान ह्या प्रकारावयल्यान कालो आयलो अशें म्हण्टान तें खरें आसन नशे फटयरवी. तशें आयज मेळटा ते भारतांतले खंचेय लोकनाटयाचे प्रकार पळयल्यार अेक दिसता कीं, सगळेकडेन अेकच सूत्र आसा. गुजरातचें भवाअी, आसामांतलें अंकियानाटकम्, बंगालची जत्रा, ओरिसांतलो 'छाव्' महाराष्ट्रांतलो 'बोहडा' अशें सगलेच प्रकार थोडेभोव काल्यासारखे आसात. पुण म्हणून तांचें वयल्यान हो आयलो अशें म्हणप म्हळयार लोकनाट्य हाचो खरो प्रकृतिधर्म आमकां समजलो ना अशें म्हणूंक जाय.

## कालेकार

कालो करणारी वेगळी अशी जात वा जमात ना पुण स्वतंत्र्यापेल्ली अशे 'कालेकार' आसताले. हांगाची पेरणी ही जमात काले करताली. तशेंच काव्य शास्त्र जाणाजाल्लो खंचोय मनीस काल्याचे मुखेल आसतालो ताचे मालकीचो पेटारो. ह्या पेटार्यान काल्यांतल्या, सवंगांची रुपडी, पोशाख, तलवारी अशें सगळें सामान भरिल्लें आसतालें. ताचे धा पंधरा वांगडी. हांका काल्याचें मंडळ वो मंडण अशेंय म्हण्टाले. ह्या मंडणाक दरेक काल्याखातीर कांय रेख पैशे, भात, तेल अशी बिदायगी, चड करून कोर्मुनिदाद दिताली. हे मंडळान पेटारो घेवन गांवान गांव फिरचें. ह्या मंडळांत अेक हरदास, दोन मृदंगी, दोन-तीन झांजवाले आनी हेर कामा करपाक धा-बारा वांगडी, हांतून ऋद्धिसिद्धी ही कामां करपाक दोन भुरगे आसताले. बायलांक थंय जागो ना. अेक वांगडी पोशाख सुस्तार्की बदलून बाकीचींय कामां करतालो. काल्यानलीं पदां तोंडपाट आनी गद्यभाग जण अेकल्यान आपापल्या कुवती परमाण करपाचो. तो ठरयल्लो नासतालो. उत्स्पूर्त! परिस्थितीप्रमण आयिल्लो! दुसर्‍यां महायुद्धान रेशानकार्ड हाडलें आनी गणपतीची पूजा करता आसतना 'तांदूळ आसा रेशानकार्डाचेर - अक्षतां समर्पयामी' अशें तो भट म्हळटालो. हांतूनलो हरदास हो अेक हरहुन्नरी, बहुश्रुत असो मनीस आसूं जाय. सूर, ताल, लय, खबर अशिल्लो. मागीर कालो बरो रंगता. हो हरदास जितलो बरो तितलो कालोय पळोवपासारखो आसतालो. गोंयांत कांय नामनेचे कालेकार जावन गेले. तांतूंन तीन अनंत ह्याच नावांचे आसले. अेक अनंत कथनो म्हण सावयवेरेंचो. दुसरे वागुर्म्यांचो अनंत पेरणी. वेर्यांतय अेक अनंत आसलो ताका अन्ना म्हण्टाले. तो मृदंग वाजयतालो. बाकी दोनय हरदास! तांची मंडणा आसलीं. पर्वतावयली पर्वतकर मण्डळी कालो करताली. लयब्रम्ह भास्कर म्हणून नाम्ना मेळयल्ले खांप्रुमाम सुरुवातीक कालोच

जयताले. मळकर्णेचो पोपट पेरणी, कुर्डीचो भिकू कुड्डीकर हीं अके वेळावयलीं ल्यातलीं कांय जाण्टी मनशां! सांग्यावैयले श्री दामाजी कोसंबो हाणी कालो यल्लो. बरो करताले. पुण आतां तें काम सोडलें. कुड्डेचे श्री अनन्त चिपळूणकर णी रिवणातल्या कांय भुरग्यांक घेवन कालो बसयलो. श्री मलबाराव सरदेसाय णी वेलांगीचे लोकांक कालो शिकयलो. हे वेलिंगकार आयजय कालो बरो रतात. पेडण्यात श्री रघुनाथ कळंगुटकर हो जाण्टो मनीस काले करता. पिळगावा रामा नार्वेकर हांचे काले आज जातात. काणकोणातल्या खोल गावांत गोविंद प्रभू चो कालो प्रसिद्ध आशिल्लो. सध्याक श्री राया प्रभू देसाई हे कालो करतात. पुण लेकारांचें त्यावेळावयलें व्हडपण मात खंयच दिसना. आयज दिसता ती कालेकाराची नी काल्याचींच ब्री सुकिल्ली हाडां! पेटारो आसा पुण ताच्योय विद्वावळ्यो ल्या. म्हणचेच तो कालेकार आयज ना.

## काल्याचो आविष्कार

कालो जाता कसो? नाट्याचार्य भरतमुनीनी सांगिल्ल्या परमाण! काल्याची रवात माचयेर जायना तर ती जाता रंगपटात. सगली संवंगा रंगोवन तयार जाली पेटाऱ्यांतलो गणपतीचो मुखवटो भायर काडून दवरतात. ताका फुलां कुकुम लतात आणि थंय आरत करतात. हांगा कालो सुरू जाता. मागीर थंयच्यान वटयो फोग लायत हरदास येंवक लागता. गळ्यांत मृदंग घतिल्ले वाजोवपी, जवाले अशी ही मिरवणूक गाणे म्हणत देवळाच्या मंडपात येता. आता माचयेर लो तरी पयलींचो कालो हो सदांच देवळांच्या मांटवात, सोंडयार लेगीत जातलो. मण्टपांत घसघशीत वाती घालून पेटयल्ले दोन माड (दिवल्यो) दोन वाटांनी सता थंयच देवाच्या सामकार जागो सोडून लोक बशिल्ले दोनयवशी आनी ते दले मोकळे जागेत सगलो कालो जाता. दोनय मृदंगी दोन कोंड्याच्या केल्ल्या धेगयेक (x ह्या आकाराचे आसता) मृदंग तेंकोन वाजोंक लागतात. बरोच वेळ ल, लय हांचे चमत्कार जातकच हरदास गणपतीक वन्दन करून काल्याक सुरवात रता. हे विशींचें म्हणप जातकच दिवट्यो परत गणपतीक हाडुंक वता. आनी णपती दोंयवशीं ऋद्धी आनी सिद्धी हांचेसकट देवांमुखार येता आनी नाचता. मानान वाजयत गाजयत हाडप हो फक्त हरदास, गणपती ह्या तिगांकच. बाकी वंगा अशीच येवपाची. गणपतीचें नाचून जालें की म्हाबळभट आनी ताचो पूत शें दोगच येतात. हेय थंयच्या भटांची भास उलयतात. हरदास तांका गणपतीची

पूजा करूंक सांगता आनी तरेतरेची विडम्बना करून भट आनी तांचो पूत ही पूजा सोंपयतात. यक्षगानात कौडंगी म्हण जशें विदूषकाचें पात्र आसा, तसोच हो 'भट' वरभर पुजेचें आनी भटाचें विडम्बन हांतुन जाता तशेंच त्यावेळचें राजकारण धरून अख्खो संसार थंय उबो रावता. ह्या भटाक तूं कोण अशें हरदास विचारता तेन्ना भट उत्तर दिता तें अशें:

- आम्हीं जातीचे ब्राम्हण

आमचे सोयरे मुसलमान

तुमी किते करतात, हाका भटाची जाप अशी:-

- आमी ब्राम्हण अग्निहोत्री

सध्या झालो एक धोत्री

तेही उंदरांने खाल्ले रात्री

शास्त्री म्हणती नेसू नये.

निमाणी पुजेक सुरवात करताना - शुद्ध्यर्थ पंचगव्य, अजामूत्र, गजामूत्र, दासीमूत्र, वेश्यामूत्र तन्मध्ये ममसूत्र अशें पंचकंव घेता. म्हळ्यार हे सगळे तोंडानच, थंय प्रत्यक्षात पुजेक कांयच नासता. भट जो संकल्प म्हण थंय म्हण्टा तो मजेशीर आसा तो असो:-

अथाग्मिन ब्रह्मांडे। उठ चल बोडके गांडे

मार उडी सर पैले तडी। नेस कापडाची घडी

पुजेचो हो प्रकार बरोच वेळ चलता. पुण काल्याची जी पोत्री पुस्तकां म्हाका पळोवपाक मेळ्ळी तांतूंत हे पुजेचें प्रकर्ण तितलेंशें मोठें ना. अर्थात भुरग्यावाळांक आनी अन्नाडी लोकांक हांसोवप होच तांतूनलो उद्देश दिसता. गणपतीच येवचे पयली 'कुट्टमार्ती' अशा नावांची दोन सोंवगा स्टेजीर येवन भटांसारखी वांकडे तिकडे नाचून अंगविक्षेपान लोकांक हांसयता असो प्रकार काणकोणांत संकासूर काल्यांत करतात. कर्नाटकांतल्या यक्षगानांत कौडंगी म्हण सुरवातीकच एक सवंग येता. नाट्याचार्य भरतमुनींन विदुषकाचें जें वर्णन केलां तांतूनलो हो विदुषकच स्टेजीर आयला अशें म्हणचे लागता. कुट्टमार्ची हीं दोन सवंगा आसता आनी तीं कौंडगीक लागी आसा. पुजा करणारो भटय वेशान तसोच असता हेंय लक्षांत धरूंक जाय. म्हणचेच हे भटाचें सवंगय फक्त विनोदाखातीरच काल्यांत आयलां जांवये. काय

ाडानीं ऋद्धी सिद्धी ह्यो दोगीय गणपतीचे हात सोडून फुडें येतात आनी नाच रतात. गणपती फाटल्यान शारदा येवन नाचता. आनी वता. शारदेच्या नाचावेळार क गाणेः- 'ऊड गो पाखरा मोतीयांचा चारा' अशें आसा. हे मोराक अुद्देशून ासुंये. वचचे पयली शारदा म्हळ्यार सरस्वती आशिर्वाद दिता--

ऐकोन तुमची विनंती

संतोषते मी सरस्वती

शारदे फाटल्यान ब्रह्मदेव येता. संकासूर येवन ताचे वेद चोरून व्हरता. हाचे ागीर पुराणांतलें अेखाद्रें आख्यान जाता. कांय कडानी म्हादेव पार्वती येता. पूतना तना कृष्णाची मात लांकडाची म्हूर्त हाडटात. कांय कडानी पयली दशावतरांतले रसिंह, वामन, परशुराम, राम, कृष्ण इतले अवतार दाखयताले. म्हापशावटेन ालपयर मेरेन नरसिंह येतालो. पुण मागीर ताच्या आंगांत येंवक लागलें आनी ाका सांबाळपाक कुस्तार जांवक लागलें. म्हणून तो प्रकार थांबयलो. प्रत्येक अवताराच्या ोवनांतलो अेखाद्रो ल्हानसो कथाभाग करून दाखयताले. हांतूंत मत्स्यावतार म्हळ्यार कासुराक मारप मात निमाणेकडेन जावपाचे. संकासुरपयली कांय कडानी चिमो, ाकळो अशे ताचें वांगडी येवप आसता.

काल्यांत संकासूर हो व्हडलो - 'संकासूरा रे महावीरा' ह्या गाण्यान नाचतच ाका हाडटात. ताच्या हातात आयुध नासता तर कपड्याक पीळ दिवन केल्लों वेंट ऩटको) आसता. येतकच नाचप, भुरग्यांक भिष्टावप हें तो करता. दिवट्यो घेवन ाचता. 'तूं खंयच्यान आयलो' ह्या हरदासाच्या प्रस्नाक. 'बिळांतली घोण' असल्यो ापो दिता. काणकोणांतलो संकासूर मात अुलयना तो - मायमिंग - मूकाभिनय रता. आनी निमाणे उलयता तातूंत माथ्याचो आनी नाका थंयचो केस काडून ्देंग्याचे हात बांदपाचो अभिनय करता. थंय विष्णु येता. ताची फकाणा मारता. ाथ्यावयल्या मुगुटाक किरीट म्हळ्यार 'किट्टी पडल्या' म्हणून बोब मारता. हांगासर रदास मराठी अुलयता आनी संकासुर कोंकणीतल्यान जाप दिता. विष्णूचें आनी ाचें युद्ध जाता. संकासुराक विष्णु धांवडायता. असो कालो फांतोंटे पारार सोंपता.

काल्याचें कथानक गाण्यांतल्यान फुडें व्हरपाचें काम हरदास करता तो आनी ्दंगी मात कालोयभर म्हळ्यार रातभर थंयच आसतात. युद्धाचे वेळार ठाराविक रेचें वाजोवप आसता. तें मोचेमाटकारा नाटकांतले भाशेन माचयेर सगले अवतार ानात. पुण हरदासाच्या व्होंवयानी ते येवन वतातच. सगल्या काल्यांत संगीत आसा

पुण नांतूंत स्वराक कडलेंशें महत्व नासना. मात ताल आनी लय ही दोन आंगा कडल्या मनान सांबाळनात.

काल्यांत संगीत आसा तशें 'नृत्य' आसा. नृत्य म्हळ्यार नाच न्ही. लोकनाट्याच्या अविष्कारान ह्या 'नृत्य' प्रकाराक खूब म्हत्व आसा 'नृत्यं तालल्याश्रयम-' अशें ताचें वर्णन दशरूपकाच्या धनिक नांवाच्या टीकाकारान केलां. नृत्य ह्या प्रकाराचीं जीं तरेकतरेची लक्षणा जाणट्यांनी सांगल्यां तीं हांतूंत आसा. भरतान पिंडी, शृंखला लता, भेद्यक हे समूहनृत्याचे सांगिल्ले चार प्रकार (नाट्यशास्त्र 4/270) काल्यांत मेळटात. हे नृत्य, गायन, वादन आणि गद्य कथाभाग हांचे माध्यमांतल्यानच कालो उबो रावता.

काल्यांत गणपतीक मुखवटो आसना. सरस्वती मोर कंबराक बांदून येता हरदाग पायांमेरेन कडलो झगो घालता. माथ्याक पगडी. ब्रह्मदेव चार तोंणाचे मुखवटे घालता. पूतना, चिमो, पोकळो हेवूय मुखडी घालतात. कृष्णाची मात्र मूर्तच हाट्टात लांकडाची. संकासुराचो पोशाख म्हळ्यार माथ्यावयल्यान पायामेरेन काळोकुळकुळीत झगो. हांकाच दोळे, लांब तांबडी जीब, नाक रंगायिल्ले आसना ताच्या फाट्याक झाडाचें ताळेय बांदतात.

अेक मुक्तनाट्य अशें भशेन रातयभर हें चलता. शारांतल्या लोकांनी अश्लील बुरशो म्हणच्यो अशो खूब गजाली हांतूंत आसना. पुण खेड्यांतल्या लोकांक तांचें कांयच दिसना: तशें पळयलें जाल्यार अयच्या शहरी लोकांचे संस्कृतायेक कालो मानवना हें हांवे पळयलां पुण ज्या जाग्यार करमणुकीचीं आनी कांयच साधना नां थंयच्या लोकांक वर्सांतल्यान अेक फावट येणारो कालो म्हळ्यार खूबच अप्रूप. त्या काल्यादिसा थंयचें वातावरण पळयल्यार जणविकाय जाता.

आमी हाका आयज कालो म्हणटात. पुण म्हाका दिसता हाचें पयलें नांव दशावतारी अशें आसूंक जाय. अर्थात हाचेर संशोधन जावंक जाय. 'हांव सांगता तूं आयक' हें गोंयकारपण सोडून ताचेर काम केल्यार गोंयचो निजाचो कालो आमकां परत मेळूंक जाता.

गोंयचो कालो हो असो आसा.

# प्रादेशिक रंगमाची

- नंदकुमार कामत
('कोंकणी' वार्सुकी 1987-88)

"जात्रेंत कोणाचें भुरगेपण शेणलां. जात्रेंत कोणाचें भाबडेपण शेणलां. कोणाची
वलंबी वृत्ती शेणल्या, कौणाचो विशवास शेणला, कोणाचें सुख शेणलां, कोणाचें
णेपण, कोणाचें नेणारपण, कोणाचो स्वाभिमान, कोणाचो पुरूषार्थ - अधिक
हिती दिवपाची म्हळ्यार श्री विचित्राचे हे जात्रेंत - माकड हाडावयली शेंपडी
ठतपासूनचे तो आजवेर मेरेनचे मनशाचें मनीसपण शेणलां!"

(कोणतरी, "श्री विचित्राची जात्रा" (पुंडलीक नायक)

"चुकता तूं जॉन. धर्म बदलप म्हळ्यार संस्कृती बदलप न्हय. तुमी येसू
स्ताचो धर्म घेतलो पुण वागणूक केन्नाच घेतलीना..."

(दिनेश, "भरते भार", दिलीप बोरकार)

"हांगचें हें तळें म्हळ्यार सैमाचें देणें. ह्या तळ्यांत न्हाल्यार कसलीय पिडा
ग बरो जाता. हें तळेंच हांगच्या दुबळ्या गावड्यांचो वैज जावन आसा. आनी
मित, अेकदां हो टुरिस्ट स्पॉट जालो की मागीर हांगा रावपाचें ना. ह्या तळयाची
वेत्रताय खंयचे खंय नाच जावन वतली."

(दादा, 'वर्गशत्रु"... दिलीप, बोरकार)

"... ताणी म्हाका गाढवाभशेन राबयलो, रखरखते वतान हुलपायलो. जनावरांभशेन
गयलो. पोटापाणयाक पातिशेर केलो. मानायाचें काम, भंग्याचें काम, मनश्यांनी
रपाचें न्ही तसलें काम-करीत जालो हात सामको जाम..."

(भुरगो "विथ द विंड," अनिरूद्ध बीर)

कोंकणी रंगमाचयेर हालिंच्या कांय वर्सांनी आयिल्ल्यो नाटकांतल्यो संवादलेखनाच्यो
ांय देखी तुम्चामुखार दवरून कोंकणी रांगमाचयेच्या खास संदर्भसयत प्रादेशिक
गमाचयेची चर्चा म्हाका करपाची आसा. संवादलेखनाच्यो ह्यो देखी प्रतिनिधीक
ासात त्यो आयच्या कोंकणी नाटककारांचे Potential दाखोवन दितात. भारतीय
गमाचयेचे तुळेन हे Potential मात्शें वेगळ्या स्वरुपाचें आसा, पुण नाटयलेखनाचे
रंपरेतले अर्विल्ले प्रकार पळयत जाल्यार कोंकणीतले नाट्यलेखन समांतर (Parallel)
ानीक Perpendicular अशेतरेन जायत आशिल्ले म्हाका दिसता.

समांतर नाट्यलेखनाक लोकनाटकांची एक पूर्वपरंपरा आसा. आनीक भारतीय भौसाच्या विंगड विंगड संस्कृतायेचें सार सूत्ररूपान हे परंपरेन विलीन जाल्लें दिसता. भरतमुनिच्या नाट्यशास्त्रासावन विकसीत जायत गेल्ली राजदरबारांनी आश्रित केल्ली संस्कृत रंगमाची आनी आपल्या खाशेल्या पांवड्याचेर उबी राविल्ली दक्षिणेची द्राविड रंगमाची ह्या दोन रंगमाचयेच्या इतिहास आनीक भुगोलाक गोंयची रंगमाची Perpendicular लांब रूंद आसा. संस्कृत रंगमाचयेक इतिहासकाळांत राजश्रय मेळ्ळो तर द्राविड रंगमाचयेक राजाश्रय आनीक लोकाश्रय दोनूय मेळ्ळो. कोंकणी रंगमाचेक राजाश्रय आनीक लोकाश्रय दोनूय मेळूंक ना. जो लोकाश्रय मेळ्ळो तो मुक्ततायें उपरांत आनी राजाश्रयाची चर्चा न केल्ली बरी.

संस्कृती-रंगमाची Crucible आशिल्ल्या गोंयांत हजारांनी वर्सांच्या इतिहासांत तरातरांचे संस्कृती प्रवाह रिगूनय हांगासर खाशेल्ली प्रादेशिक रंगमाची आपल्या खाशेल्ल्या लोकनाट्याधारित वैशिश्ट्यांसकट वयर सरूंक पावूंक ना. पुण तिचें वीयां म्हाका आयज गोंयच्या नाटककारांच्या संहितांनी आनीक प्रयोगांनी दिसतात. संवादलेखनांत, कथानकांत दिसतात. पात्ररचनेंत दिसतात. लोकवेदाचें कल्यक Synthesis न दिसतात. गोंयचो समाज आनी कोंकणी रंगमाची हांतूंतलें द्वैत जेन्ना सोंपतलें तेन्नाच खऱ्या अर्थान हांगाची प्रादेशिक रंगमाची आपल्या पांयार उबी जांवक पावतली.

समेस्त अस्तम-तटवर्ती समाजाची एक खाशेली संस्कृताय आसा. कोंकणी समाजाच्या रूपान ती देवगडसावन मंगलोरमेरेन पातळ्ळ्या. पुण संस्कृतायेंत मराठी तुळू, कन्नड, मल्यालम, कुर्गी अशा भाशांचेंय संमिश्रण जाल्ल्यान सामाजिक, आर्थिक राजकीय कारणांक लागून ह्या तटवर्ती समाजान आपले अस्मितायेचो सौंदर्यसोद घेवपाचो यत्न केल्लो दिसना. यक्षगानासारखी लोकनाट्यां, दशावतारी खेळ, रणमाले, जागर, तियात्र अशे ह्या समाजान जायते प्रयोग केले. पुण समेस्त समाजाचे हावेस सुखःदुखां जांतूंत परगटता, आनीक समाजाच्या समूह मनाचो (Collective Conscience) जो हारसो जावन आसता अशी 'प्रादेशिक रंगमाची' समर्थतायेन उबी कित्याक जांवना हाचो तपास हेर भारतांतल्या प्रादेशिक रंगमचयांच्या संदर्भांत आसी लावया.

बंगालांतली प्रादेशिक रंगमाची 'जात्रा' ह्या लोकनाट्य स्वरूपांत पळोवंक मेळटा. शंभू मित्रासारख्या समर्थ दिग्दर्शकान टागोराच्या 'राजा' ह्या नाटकाच्या प्रस्तुतीकरणांत जात्रा लोकनाट्य स्वरूपाचो उपेग केलो तसोच उत्पल दत्तान

ल्या 'कल्लोल' आनी 'तीर' ह्या नाटकांतूय सुत्रधार, बहु-स्तरीय रंगमाचीचो ग केला. चैतन्य महाप्रभूचे भक्ती परंपरेतल्यान विकसीत जाल्ली ही धार्मिक पातली रंगमाची आनिकूय रुपां घेवन सबळ जाली. झूमर, पांचाली कथाकटा, र्तन आशी ही रुपां. 'जात्रा' च्या ह्या मूळ रुपाचेरुच आधुनिक बंगालाची रंगमाची ी जाल्या. आयज जात्रेंत सामाजिक, राजनितीक, ऐतिहासिक विशयांचेर प्रयोग नात. मूळ जात्रेत गीतांक चड वाव आशिल्लो, पुण आयची जात्रेचेर आदारीत माची चड गीतमान आनीक संवादमय जाल्या. अहिंद्र चौधरी, छबी विश्वास, र गांगुली, तीनाकी मुखर्जी, फनी राय, नीतिश मुखर्जी हे कलाकार जात्रेतल्यान ार सल्ल्यात. भारतांतली सगळ्यांत विकसीत रंगमाची म्हणून बंगाली रंगमाची यज वळखतात. गेय शैलींतल्यान संवाद शैली हो यशस्वी प्रयोग बंगाली नाट्यलेखकांनी ल्यान प्रादेशिकतेचें मोल राखूनय, ताणे आपली खाशेली शैली आधुनिक भेसांतल्यान पणायल्या. उडिसाची उडिया रंगमाचीय बंगाली रांगमाचयेच्या पावलार पावल रून आयज प्रवास करता.

कुडिअट्टम, यक्षगान, तेरुकुथु, कृष्णाट्टम्, आंकिया, यात्रा, रासलीला, रामलीला, टंकी, ख्याल, भाड-जशन, तमाशा, खडी-गंमत, भवाई, छत्तीसगढ़ीनाचा अशी रताची प्रादेशिक लोक-नाट्यांची परंपरा आसा. हे परंपरेंतल्यानच तमिलनाडू, राथ, कर्नाटक, केरळची रंगमाची उबी रावल्या आनी हिंदी रंगमाचयेचे पुरोगामित्वय पशें, हिंदिच्या उत्तर भारतीय सांस्कृतिक दायजांतल्यान मेळिल्ल्या प्रयोगात्मक धाराचेरुच विकसीत जालां.

अल्काजिच्या 'अंधायुगात' आनीक रामनगरच्या 'रामलीलें'त खूप साम्या आसा. दल सरकार सारखो नाटककार मुक्त रंगमाचयेचो वापर करता. गिरीश कार्नाडान ुगलकां'त, शांत. पु. ल. देशपांडेन 'तीन पैशांचा तमाशांत', कारंथान 'हयवदनात' डुलकाराच्या 'घाशीराम कोतवालांत' आधुनिक नाटकांक आधार दिवपाक लोक-टकांचोच उपेग जाला.

कर्नाटकांत यक्षगानाची लोकनाट्यापरंपरा आसा. हेच शैलींतल्यान भारतीय ट्यक्षेत्रांत खूप प्रयोग जाल्यात आनीक मुळांत रामायणमहाभारतांतल्या कथानकांचेर ादारीत नाट्याक आधुनिक जिणेच्या रामायण-महाभारतांतल्यान परगटावपाचे यत्न जाल्यात.

प्रादेशिक रंगमाचयेचें खाशेलेपण आमी आशेतरेन लोकनाट्यांतल्यान स्पश्ट ाल्लें पळयतात. जाल्यार कोंकणी रंगमाचयेची आदार बडी जावपाक आमकां

प्रादेशिक रंगमाचयेची कशी मांडणी करची पडटली हाचो विचार करूया.

हो विचार कोंकणी समाजाची प्रादेशिकता, सर्तीस सभावाची विश्वात्मकता नाट्यसादरीकरणांच्यो अडचणी, नाट्यलेखनाच्या विशयांची मांडणी, संवादाचें स्वरूप शैली, ह्या सगळ्याक पूरक अश्या तरेचें समीक्षण, आस्वादन आनीक मूळाव विच्छेदन प्रक्रिया अशा रूपांनी म्हाका मांडपाचो आसा.

अल्पसंतुश्टताय आनीक आत्मसंतुश्टताय ह्यो कोंकणी साहित्याच्या विकासा आ येवपी दोन आडमेळ्यो. कोंकणी नाट्य-लेखनय हाका अपवाद ना. ताका लागू तियात्र किरिस्तांवांचे आनीक कोंकणी नाटक हेरांचे अशी विभागन जाल्या. आपले प्रादेशिकतायेचो सौंदर्यसोद घेवंक नाशिल्ल्या ज्या समाजान उरगीच शंभर वर्सां मराठ संगीत रंगमाची पोसली, व्हानाची कड केली, अजरंवर केली त्या समाजान प्रादेशिव रंगमाचयेची रोपां मान सस्तावन वडयली. कोंकण्याखातीर मराठी नाटकां, क्रिस्तांवाखातीर तियात्रां, भौसाखातीर लोकनाट्यां -जागर, लोकांखेळ, पेरणी ... अशी ह्या संस्कृतायेच्य नाट्यसोगाची विभागणी जाल्यान मूटकेउपरांत जेन्ना प्रादेशिक अस्मितायेचें झुज सुरू जालें तेन्ना ही अस्मिताय फकत राजकीय अस्तित्वाचेर आदारिल्ली नासून तिका एक समृद्ध, वर्गविहीन समाज घडोवपाचो आसा ही भूमिका आमचे वरेवर्प विसल्ले. 1983 च्या कोंकणीच्या वर्सूकी आंकांत उजवाडाक आयिल्ल्या आपल्य प्रदीर्घ लेखांत श्री. पुंडलीक नायक 'गोंयची कोंकणी रंगमाची. हें गोंयचे जिणेच वास्तव पडबिंब' अशें म्हणटा. खरेंच ते तशें आसा व्हय, असो प्रश्न म्हाका पडटा ताका तशीं कारणांय आसात. कारणां तशीं अितिहासिकूच. संघर्ष कांय समन्वय आत्मसोदन कांय अरण्यरूदन? अशे प्रश्न गोंयच्या समाजाच्या सामाजिक रितशास्त्राच्य संदर्भात म्हजेमुखार येतात. दिलिप बोरकाराचो दिनेश म्हणटा - 'धर्म बदलप म्हळयार संस्कृती बदलप न्हय. नाट्यकर्मीन नाट्यधर्म बदल्लो तरी नाट्यसंस्कृत बदलना.

गोंयची नाट्यसंस्कृती एक खाशेली Class-Consciousness घेवन येता वर्गसंधर्शाची तयारी नाशिल्ल्या समाजान समाजमनाक भूल घालपाचो उपाय म्हणून फांतोडेसेरेन चलपी संगीत रंगमाचयेक आपणायली. पूण ही लोकरंगमाची जावंक ना. बंद थेटरांत बसून समाजाच्या गिरेस्त आनी मध्यम वर्गीय समाजान ही रंगमाची पोसली आनीक तिजो थातोमातो केलो. पुण गोंयच्या समाजाचें पडबिंब ही रंगमाची न्हय. एका पुरूशार्थहीन कालखंडाक फट पुरूशार्थाचें रूपडें घालून गोंयच्या समाजाचो सामुहिक ego अितिहासिक मराठी नाटकांतल्यान लोक पोसूंक लागले अशे फट

पनाळे रंजनात्मक रंगमाचयेक लागून गोंयचे प्रादेशिक रंगमाचयेचो रूख केन्ना ल्लौंवकूच ना. हो बांद पयली फोडलो तो भौ. पुंडलीक नायकान आनीक फोड टून पूं व्हांवचो तशी गोंयच्या समाजाच्या फट रूपड्याक लागिल्ली कीड पयलेच वट समाजाच्यामुखार दवल्ली, पुण जांवक जाय तशे भयांक्रीत दर्शन आपल्या टकांतल्यान घडोवच्यापयलींच हो समर्थ नाटककार आदर्शवादी, नितिवादी परंपराच्या वऱ्यांत सापडून प्रादेशिक रंमाचयेचे foundation घालच्यापयलींच, लेखनशैलीचे वे प्रयोग करुंक लागतलो कांय असो दुबाव म्हाका येता.

आधुनिक कोंकणी नाटक, देखीक 'श्री विचित्राची जात्रा', आयचे कोंकणी नेयात्र, देखीक तोमासिनाचे 'कांटेच कांटे' नाजाल्यार 'उतरां आनि करण्यो', ोकांखेळ, जागर हांचे Synthesis घडोवन हाडप आमकां शक्य जालें जाल्यार न्यांनीच कोंकणी रंगमाची ही बंगाली रंगमाचयेभशेन समर्थतायेन उबी रावंक ावतली. नाट्य-लेखक आनीक दिग्दर्शक हांचे मुखार हें एक अव्हान आसा. 'काणी' शबै शबै भौजनसमाज' सारखे कांय प्रयोग जाल्यात पुण गोंयच्या Latin/Indo-Portuguese संस्कृतायेच्या आंगाक तांतूत म्हत्व ना. तियात्रांनी एक-दोन हिंदू पात्रां ेतात. तशींच आधुनिक कोंकणीं नाटकांनी एक-दोन क्रिस्तांव पात्रां येतात. दिलीप ोरकाराचें 'भरते भार' एक आडवाद म्हणू येता. तर पुंडलीकाचें 'सुरींग' हें म्हाका अपेक्षित आशिल्ले प्रादेशिक रंगमाचयेचो Milestone म्हणू येता. 'सुरींगात' संवाद, कथानक, प्रयोग, प्रादेशिकता ह्या सगळ्या नदरेकोणांतल्यान प्रादेशिक रंगमाचयेचे सगळे गण दिसतात. लोक-कलेखातीर नाटकांत लोककला वापरप जशी प्रेक्षकांचा फटवण तशेच तंत्राचे नदरेन विचार करून पात्रांची निर्मिती करपय फटवण. सुरींगात ही फटवण ना तर एक Artistic propriety (कलात्मक तारतम्य) आसा, हे Artistic Propriety ची गरज पुंडलीकाचें अनुकरण करपी समकालीन तरणाट्या बरोवप्यांक खूपच आसा.

हिंदू-क्रिस्तांव-मैर ह्या गोंयच्या समाजाचे जिणेचे त्रिसूत्र जे रंगमाचयेर दिसता अशी रंगमाचीच कोंकणीची लोकमाची जातली. इतिहास कांय लोक ज्या अभिनिवेशान बरोवन आपापल्या धार्मिक श्रद्धेप्रमाण दुसऱ्या धर्माक दुशणा दितात अशा कसल्याय धार्मिक revivalism क आमी कुशीक दवरचे पडटले. 'तुघलक' भाशेनच गोंयचे रंगमाचयेर फाल्यां 'अलबुकेर्क' ना जाल्यार 'तिमाजी नायका' वेले नाटक आयलें जाल्यार तें हेच नदरेंतल्यान बरोंवचे, पळोंवचे पडटलें. धर्मसमीक्षण सभेच्या (Inquisition) कालखंडान गोंयच्या भौसार खूप अत्याचर जाले, हिन्दू समाज गोंय

गोडून जळामळां पातळ्ळो. पुण ह्या विशायवेल्या नाटकांत किरिस्तांव समाजाचेर मूडबुद्धी म्हणून revivalist दुस्वास येवंक फावना. शोकान्तिका, मेलोड्रामा, सुखान्तिका, फार्स हे नाट्यलेखनाचे प्रकार हाताळताना, खंयचोय प्रकार आसूं तो प्रदेशिकतेच्या वळग्यारूच जियेतलो, प्रादेशिक आंग घेवनच विश्वात्मक जातलो अशी उमेद आमची पडटली.

कोंकणी नाट्यालेखनाचें हेंच वेगळेपण आसूंक जाय. Class-Conciousness तोडून हीं नाटकां वयेवची पडटली. त्याचबरोबर एक फट Historical Collective Conscience आमच्याभितर आसा तोय मातयेभरवण करचो पडटलो. गोंयचो रेंम, दर्या, व्हागरं, रानां, फुलां, मार्ती, फातर, शेतां, न्हयो, झरे, व्हाळ, नळीं, नळयां, दोंगर-दोंगुल्ल्यो, कुळागरं, रापणी, रापणकार, रेंदेर, कानारं, लादाईना, शिगम्या-मेळ, लोकांखेळ, जात्रो, फेस्तां, चण्याची खोर्ती, बार्र, ताव्हेर्ता, कपेलां, इगर्जो, गर्भकुडी, होंवर्‍यो, खुरीस.. अशी एक अतिवास्तववादी प्रादेशिक Imagery आमी गोंयची म्हणून मानून घेवप जाय. आनीक ह्या Imagery च्या सौंदर्यसोदांतल्यान नाटकांतलें काव्य आनीक काव्यांतलें नाटक घडोवंक जाय. सुर्वेकूच संवादलेखनाच्यो ज्यो देखी दिल्यात तांतूंतल्यान म्हाका हे Potentia दिसता. हे Powder Keg-Potential आसा. ताज्या सर्जनात्मक प्रस्फोटाची Creative explosion जावचेली गरज आसा. अशें creative explosion जावपाक निर्माणेच्या स्तराचेर खंयच्याय गोंयकार कोंकणी नाटकलेखकाच्या मनांत आनी अंतस्करणांत मुळां हालोवपी खळबळ जावची पडटली. अशी खळबळ जावपाक गोंयाच्या समाजाच्यो Social dynamics चे गुपितस्फोटन dymystification करचे पडटले. हो I conoclastic approach आमचे रंगमाचयेक समर्थ रूप दितलो. कोंकणी नाटककारांनी आनीक महाविद्यालयांनि एकांकिका लेखकांनी I conoclastic approach दाखोवन दिला. मर्णकटो, खामसूत्री, आनी एक पोर नागडेंच उरता... इंतेर, खुरीस उबारूंकच जाय, अश्यो I conoclastic लेखनाच्यो देखी दिवपाक जाता.

कोंकणी नाट्यलेखनांत बरेंचशे escapist literature (पलयनवादी साहित्य) चे trends आयल्यात. संघर्षसूत्राचो थाव जाका लागना, आनीक Class-Conscience जाचो मुटून मुटना तोच अशा escapist शैलिचो आसरो घेता. भावनीक, मानसीक संघर्ष एक विश्वात्मक संघर्ष... मोग, भोग, शृंगार होवूय Universal पुण ताची प्रादेशिक रूपां पितारताना artistic Propriety जाय तसोच Compromise नाका. larger than life अशी शृंगारचित्रणां नाट्यप्रसंगातल्यान उबी करताना खुपदां

डलीक नायक खंयच्या खंय व्हांवून गेल्लो दिसता. Shock treatment चे तंत्र म्हणून
ो अशी मांडावळ करता जाल्यार हांव नकळ. पुण 'खण खण माती' 'पिंपळ-
टला' 'सुरींग' 'रक्तखेव' 'मुक्तताय' अशा नाटकांतले स्त्री-पुरूश संबंधाचे चित्रण
रतना पुंडलीक Primitive समाजाच्या Cat mouse game चें तत्वगिन्यान आपणायता.
वदासी पद्धतीक थारो दिल्लो व्हड प्रमाणांत Suppressed sexual feelings
ाशिल्लो गोंयचो समाज आनीक नाटकांतल्या स्त्री-पुरुष संबंदाकडेन पळोवपाचो
ांचो Wet-dream approach हो Weakness पुंडलीकान चतुरतायेन xploit केला.

प्रादेशिक रंगमाचयेचे बांदावळिचेय नदरेन गोंयची कांय वेशिश्ट्यां म्हळयार
ंगाचो liberal समाज, आनीक विवाहवाह्य, विवाहपूर्व संबंदाकडेन आशिल्लो
ाजो liberal approach भोंवडे-कारांकूय ह्या उदारमतवादी समाजाचें आकर्शण
ाला. काल्पनीक लैंगिक पराक्रामांचेर धन्यता मानपी, सर्वसामान्य Schizophrenic
ारतियांक गोंयच्यो नुस्तेकान्नी, तांचो भेस, गोंयचो संयत समाज, आनी हेर
जालिचें जे आकर्शण, अप्रूप आसा तें कृत्रिम न्हय. ते ज्या नदरांतल्यान गोंयचे
ांस्कृतायेकडेन पळयतात, ती संस्कृताय आमचे रंगमाचयेर हाडूंक जायना.

गोंयच्यो ग्रामसंस्था, तांचें विसर्जन जाल्ल्यान निर्माण जाल्लो प्रस्न, गोंयचेर
ाल्ले भायल्यांचे आक्रमण, गोंयचे उद्योगीकरण, गोंयची सरंजामशही आनीक
ोकरशाही, गोंयाचीं देवळां, मठ आनी महाजनशाही, गोंयच्यो इगर्जो, पाद्री,
ेमिनारी, पॅरिशां आनीक तांचो वावर, गोंयचें घट्टण करपाक उठिल्ले रानाचे
ंत्राटदार स्मगलर, लोकशाहेचो फायदो मेळिल्ले गुंड-पुंड राजकार्णी, गोंयचे चिड्डुत-
ाडुत दवरिल्ले गावडे, कुशीक पडिल्ले नवहिंदू गावडे, आपल्याच गांवांनी परकी
ाल्ली कुणब्यां, आपल्याच रानांनी शिकार जाल्लो खेतीगांवचो वेळीप समाज,
ाबित, खारवी आनी सूर काडपाक माड सोदीत भोंवपी रेंदेर, नुस्त्याक म्हारग
ाल्ले रंपणकार, मागकार, गोंयचो आपसुवार्थी मिनेर, आनी तांच्या मिनान धुवन
ाडिल्ल्यो न्हयो, शेत-कामतां, कुळागरां, इबाडिल्लो सैम, घाणयारे व्हळ, आपल्या
ांवांत, शारांत दिसान दीस परको जायत वचपी गोंयकार, बायणेच्यो चेडयो,
चेंबलच्यो झोपडयो, अणजुणेचे Drug-addicts सांत-इस्तेव्हचो खूनी कोसेसांव
ोड्रीगिश जो 6 खून करून आतां किडनी दिवंक भायर सल्ला... गोंयची इबाडिल्ली
र्यावेळ, शेतां, तरणे पिळगेक पडिल्ली अस्तमतेच्या life style ची जीन, जिन्स,
video ची भूल... गोंयचे प्रादेशिकतेचो हो collage खंयच्याय नाटककाराक आव्हान
जांव येता. 450 वर्सां अमुक्त आशिल्लो समाज 25 वर्सांत कसो बदलत चल्ला

हें स्थित्यंतर अभ्यासपाचे नदरेन नाटकासारखो दुसरो form म्हाका दिसना. ते नदरेन कोंकणी नाटकांक आयच्यो शीमो हुपूंक येना. समेस्त कोंकणी समाजाची cultural anatomy अमच्या नाटककारांक शिकची पडटली ती हेच खातीर.

धड कोंकणे न्हय, किरिस्तांव न्हय, मेर न्हय, गावडे न्हय, कुणबी न्हय हे सगळे घटक जे रंगमाचयेकडेन Identify जातले अशा तरेचे प्रादेशिक रंगमाचयेची समर्थतायेन रचना करपाची मोख दवरून वावराक लागत जाल्यार, एका तिवळ भक्ती पंथी 'जात्रा' सारखेल्या लोकनाट्यांतल्यान साओ, लेनिनाक सुद्धा खेडेगावात कट्टरे माचयेर हाडपी बांगली रंगमाची उभी जाली तशी समर्थ कोंकणी प्रादेशिक रंगमाची गोंयात उबी जांव येना. सुरींग सारखो फॉर्म घेवन हे Synthesis जांवचे अशी अपेक्षा आसा.

प्रादेशिकता आनी विश्वात्मकता हांतूंत द्वैत ना. हेमिंग्वेचे old man and the sea गोंयच्या खेंयच्याय गाविताची काणी जांव येना 'खण खण माती' चे कथानक बिहारच्या धनबाद जिल्ह्यांतल्या खाणींतल्या कामगारांचे कथानक जांव येना. दिलीपाचे 'वर्गशत्रु' खेंयच्याय क्रांतिकारी नाटकाचें सूत्र जांव येना बीरांचें 'विथ-द विड' शिवदासाचें 'फॉरिन-जांवय' हांची कथानकां, अणभव हांतूंनय विश्वत्मकता Universality आसा. सारीर ह्या आनीक अश्या नाटकांची प्रादेशिकता खेंय उरली तर? फकत संवादांत, स्थल-नामांत, आनीक भाशेंत न्हय?

Impressionist paintings तलो रंगाचो एकेक थिपको आखें चीत्र साकार करता. पुण लागसावन चीत्र दिसना. दिसता ते रंगांचे शिंपडिल्ले थिपकेच. चित्रापसून आसी पयस वेता तशें एका विशिश्ट अंतराचेर आमकां चीत्र समजता, ताजे अंतर्गत Composite सुंदरतायेसकट. होच प्रादेशिकतेचो perspective नाटकांनूय दिसून येवंक जाय. प्रादेशिकतेच्या थिपक्यांतल्यान विश्वात्मक जावपाचो यत्न करप, आनीक तशें करतना जो एका perspetive चो subtle balance सांबाळचो पडटा, तो दवरप हें संतुलन कोंकणी नाटककारांक सादलें जाल्यार लोकवेदाचें दायज, भाशेची गिरेस्तकाय, सैमाची सुंदरकाय अश्या सूत्रांचेर नवे आनीक आधुनिक विशय हाताळतानाय कोंकणी रंगमाची समृद्ध, सक्षम, समर्थ जांवक पावतली. गोंयची कोंकणी रंगमाची हें खऱ्यानीच गोंयचे जिणेचें वास्तव पडबिंब जावचें आसल्यार हे मुद्दे बरोवप्यांक मतींत धरचे पडटले. Role-analysis क जशे दिग्दर्शक, अभिनेतो म्हत्व दिता तशेंच theme-analysis क बरोवप्यांनी म्हत्व दिवचें.

अनुवादीत संहितांचे म्हत्वय म्हज्या मतान उणे ना. कोंकणी रंगमाचयेक हेर

ादेशिक रंगमाचयेवेल्या संहिताकडसून जायतें शिकूंक मेळटा तें अश्याच अणकारित संहितांवेल्यान. पुण culture-shock चे तात्कालीक समस्येक लागून ग्रीक शोकांतिका, अमेरिकन सुखांतिका, आयरीश मेलौड्रामा, जर्मन मेलोड्रामा, फ्रेंच फार्स हांचो कोंकणी रंगमाचयेक कांयच उपेग जावपासारखो ना. नाट्य तंत्राचे नदरेनूय प्रेक्षकांभीतर alienation निर्माण करपाचे ब्रेश्तीयन Shock treatment तंत्र आतां बरेच पोरणे जाला. तेन्ना आमीच आमचो मार्ग सोदचो पडटलो. तांतूय आमकां यश मेळूं येता हें भौ पुंडलीक नायकांच्या नाटकांक अखिल भारतीय पांवड्यार मेळिल्ले मान-मान्यतायेवेल्यन दिसून येता.

हेर भारतीय प्रादेशिक रंगमाचयेवेले निर्मितीप्रवाहाक समांतर, तर दक्षिण-उत्तर-हिंदी-द्राविड अश्या प्रवाहाक लांबरूद अशे तरेन कोंकणी रंगमाची उबी जावंक जाय. मराठी संगीत रंगभुमी आनी कन्नड यक्षगानाक लंबातर, जात्रा, भवाईक समांतर, तर गोंयच्या खाशेल्या लोकवेदाक समावेशाक (engul fing) अशे पद्धतीन संहिता-रचना, लेखन जावचे अशी अपेक्षा आसा. आमचे Esslin (Martin) Stanislawski आमकांच जावचे पडटलें. आमचे समीक्षक नाट्यरसिक, आस्वादक, अभ्यासक त्याच ह्यावेसान तयार करचे पडटले.

भारतांतल्या प्रादेशिक रंगमाचयेन आधुनिकतेचे रूपबंध आपणावन कोंकणी रंगमाचयेखातीर एका परस एक देखी दवरल्यात. परंपरा आनीक नवता हांचो संयोग जाल्या कन्नडांतल्या गिरीश कार्नाडांचे 'हयवदन' चंद्रशेखर कंबाराचे 'जो कुमारस्वामी', सतीश आलोकराचे 'महानिर्वाण' हबीब तन्वराचे हिंदी - 'चरनदास चोर' अनीक 'बहादूर कलरिन' मल्याळमात के. एन. पणिक्कराचे 'अवनवन कटम्बा' जी. शंकर पिल्लेचे 'किरातराम' 'मूधेवी थैय्यम' मणिपुरीत रतन कुमार थियमचे 'उचेंग लेंगमेईडोंग' आनीक 'लेइमा-येगलिंगेर खुन काबा' अश्या एकापरस एक सरस नाटकांच्यो देखी अभ्यासून आमी मुखार सरूंक जाय. एकविसाव्या शेंकड्याचे उदेंते - मेरेन तरी फुडल्या 15 वर्सांत हे नदरेन कोंकणी रंगमाचयेच्या विकासाचो कार्यक्रम आमकां Blue Print च्या रुपान तयार करचो पडटलो.

संदर्भः-

1) गोंयची कोंकणी रंगमाचीः गोंयचे जिणेंचें वास्तव पडबिंब - पुंडलीक नायक, कोंकणी वर्सुकी अंक 1983.

2) पुंडलीक नायकाची नाटकांः कांय विचार - नंदुकार कामत - रंगराज, 26 जाने. 1985.

3) समकालीन हिंदी नाटक : कथ्यचेतना - डॉ. चंद्रशेखर.
4) आधुनिक हिंदी नाटक : एक लंबी बहस - चंद्रशेखर.
5) साठोत्तरी हिंदी नाटक - डॉ. विजयकांत धर दुबे
6) रंगमंच और एकांकी - सं. हरिशंकर द्विवेदी
7) रंगमंच और नाटक की भूमिका - डॉ. लक्ष्मी नारायणलाल
8) नाटक और रंगमंच: संपादक - ललितकुमार शर्मा / भानुशंकरमेहत
9) नया नाटक स्वरूप और संभावना - पं. चंद्रशेखर मिश्र
10) नाटक की इबारत् - कमलाप्रासद, राजेंद्र अरूण
11) नाट्यकलामीमांसा - डॉ. गोविंददास
12) तेंडुलकरांची नाटकें - डॉ. चंद्रशेखर बर्वे
13) रंगचर्चा - कृ. रा. सांवत
14) नाटक : एक चिंतन. - वसंत कानेटकार
15) नाट्यवेध - डॉ. दा. भि. कुलकर्णी
16) नाट्यसमीक्षा काही दृष्टीकोण - संपादक - डॉ. वि. भा देशपांडे
17) The Indian Theatre - Adya Rangacharya
18) Bengali Theatre - Kironmoy Raha
19) नाट्यदर्शन - डॉ. सुनिल सुभेदार
20) मराठी नाट्यलेखन तंत्राची वाटचाल - अरविंद कुलकर्णी
21) एकांकिका वाटचाल - श्री. र. भिडे
22) अर्विल्या कोंकणी साहित्याच्या सौंदर्यशास्त्राची रुपरेशा - नंदकुमार कामत कों.टा. 1983

# कोंकणी निबंध - एक अभ्यास

- प्रकाश गं. थळी,

(जाग दिवाळी आंक 1985)

निबंदाचीं पाळामुळां आमचीं अुपनिशदां तशेंच प्लेटो, सिसेरो, सेनेका, प्लुतार्क ह्यांच्या बरपांत सोदल्यार मेळूं येतात. पुण आयच्या स्वरूपाच्या निबंद ह्या साहित्य प्रकाराची बुनियाद फ्रेंच बरोवपी माँतेन् हाणे 16 व्या शेकड्यांत घाली अशे मानतात. अुपरांत बेकन आनी हेरांमार्फत रोखडोच तो प्रकार अिंग्लेजींत नावारुपाक आयलो: फाटल्या 300-350 वर्सांत जायत्या अिंग्लेज बरोवप्यांनी हातूंत खूब भर घाल्या.

शालेय पाठ्यपुस्तकांनी निबंदाची व्याख्या सर्रास केल्ली आसता. पुण पूर्ण समाधान दिवपी व्याख्या करप तशें कठीणूच. अेका समिक्षकान म्हळां : Essay is lyric in prose.

(आतां lyric चीय व्याख्या करप तशें सोपें न्हय). फ्रांसिस बेकन निबंदांक 'dispersed meditations' म्हणटा. जाल्यार डॉ. जॉन्सनाचे नदरेन निबंद म्हळ्यार

'a loose sally of the mind, an irregular, undigested piece, not a regular composition'

**श्रीनिवास अय्यंगार सांगतात:**

'An essay is not a piece of exhortation; it is not a sermon; it is not a bundle of information; it is not a dialectical display; it is not invective, it is not buffoonery; it is not story-telling. Neti, neti-not that, not that whatever you may venture to posit about the essay. What is it then? Anything, the trivial, the absurd, the unpoetical, the solemn, the serious, the tragic: a mouse, an owl, a piece of chalk; science, politics, sociology : a computer, an election, a village sale : biography, autobiography, fantasy... anything can go into an essay, as anything can appear in our dreams. yet it is not the matter of an essay that makes an essay but what the essayist makes of the matter...

बऱ्याचशा प्रमाणांत फावोशी व्याख्या अे. सी. बॅन्सन दिता :

'The essay is the reverie, the frame of the mind in which a man says, in the words of the old song, 'says I to myself, says I'...'

व्हर्जिनिया वूल्फ लागींलागसार हेंच वेगळ्या अुतरांनी सांगता :

'a curtain, something friendly and familiar that shuts the reader in, so that he may be a silent actor, when the author's soliloquy or dramatic monologue is in progress'

हाजोच अर्थ, (श्रीनिवास अय्यंगाराच्या अुतरांनी) निबंद म्हणचे 'monologue : a thinking aloud at random, diversified by castle-building in the air; an exercise in direct self-depreciation: and all with the illogical logic of a dream. There is one rule for the essayist : he should not be dull. And whatever he may do, however far he may roam, so long as he is tethered to his own humanity, he cannot possibly go astray'

अिंग्लेज साहित्यांत निबंदाचे सामान्यतायेन 'expository' (विवेचनात्मक) आनी 'personal' (आत्मकथनपर) (जाका मराठींत लघुनिबंद म्हळां) अशे दोन वर्ग केल्यात त्याभायर ताणी गंभीर आनी विनोदी अशीय अेक वर्गवारी केल्या.

कोंकणी निबंदाचेर निबंद बरयताना जायत्या अडचणींतल्यान वचचें पडटा : आमचो निबंद नक्की केन्ना, कसो आयलो काय ? खंयच्या स्वरूपांत आयलो तेंय सांगपाक कठीण. भारतांतलो पयलो शापखानो 16व्या शेंकड्याच्या मध्याक रोमी लिपींतल्यान गोयां सास्टींत रायतूरा सुरू जालो अशें अितिहास सांगता. म्हण्टकूच थंयच्यान येवपी काय नेमाळ्यांतल्यान हेर कोंकणी साहित्यावांगडा निबंदूय अळकला आसू नज ? निबंदाचें आनी नेमाळ्यांचे खूब लागीचें नातें. मराठीमार्फत फातर्रोच्यान गोंय लागी करीत येतासतना हो निबंद दिरेत युरोपी भासांतल्यान रोमी लिपीचें बोट धरून कोंकणींत आयला अशेंय जावं येता. आमच्या निबंदाचें मूळ बल्कावां वयल्यो गजाली, सोप्यावेल्यो, चौंकेवेल्यो, म्हाल्याले शाप, रामवळ बांयो, मांड, अुत्सवस्थानां वी रामवळ मुवार्नीवेल्या बारीक कान-खबरांनीय आसूं येता. पयलींच निबंदाची व्याख्या करप त्रासांचें. कोंकणींत अजून specialization जावंक ना. सर्नीसवळ अुणे, काळाची गरज हिसपाभायली, वावर खूब. देखून आमच्या बरोवप्यांक अेकाच वेळार कविता, कथा, नवलिका, नाटक, निबंद वी सगले तरेंचे बरप करून बहुरूपी जावचें पडलां. हाका लागून आमचें साहित्य प्रकारूय बहुरूपी जाल्यात : अेकाद्रे कथेकूच आसी गरज तेन्ना निबंदूय म्हळां आनी निबंदाक कथेच्या सळार वेठीक धल्ना.

कोंकणी निबंदाक गरजेप्रमाण आसी ललित लेख, ललित निबंद, लघुनिबंद, दिसपटी, चिंतनां वी तरेकवार नावां दिवन जाय तसो वापरला. मराठींतल्या लघुनिबंदाचो आमच्या निबंदांचेर प्रभाव आसा हें वेगळें सांगपाचें लागना. फाटल्या 25-30 वर्साच्या काळांतलो आमचो संग्रहित निबंद चडसो ना. (नेमाळ्यांनी आनी हेर मुवार्नीर्नी शिंपडून अुरिल्या निबंदाचेर नदर भोंवडावपाक संशोधनाचीं साधनां जाग्यार नात ताका लागून 'साधनांच्या संशोधनां' तूच अेकाद्र्या आभ्यासकाचो चडसो वेळ, शक्त, पासियेस खर्ची पडूं येता. हांवें म्हजेपरीन हो ल्हानसो यत्न हांगा केला. हातूंत चडकरून देवनागरींतल्या निबंदाचोच आस्पाव जाला)

शणै गोंयबाबांच्या सांहित्यांत ह्या ना त्या रुपान निबंद आयला पुण तांचो मग्रह
ुजवाडा आयिल्लो ना. देवनागरींतलो पयलो वयलो निबंदसंग्रह म्हणून म. विष्णु नायक
पादित 'स्वाती' (1960) ह्या पुस्तकाक पयलो मान मेळुये. ह्या मंग्रहांत 7 बरोवप्यांच्या
3 निबंदांवांगडा बाकीबाब बोरकारांले 'पुरुपमुक्त' रवीन्द्र केळेकार हांचे 'तीन थेंबे' हें
ास्ताविक आनी मनोहरराय मरदेमाय आनी गजानन रायकार हांच्यो दोन कविता
ासात. कोंकणी माहित्य, आकाशवाणी (मुंबय) च्या सदांच रिणांत अुरतलें म्हाणपाचें हो
ग्रह गवाय दिता. ह्या पुस्तकाक अेक अितिहाम आसा. विष्णु नायक हाची याद काडटाना
ा. दत्ताराम मुखठणकार बरयतात : '...कारवार हो पु. लं. चो प्राण. विष्णुन ताजो
ायदो घेवन तांकां 'म्हजो गांव भांगराचो' हे वळेरेंत कारवाराचेर अुलोवंक लायलें. हेच
ळेरेंत मंगेश पाडगांवकारांचे 'हिरव्या कोंकण' हें अुलोवप जालें. बाकीबाब बोरयेचेर
ुलयले आनी माशेलाच्या धर्मान म्हाकाय संद मेळ्ळी. हीं चारूय अुलोवपां विष्णून
ापल्या 'स्वाती' ह्या मंग्रहांत अुजवाडायल्यांत. आपुण सरकारी नोकर आमुनूय 'स्वाती'
ुजवाडायतना विष्णून कोणाची परवानगी घेवंक नाशिल्ली. कोणे तरी स्टेशन डायरेक्टरांकडेन
क्रार केली. सरकारी कामांत जाता तशें प्रकरण व्हड जालें आनी निमांणे दिल्लीक थेट
ाडांकडेन गेलें. 'स्वाती' काकासायबांक अर्पण केल्लें आनी तांतूंत हेरांवांगडा बाकीबाब,
क्ष्मणराव, पु. ल हांचीं नांवां आशिल्लीं. ह्या सगळ्या नांवांची पुण्याय केदी हें सांगपाक
ाका. लाडांनी शेरो माल्लो- 'ऑल अिज फेअर अिन लव्ह ॲन्ड वॉर: परमिशन ग्रान्टेड.'
ह्या प्रकरणाक लागून कोंकणीचो भाव रेडियोचेर चड वाडलो. कोंकणीक जाय तें जाय
तेन्ना मेळूंक लागलें आनी विष्णूक चड नेट आयलो...'

'स्वाती' तमो प्रातिनिधीक निबंदसंग्रह म्हणूं नज.

शणै गोंयबाबां अुपरांत म्हाका दिमता सगल्यांत चड गद्य बरप कोंकणींत केलां
जाल्यार तें रवीन्द्र केळेकार हाणीं. तांचे निबंद वेगवेगळी रूपां धारण करून आयल्यांत,
केन्ना प्रवामवर्णन तर केन्ना दिमपटी, केन्ना आप-अुक्तावणेचीं बरपां जाल्यार केन्ना
चिंतनां. 'वेळेव्वयल्यो घुलो' (1971), 'अुजवाडाचे सूर' (1973) सांगाती (1977) ह्या
तांच्या संग्रहांनी हे निबंद आयल्यात.

दो. दत्ताराम सुखठणकार हाणी कोंकणींत निबंदूच बरयल्यात, तांकां विनोदी आनी
अुपहासात्मक निबंदकार अशेंच लोक मानतात. तांचो 'मान्नी पुनव' (1977) हो पयलोच
निबंदसंग्रह साहित्य अकादमी पुरस्कार जिखून गेलो.

कोंकणींतलो दुसरो म्हत्वाचो विनोदी-प्रेमात्मक बरोवपी अना म्हांबरो. ताचे गोंयच्या वेगळ्यावेगळ्या आंगांचेर बरयिल्ले, गोंयची 'अस्मिताय' 'वेगळी संस्कृताय' ही दाखोवपी निबंद 'गोंयची आस्मिताय' (1978) ह्यां पुस्तकांत मेळटात.

लक्ष्मणराव सरदेसाय हे प्रामुख्यान नामनेचे गोंयकार मराठी कथाकार, पूण कोंकणींत मात तांची प्रतिमा निबंदकार म्हणून उरतली काय दिसना. तांचो 'खबरी कांय वर्सांच्या, कांय कर्सांच्यो' (1980) (साहित्य अकादमी पुरस्कृत) हो संग्रह खास उल्लेखनीय.

चंद्रकांत केणी हे कोंकणींतले युगप्रवर्तक कथाकार. 'धर्तरी अजून जियेताली.' (1964) ह्या तांच्यां कथासंग्रहान आधुनिक कथेचें नवें युग सुरू केलें अशें मानतात. ते व्यवसायान पत्रकार म्हणटकूच वेळाप्रसंगार ताणी निबंद बरयल्यात हे आयलेंच. तांचो 'नगरेंची सवंगां' (1973) हो कांय काणयां (anecdotes) वा गजालींच्या रुपानल्या निबंदांचो संग्रह. तांचे कांय निबंद लघुकथेच्या रुपांत आमका ताच्या कथासंग्रहांनी मेळटात. देखीक, 'आमले तोर' ('अळमी' 1975).

रामकृष्ण जुंवारकार अेका तेपार (चड करून) भाशांतरकार म्हूण फामाद आशिल्लो. हालीं तो वेगळेवेगळे प्रयोग करीत आयला. ताच्यो तीन वाटयांनी उजवाडा आयिल्ल्यो 'आमच्यो खबरो' (1981) कोंकणी निबंदांत भर घालतात.

'माळकां' (1983) हो नारायण लाड हांचो 20 पावळ्यांचो निबंद संग्रह. मनोहरराय सरदेसाय हांची सुंदर प्रस्तावना हाका लाभल्या.

हो आमच्या संग्रहित निबंदाचो संक्षिप्त नियाळ. म्हत्वाच्या लागीं लागसार सगल्या पुस्तकांचो हातूंत उल्लेख आयला काय दिसता. गोंयचे मुक्तेउपरांतच्या फाटल्या पाव शतकांत कितलिशींच नेमाळीं फुल्लीं आनी बावलीं. (राष्ट्रमत दिसाळे अखंडपणान चालू आसा आनी मराठीवांगडा कोंकणी साहित्याक दर आठवड्याक उज-वाडायता) 'नवें गोंय.' 'पुनव.' 'आंकुर.' 'परमळ.' 'जाग.' 'जेत.' 'कोंकण भारती.' 'कुळागर.' आनी हेर जायत्या नेमाळ्यांनी कोंकणी निबंदाक पोसवण दिल्या.

**कोंकणी निबंदांचे कांय विशय :**

गोंय आनी जल्मगांव :- आमच्या निबंद साहित्यांत सगले तरेचे विशय आयल्यात. जाल्यारूय कांय 'थीम्स' लागींलागसार सगल्या बरोवप्यांनी केळयल्यात. देखीक गोंय आनी जल्मगांव कांय जाणांनी सरळ सरळ गोंय-गांव हे विशय घेवन बरयल्यां तर हेरांनी, बाकीच्या गजालींवांगडा विशयांतराच्या मार्गान गोंय आनी आपणालो गांव निबंदांत भरशिल्यांत.

बाकीबाबांचे बोरी-प्रेम जगजाहीर आसा. ताणीं हो विशय गद्यांत आनी पद्यांत मराठींत आनी कोंकणींत कितल्याश्याच फावटीं वर्णिला. 'गोव्यांतलो गांव माझा ओव्यांतच

ावा। तिथं जावून राहून डोळे भरून पहावा' ह्यो वळी सगल्यांचे वळखिच्यो. कोंकणी िबंदांत ताणीं बरयलां :

'... गांवची हांवें आतां याद काडली. तसो हो पळयात तो दत्त म्हणून म्हजे फुडें अुबो ावला. सिनेमाची रंगीत रिळां म्ह्ज्या दोळ्यांमुखार सोडोवंक लागला. तो न्हंयेंत पांय ोडून अुबो आशिल्लो मोडको पूल, ती कोटाधड, तीं पांचवीचार आनी थंडगार कुळागरां, ायांच्या वळेसरांनी चांदन्यांत फुलिल्लें ते नवदुर्गेचें देवूळ, अुदकां आडावन तयार केल्ल्या ळयेंतलो तो सांगडाचो अुत्सव आनी फोगाची किमया, शिगम्यांतले ते वाजते गाजते ळ, सप्ताहांतले तरेकतरांचे पार, भर दनपारच्या कडार धुमशेणां कांडपी तो घुडयांचो थ, नवरात्रांतलीं नाटकां आनी मखरां, खारें काट्टकच नुस्तें मारपाक खाजनांत जाल्ली ोकांची गर्दी पैल्या पावसाक येवपी तीं चडणेवैली सांगटां, आनी कुल्ल्यो धरूंक वेताले यो राती, कुळागरांतले ते सोलनारगांचे आनी नागचांफ्यांचे वास झिरमुळ्यांची आनी ोडकांची रूच, बिबे चिरून हाताक पडिल्लीं चकां आनी मुट्टे खातांना पोटावैल्यान ळिल्लें रोसाचे वळेगर, सिद्रधनाथाच्या दोंगरांतल्यान काडिल्ल्यो भोंवडयो आनी माथ्यार ोतिल्ले वझरे अश्यो कितल्यो म्हणून गजाली सांगतलो? ...'

('म्हजो गांव बोरी' 'स्वाती' 1960)

दो. दत्ताराम सुखठणकारांक विनोदी निबंदकार मानतात. कोंकणींतलो ते अेक ्रशस्वी Humorist आनी Satirist. माशेल ह्या आपणाल्या गांवांविशीं ते बरयतात:

'...अिंग्लिश लोक अिंग्लिश कशे जाले हें नकशांत अिंग्लंडा-कडेन पळेल्यार कळटा अशें म्हणटात. अिंग्लिंशाचें कशेंय आसूं, पुणून आमचे माशेलकारांचे बाबतींत तरी तें म्हणप सामकें लागू पडटा ...अिंग्लंड तुमकां नकाशांत पळोवंक मेळटा म्हणून माशेल मळपाचें ना. आनी मेळ्ळेंय जाल्यार तें आमगेलें माशेल न्हय, तें माशेल फ्रांसांतलें.'

'... गोंयां जेन्ना बाटाबाटी सुरू जाल्ली तेन्ना आमगेले देव फाटींफुडें पळेनासतना जागो मेळटा थंय, वाट मेळटा तशे पळत सुटलें; आमगेलेच देव ते! आज तातूंतले कितलेशेच आमच्या गांवांत भयभिरांत सोडून जियोतात. कितलेशेच आमच्या गांवांत आयले ते आमी माशेलकार मोटे खांपे झुजपी आनी धर्माचे राखणदार म्हणून न्हय तर फक्कत आमगेलो गांव त्या काळांत सौंदेकाराल्या शेकातळा आशिल्लो, तिसवाडीच्या सगळ्यांत लांगींचो गांव वर्ततालो म्हणून! चोडणेंचे देवकी-कृष्ण, पिसो रवळू आनी शाणो रवळू, (हय, देवांय मजगतीं हें असलें आसता) कुमरजुंवें, रायबंदर, चिमल हांगाच्यो शांतादुर्गो आनी खंयचेतरी दाडशंकर आनी मल्लिनाथ हे सगळे देव आमच्या गांवांत गर्दी करून आसात. तांचीं देवळां अितलीं आसात आनी तीं जळीं मळीं अशीं पातळ्ळ्यांत कि परकी मनशाक आमी खंय रावतांत आनी देव खंय रावतांत हें समजप कठीण वेता.

वेळारी लोक काळेंगोरें मोदपाचो त्राम नाका म्हणून माशेलांतल्या घराघराक पांयां पडून वतात तें पळवन माशेलकार मिश्र्यांतले मिश्र्यांत हांसतात.'

('स्वाती' 1960)

लक्ष्मणराव सरदेसाय हें मराठींतले म्हत्वाचे कथाकार, तशेंच कोंकणींतले प्रमुख निबंदकार. ह्या ना त्या निमतान तांच्या हेर बरपावळीवांगडा निबंदांतूय तांचो मावयवेरें हो गांव तकली वयर काडून वता. मनोहरराय हे प्रामुख्यान कोंकणी कवी. निबंदाक lyric in prose ही व्याख्या मान्य केली जाल्यार मनोहररायांनी गद्यांतल्या लिरिकापरस पद्य 'लिरिक' चड बरयलां. तांच्या पद्यांत केन्ना केन्ना तांचो गांव दिसता:

काणयेंतल्या वानरावरी
काळीज हांवें
म्हज्या गांवच्या जांबळी झाडार
दवल्लां
खंय झडत म्हणून
खंय पडत म्हणून

('पिसोळीं' 1981)

ल्हानपणांतल्यो यादी काडटाना मनोहरराय सांगतात:

'आमचें मावय-वेरेंचें घर आनी मावयवेरें हो गांव-ही म्हजे यादस्तेंत त्या वेळार आसात तशींच आसात. गोंया दोन वेरीं आसात. एक बेती-वेरें-पणजेचे पलतडीं आनी दुसरें मावय-वेरें, वळवय गांवाक तेंकून आमचो गांव मांडवी देगेवेल्या दोंगुल्ल्याचेर वसला. गांवांतल्यो वाटो फातरांच्यो वाकड्यो निकड्यो. च्यार्ची दुकानां, नुम्न्या बाजार वी आसात ताका चांफ्यभाट म्हणटात. ताका तेंकूनूच पोर्तुगेजांनी बांदिल्लें प्रिमार इस्कोल आसा. थंयच्यान एक व्हाळ व्हांवता तो आमच्या घराकडल्यान वेता. व्हाळाचेर एक सांकव आसा. ह्या सांकवावेल्यान, दोंगरांतल्यान तीन वरां चलतकच फोंडे गांव लागता...'

(कोंकणी दिवाळी 1981)

केळेकार पिरवोळचे. रवीन्द्रबाबांचे बरपावळींत खूबदां पिरवोळ आयलां. त्याभार गुरुनाथबाब, शशीकरबाब. आनी हेर केळेकारांच्या बरपांत ह्या ना त्या निमतान पिरवोळ दिसलां. पुंडलीक केळेकारान बरयलां:

'मडगांवच्यान पणजे वचपाक भायर सरिल्ली मोटार मोठ्या कश्टांनी फोंडेची घांटी चडटा आनी फर्मागुडयेर पावनाफुडे सुटकेचो हुस्वास सोडून थंडमाणेन आडवीं उबीं वळणां घेत चलूंक लागता. तेन्ना भितर बशिल्ल्यो जण एकलो सगळी थाकाय फापुडटा

ानी टवटवीत मुद्रेन दोंय दिकांनी पसवल्ले वनस्तीक पळवन खुशालभरीत जावन भितर्लेभितर हणटाः पिरवोळ तें पिरवोळ. ताजी सर कोणाक येवची पडल्या ? ... ... चार दिकांनी ार सुपुल्ल्या दोंगरांची सासाय दवरून मेकळे हवेंत आनी उकत्या वातावरणांत जित्या णेण्या सैमाचो आनंद भोगपी हो म्हजो गांव ल्हानसान न्हय. ताजो एक एक वाडो म्हळ्यार दरतायेचो आनी किर्तीचो एक आगरच. म्हाड्डोळव्या फुलकाराक कोण वळखना ? गेशींच्या प्राकारांत कोण पावंक ना ? आनी देवूळवाड्यावेल्या बेताळाक कोणें पळवंक ा? आपेव्हाळपसून कुंकळयेची शीम धल्लयार सगळें पिरवोळूच... पिरवोळांत मनशांपसून हान किडींमूयमेरेन सगळीं धादोशी दिसतात अशें म्हळ्यार अतिताय जांवचीना. वचत य पांचवी चार भूंय. पावलापावलाक शेतोड आनी मड्डां. कडेक आशिल्ल्यो बांदाववल्ल्यो ंच ऊंच माडांच्यो वळेरी पळवन 'कांयच चुकना, ते थंय शेतां राखुंकुच रावल्याते' अशेंच ळेतल्याक दिसता.'

('पुनव' जून 1973)

आतांमेरेन बोरी, माशेल, सावयवेरें, पिरवोळ बी अंत्रुजेंतल्या गांवांची चर्चा जाली. र म्हालांतले हेर गांवूय कोंकणी निबंदांनी वसल्यात. काणकोणच्या पाळोल्या विशीं मीना ायतोंडे (काकोडकार) बरयताः

'देवळां, अिगर्जी, कळंगुटची आनी कोलवेंची दयदिग आनो मुरगांवचें बंदर पळयलें, हणटकीर गोंयांतलें भौतेक सगळें पळोवन जालें असो समज आसा. पुण जाचे वेंगेंत रुप्याचो दर्या घसघसता, सायलाचीं रानां सळसळटात, आंब्या काजींचे दोंगर परमळटात आनी पांचवीचार शेतां लवलवतात अशा एका गोंयच्या वाटारांत दयदिगेर माडांनी लेपिल्ली तो सोबीत वाडो पळेनाफुडें गोंयच्या सैमाचो साक्षात्कार जालो ना जाल्यारूच अजाप. हो वाडो आसा काणकोणांत. पाळोलें ताचें नांव.. पुनवे रातीं चुडटांची सळमळ आयकत, चान्नयान भिजिल्ली ती पाळोलेंची दयदिग पळोवंची! रुप्याचीं, ल्हारां, फेणेरांचीं फुलां पळयता तितलीं थोडीं दिसतात. मळबावेलो लखलख चड काय दर्याचो झगझग चड, कांयच कळना जाता. ल्हारांची ती ओड चान्न्याचें तें तेज सांगून कळपाचें ना. जण अेकल्यान तें स्वताच अणभवूंक जाय... अशें आसा हें पाळोलें! साद्या सोबीत रानफुलाभाशेन! गुजरत कोणेय हांगां येवचें तर हाचे सोबीत कायेन गुल्ल जावंचें. हरशीं मगल्यांचे नदरेपसून ययस तें अेकटेंच फुलत आसा..., परमळत आसा..!'

अना म्हांबऱ्याच्या निबंदांनी सगलें गोंय दिसता. 'गोंयची अस्मिंताय' हें पुस्तक म्हळ्यार गोंय ह्या अेकाच विशयाचेर बरयल्ले सगले निबंद. पुण आपणाल्या सुंदर 'रायबंदर' विशीं ताची ओड ताच्या अेका निबंदांत वाचती. (हो निबंद 'विद्या' 1969, मुंबैच्या आंकांत आयला. सध्या म्हज्या हाताकडे ना.)

मो. कामु द सिल्व 'म्हजो गांव रायतूरां'त बरयतात.

'रायतूर! रायतूरचो सगलो मान आनी अनद ते इतिहासीक सेमिनारीचेर आटापलेलो आसा. रायतूरचे सेमिनारीचें नांव आज आमच्याच देसांत न्हय पुण येवरोपांत, अमेरिकेंय गाजता. हे सेमिनारींत शिकून पाद्री जाल्ले गोंयचे पूत संवसाराच्या चारूय कोनशांनी शिंपडलेले आसात. हेच सेमिनारिन संवसाराक तीन बिस्पसायबूय दिल्यात... हेच सेमिनारींत पयलो छापखानो बसयलो. तो अख्ख्याच भारतांत पयलो... रायतूरचें म्हत्व खरेंत. इतिहासीक तशेंच धर्मीक. शेंकडे आदीं ताचो प्रभाव पडटालो तेचपरीं आतांय सगल्या संवसाराक पडटा.'

('नवें गोंय' जानेर 1964)

रायबंदरचे पलतडी चोडण. प्रकाश थळी चोडणेंचो. ताच्या कवितांनी चोडण आयलां तशेंच निबंदांनीय अदीं मदीं आयलां. (चोडणेंचे 'फिदाल्ग' गोंयच्या अितिहासांत फामाद. 'व्हडें भोंवन भोंवन चोडणाच' हीय म्हण तिसवाडींत घोळटा. अेके कवितेंत थळयान बरयलां :

म्हजेअितलो फिदाल्ग<br>
कोण ना, कोण्णा<br>
गांव म्हजो चोण्णा<br>
... ... ... ...<br>
गांवाभायर हांव जरी<br>
पावलों खयींय<br>
म्हजें मन हांगासल्ल्या व्हड्यावरी<br>
भोंवन भोंवन चोण्णाच,

'दीस अशे आशिल्ले,' 'पेत्रोलाचो वास' ह्री ताच्या निबंदांनी चोण्ण पळोवंक मेळटा.

**व्यवसायांचेर आधारीत जातींचे प्रतिनिधी :**

परंपरेन घराण्याचे अुद्योगव्यवसाय करपाची मक्तेदारी गोंयां आज अुरूंक ना. कोणूय कसलोय धंदो करता. ताकालागून ह्यो व्यवसायाधिष्ठित 'जाती.' संस्था, आतां कालबाह्य जावन फाटीं पडल्यात. पुण 'पारंपारि'क तरेचे निबंद बरोवप्यांनी हे 'परंपरे'ची कोंकणी निबंदांत सेम बरी दखल घेतल्या. निकुबाब धुमो हांगेली 'गोंयची नुस्तेकान्न' पळयात :

'ह्या संवसारांतल्या भौतेक सगळ्या देशांनी नुसतें मेळटा. नुसतें मेळटा म्हणटकच नुसतेकान्नीय सगळेकडेन आसात हें आनी सांगपाचि गरज ना. पुण आमचे गोंयचे नुस्तेकान्नींची सर सात आनी खैंचेच नुस्तेकान्नीक येंवचेली ना! जशें टांगेवाल्यांत पुण्याचो टांगेवाला,

ालांत मुबैचो हमाल, बडव्यांत पंढरपूरचो बडवो, तशें नुमतेकान्नींत आमची गोंयची सतेंकान्न! ... 'आयज गोंयकार जे अितले हुशार जाल्यात ते नुमतेकान्नीक आनी तिणे डून दिल्ल्या नुस्त्याक लागून न्हय मू अमो म्हाका केन्नाय प्रश्न पडटा. गोंयकाराक च्याय क्षेत्रांत घालात, तो आपलें आनी गोंयचें नाव काडल्याबगर रावना. तकलेन तो ब्ब हुशार ! ... ताची तकली अितली तरतरीत कशी जाली ? आयमेग्रेन दुलून, रोजान, द्रिनान आनी गजऱ्यान ताका शेंवटे, विस्वण, काळुंदरां आनी मानशेचीं जीं मुंगरा ावयल्यांत ताचोच हो परिणाम हातूत म्हाका तरी कांय दुबाव दिसना...'

('स्वाती' 1960)

लक्ष्मणराव सरदेसाय हाणीं मास्तर, रेंदेर, पदेर शेट, भारत, देमांदिस्त, आनी हेर ांय Types आपणाल्या सुरबूस निबंदानी रगयल्यात :-

**देर:-**

'जंय माड आसा थंय रेंदेर आसा. माडाबगर गोंयांत एकूय गांव आसतसो म्हाका दिसता. पाद्री आनी भट नात अशे गांव आसत, मेस्त-मडवळ नात अशेय कांय गांव ासत; पुण रेंदेर ना असो गांव ना ... रेंदेराच्या एका हातांत रूंद पात्याची चकचकीत ाती आसता आनी दुसऱ्या हातांत तांबडें, हळडुवें दाबणें आसता. पुण तांची ताका ाडखळ जायना. ताचो देह सुकण्यावरी ल्हव जाता, जावंक जाय. तशेंच ताचें मनय डूंक लागता. खंयचो कुळवाडी भुंयेर काम करता आसताना शेळोणी घालता, पदां ायता, कांतरां म्हणटा ? तीं कांतरांय कसलीं ? मोगाचीं, उल्हासाचीं. जसो जसो तो ळबार चडटा, तशे तशें ताचें मन भोंवतणच्या आसंमतांत पातळटा. तो निरक्षर आसुनूय कवी जाता. कवनां रचता आनी वांगडाच म्हणटा ... रेंदेर मोग दिता आनी सूर दिता! सूर म्हळ्यार माडाचो अर्क, माड म्हळ्यार रुखांचो राजा, वनस्पती सृष्टिचो प्रतिनिधी. आनी मोग म्हळ्यार मनशाचो प्राण, भावनांचें अमृत, कर्तुपाची, पुरुशार्थाची कळ. रेंदेर दिता खूब आनी घेता थोडेंच. कमराक काश्टी लावन तो सूर दिता. थोड्याच वेळांत खूब आनंद लुटपाचें वखद दिता आनी घरांतली बायल प्रपंचाच्या उपाद्रयांनी कल्ल जाल्या आसतनाय तो लोकांक मोग दिता, मोग शिकयता ताका वाचूंक येना. तो शास्त्रां शिकूंक ना पुण कश्टांत आनंद सोदपाची अनी तो लोकांक दिवपाची कला तो शिकला. जीण आनी मर्ण हांचे मदसून गेल्ले अशीर वाटेवयल्यान गितां गायत, अमृत आनी मोग दीत तो निर्धास्त चलत आसता. देखून हांव म्हणटां, जिणेचो खरेलो अर्थ रेंदराकूच कळ्ळा...'

('खबरी'... 1980)

**पदेर:**

'ते फिरंगी गेले आनी ते अुंडेय गेले' अशी एक कोंकणी म्हण आसा. आज ती

अक्षरशः स्वर्ग जाल्ली दिसता. अंडें म्हळ्यार आयचें पाव. तांची याद जाल्ली म्हणटकच म्हजो जीव चिर्टमिट्टा. त्या काळच्या उंड्यामारकोच तो पदेर दर्शनसंतोषी आसला. पयलींचें ते उंडे आनी आयचें पाव हांची सर करीत जाल्यार उंड्याची तारीफ करची तितली थोडी! कितें तांचो कडकडीत! पंचवीस धेपाचेर ताचो घमघम सुट्टालो. पाट्यावयली धवी फुल्ल चादर कुशीक करतकच ते गरगरीत तांबशे, हळडुशे, तुकतुकीत अंडे पळोवन मनशाचो जीव अचांबळ जावंचो. कितें ताच्या तोंडावयलो कान! ते अंडे उलयताल्लय गा!

('खबरी' 1960)

प्रो. लुमियु गॉड्रिक्स हाणींय 'पदेरा' चेर बरयलां :

'ते फिरंगी गेले आनी ते अंडेंय कावार जाले, जाणा मरे बाबा!' अशें आमचे वडील जायतें फावट म्हणटात. आनी ते म्हणटात तें खरें. ते अंडे खावपी, आमी म्हणूंया, कावार जालेत. पूण ते अंडें करपी कावार जावंक नात. पीट कालवपी, आनी मळपी, अंडें भाजपी आनी विकपी आमच्यामदें आजूनय आसात. ताच्या फोर्नांतली ऊजा आजून पालोवंक ना. आनी तांच्या दांड्याचो आवाज आजून आमच्या कानार पडटा. बापूय मेला जायत पूण ताजे पूत आसात. कित्याक, असलो धंदो एक एक कुटूंब चलयतालें आनी ताच्या पूरवजांनी फोर्नां बांदलेल्यो तीं आजून बंद पडूंक नात. ताकाच आमी पदेर म्हणून पाचारतात'

('स्वाती' 1960)

'गायबारी' ह्या व्यक्ती-संस्थेविशीं लुमियु गॉड्रिक्स सांगतात:

'साष्टींतलो लोक ताका गायबारी म्हण पाचारतात आनी बारदेसांतलो लोक ताका कारभारी नाजाल्यार म्हालो म्हणटात. पूण बारदेश जांव साष्टीत, तिसवाडी जांव फोंड्यांत, ह्या मनशा सारको आनीक कोण ना. अख्ख्या गोयांत ताचें सेव एकूच. खैंच्याय गांवांत तूं वच वा खैंच्याय वाड्यार वच, तुका तो मेळटलो आनी ताका तूं रोखडोच वळखतलो। जाण्टो-सो, सुमाराचो न्हेसलेलो, आंगलेटीन बरो, हांसत्या तोंडाचो, बारीक नदरेचो आनी गोड जिबेचो. तुजेर वयर-सकयल एक नदर मारून तुका तो पारखितलो। तूं कोण, तूं कोणागेलो, तुकां कितलीं वर्सां आसात, तुजो पाय आनी माय कोण शापाय-शामाय आनी आजो-पणजो, तुजीं सोयऱ्यां धायऱ्यां, इश्ट-मित्र, तूं खंय सिर्विस करता आनी कितलें पगार घेता, तुजें शिकप आनी तुज्यो खोट्यो संवयी, आनी तुजे गूण आनी तुज्यो खोडी-हें सगळें तो तुका सांगूंक शकता. पूण तो सगळें सांगचो ना. तुज्यो खोट्यो संवयी आनी खोडी तो सांगचो ना. कित्याक तूं एक आंकवार चलो आनी तांच्या मनांत तुका सोयरीक करची आसा.'

('स्वाती' 1960)

ट:-

'मनशाच्या धंद्याचो परिणाम ताच्या सभावाचेर जाता म्हणटात. शेटीची धंदो भांगराचो, ळ्यार भांगराच्यो वस्ती करपाची. ताकालागून ताचें मन भांगरामारकेंच लकलकीत ासता. ताचो देहूय ताच्या मनासारकोच आसता. रंगरुपांत शेट बामणाक फाटीं अुडयता ळ्यार जायत. ताचो पोशाकूय ताच्या शरिराक मोबसारको... एक वस्त्र धोडावन थापटाबन । रुपये आयले जाल्यार वेळ वगडाय नासतना शेट मारकिटांत धांवता आनी शेंवटयाचे ंथनिाचो झेलो घेवन, मोटया डौलान घरा परतता... शेट विम्वण वा कल्ली केन्नाच टलावन हाडिना. तरसाद कशी-शी झेसयत, वावडीत, येवपी वचप्याकडेन अुलयत, स्त्याकडेन अभिमानान पळेत आनी लोकांचें लक्ष हांतांतले चकचकीत धवे फुल्ल कल्लेकडेन ोडून घेत तो रस्तयांतसून डौलान येता'

('खबरी' 1980)

दो. दत्ताराम सुखठणकार हाणींय अशे तरेचे Types बरेतरेन चितारल्यात: म्हालो, डवळ, घरचाकर आनी हेर. म्हाल्या विशीं ते बरयतात:

'म्हाले केस कापपाक प्रमाणाभायर वेळ लायतात असो म्हजो एक प्रमाणिक समज. क खेपे फोर्टांत एका म्हाल्यान म्हजे केंस स मिनटांभितर मारिल्लें ती म्हाका घट्ट याद ासा. हांवें म्हज्या म्हाल्याक ह्या संबंदान विचाल्लें. ताणें म्हाका जी जाप दिली ती विचार रपा सारकी. ताणे म्हळें, 'तें म्ह्ळ्यार आमच्या दोतोराभाशेन. गिरायक नासलें कि र्दवर लावन तपासप, खंय सुयो तोप, खंय तुतये मार, ब्लडप्रेशर पळे अशें करून वेळ ाडप. तीच, गर्दी आसलो कि दोन मिनटांनी काम जाता. स मिनटां कित्याक ? हांव तीन मेनटांनी केस कापून दाखयतां, पुण अशें केल्यार तीन मिनटांक दोन रुपया दिवंक तुमकां दुखतलें, खेरीज काम बेगीन सोंपून म्हाका बेकार बसचें पडटलें, ताका लागून हाचें मलून वलना अशें लोकांक दिसतलें. 'ताची ही जाप आयकून म्हाका अजाप जालें. आमच्या दोगांयच्या धंद्यांतलें गुपीत ताणें एकदम फोडिल्लें'

('मान्नी पुनव' 1977)

मडवळ:

'मडवळ ही संस्था मनशान वस्त्रां वापरपाचें थारायत सावन संवसाराचे फाटीर नंदता. पुर्विल्ल्या काळांत नवो गांव वसोवचो जालो म्हणटकूच सोनार, शिंपी, कुळकर्णी अप्पा हांचे बराबर मडवळाचीय गरज लागताली. रामायणांतल्या काळांत वल्कलां धुवपाचें आपणालें काम सोडून सीतेसंबंदान हयन्हय त्यो गजाली उलोवन रामाकडल्यान तिका परतो वनवास घडोवपी एक मडवळूच आशिल्लो हें लक्षांत घेतल्यार मडवळाचे पोरणेपण सिद्ध जाता... तशें पळेल्यार असलीं कामां मडवळापरस म्हाल्यांकूच बरीं जमतात... इंग्लेजींत लोकांल्यो खासगी भानगडी चारचौगांत हाडपाक to wash dirty linen in

public अशें म्हणटात. म्हळ्यार म्हेळीं वस्त्रां चवाट्यार धुवप. प्रभु रामचंद्राच्या घरचीं म्हेळीं वस्त्रां चवाट्यार धुवपाचें काम मडवळाक दिवन वाल्मिकीन आपणाली कल्पकताच दाखयल्या जावंये....'

('मान्नी पुनव' 1977)

**घरचाकर:**

'कांय उतरां अशीं आसतात कि ताचो अर्थ बदलत आसता. घरचाकर हो शब्द जेन्ना निर्माण जालो तेन्ना ताचो अर्थ खूब वेगळो आशिल्लो. घरातलीं सगळीं कामां करपी नोकर असो त्या उतराचो अर्थ सुरवातीक आशिल्लो जावंक जाय. पूण हालीं काळ बदल्ला तसो तो अर्थूय बदल्लो. घरातलें स्वंयचेंय काम ना-करपी पूण फकत पिडापीड करपाखातीर पगार दिवन दवरल्लो मनीस असो घरचाकर ह्या उतराचो अर्थ जालो...'

('मान्नी पुनव' 1977)

अ. ना. म्हांबरो हाणींय गोंयच्या 'दोतोर, इजनेर, प्रोफेसोर आनी हेर' हाचेविशीं बरयलां:

'गोंयांत दोतोराक दोतोर म्हणटात. इजनेराक दोतोर म्हणटात. आदवोगादाकूय दोतोर म्हणटात. बरो फातर घालीत जाल्यार फातरात लेगीत दोतोरूच म्हणटात. पूण त्याच बरोबर सरकारी येंप्रेगाद वा प्रोफेसोर हांका दोतोर म्हणनात. सरकारी येंप्रेगादाक बाब म्हणटात आनी प्रोफेसोराक 'प्रोसोर' म्हणटात. ही सगली रजाल खरी म्हळ्यार पुर्तुगेजांच्या तेपावयली. त्यावेळार गोंयांत दोतोर, इजनेर, आदवोगाद, प्रोफेसोर, सरकारी येंप्रेगाद, भाटकार आनी वेपारी अशी मान मेळत जाता आशिल्ल्यो. निमण्या धा-वीस वरसांत तातूंत मिनेर म्हणून आनीक एक जातीचो भर पडलो. पयलीं पयलीं हातूंत सगल्यांत चड मान भाटकाराक आशिल्लो. पूण भाटकार दिसा दिसा दमादानी धुस्पुक लागले. तागलो भाटो बुडूंक लागलो आनी ते रिणकारी जावंक लागले. भाटकार जशेजशे फाटीं पडूंक लागले तशेतशे मिनेर वयर सरूंक लागले. भाटकाराखेरीज हेरांभितर त्या काळार मान आशिल्लो तो दोतोर आनी इजनेर हांका. आदवोगादांक बरें उलोवंक येता म्हणून तांकांय गोंयकार लेखताले. प्रोफेसोर आनी सरकारी येंप्रेगाद हांचे भितर सरकारी येंप्रेगादाक चड मान आशिल्लो... प्रोफेसोर म्हणटात तो बापडो एक सादो सरळ मनीस. ताका दोतोर-इजनेरावरी इस्टेत दाखोवंक येनासलो. आदवोगादावरी लोकांच्या घरांचेर सुर्णी चडोवंक येनासलो. सरकारी येंप्रेगादावरी गुड्डुलामावा करूंक येनासलो. दुसरे वटेन गोंयकारांक शिक्षणाचें म्हत्व म्हणटात तें केन्ना समजलेंच ना. राखणे गोरवां राखतात, तशे प्रोफेसोर भुरग्यांक शिकयतात अशें ते लेखीत आयल्यात. गोंयकारांनी शिक्षणाबद्दला दुडवांक अदीक लेखलें. देखून मिनेर-भाटकारां फाटोफाट ताणीं वेपाऱ्यांक मान दिलो...'

शंकर भांडारी हाणीं गोंयच्या 'शोफेर' चें मार्मिक चित्रण केलां. (पळयात 'जैत' वाळी अंक 1966. मध्या तो अंक म्हज्या हाताक लागना.)

**रगेंपणांतल्यो यादी:**

निबंदांत चडकरून लघुनिबंदांत (आपअुक्तावणेच्या) फाटल्यो यादी येवप मामकें बावीक. खूबशा निबंदांनी पोरण्यो यादी ह्या ना त्या निमतान आयल्यात. कांय जाणांनी ोरण्यो यादी होच विशय घेवन निबंद बरयल्यात. मनीम मादारणपणान जाण्टो, म्हातारे ावंक लागलो म्हाणटकीर ताका, फाटल्यो यादी काडीत येवजुपाची संवय लागता. ोंकणी निबंदकारांभितर जाण्ट्या बरोवप्यांवांगडाच कांय तरणाट्यांनीय पोरण्यो यादी ाडीत तांचेर बरयलां. सोतेर बार्रेत बरयता:

' ... कांय गजाली अशो आसतात कि तांची याद जातच तातूंतुच मन केदोवेळ ुस्पून अुरता. गुंगी घेतिल्ल्या वखदाभाशेन... हांव ल्हान आसताना, म्हज्या शेजाराक अेक र आसलें... तांच्या व्हडल्या घराभायर दोनूय वटांनीं बाग करपाचो जागो आसलो... ुर्गात दोन झाडां आशिल्लीं. अेका कोनशाक अेक सोबीत दर्शीण आनीक दुसऱ्या कोनश्याक ेक forget me not चें झाड. घडये त्या forget me not झाडानूच म्हाका विसर पडूंक दवंक ना. ह्या दोनूय झाडांची म्हाका कितली मन तळमळावन याद जाता. म्हणून ांगू?...'

('कोंकणी' दिवाळी 1982)

ुंडलीक नायक 'काळजाक गरी लावन' सांगता:

'म्हज्या भुरगेपणांतल्यो कांय यादी अुसवत्यो म्हणटकच ताज्या नुस्त्यावरी फडफडूंक लागतात. तेन्ना हांव शाळेंत वचनासतना म्हजो नुस्तें गरोवपाचो सराव करूंक लागिल्लों जाल्यार अेक नामनेची गरवली जावंक पावतलों आसलों... शाळेंत वतालों. आयतारची सुटी म्हळ्यार नुस्तें घरपाखातीर सरकारान केल्ली भुरग्यांची खासा सोय अशी समजून आसली. बरे तरेन नुस्तें पागप्याक त्या काळार गांवांत प्रतिष्टा आसली... काळजाक गरो लागचो अशे कांय उगडास म्हाका आसात... हिंदळ म्हळ्यार माव्या नुस्त्यांतलें सागटूच. हिंदळांवा हांवे सोडलीं खरीं पुण ताणी म्हाका सोडलोना. खंयच्या जल्माचें वैर सादून अेकान आपणालो कांटो म्हजे जांगेंत अर्दो इंचभर भितर रिगयलो... नुस्तें चड तेंप उरना. सोव जाता. पोंवशेता. पुण नुसत्याचो वास, ताजी रूच आनी उगडास आयुश्यभराचें धन जाता... आज हांव भुरगेपणांतलो नुस्तेकार तरणेपणांत लेखक जालां. ल्हानपणांत म्हजो आजो अेक काणी सांगतालो तिचो उडास जाता. अेक ल्हान भुरगो खंय पाटयेर 'श्री' चिरतालो. व्हडलो जातकच ताका पुस्तक हाडलें तर पुस्तकावयलीं बारीक अक्षरां पळोवन तो आपणाली 'शिरी' भागली म्हण हुडकेवन रडूंक लागलो. ल्हानपणांतली म्हज्या हातांनी

गरवणेची शिनारी आज तरणेपणांत लिखूणी जावन म्हज्या हातांतली आयल्या. काळजाचे अुत्कंठतायेन गर्गयल्लें तुम्तें आनी तेच उत्कंठतायेन वरयिल्लीं उतरां हांच्यांत फरक नासत जाल्यार त्या भुरग्यावरी पिसो कसो हांव वरीच कित्याक रडूं?"

('कोंकणी' दिवाळी 197)

प्रकाश थळयाच्या लघुनिबंदानी भुरगेपणाचल्यो यादी खूब आयल्यात: 'दीस अशे आशिल्ले.' 'भुरगेंपण खरेंच बरें.' 'पेट्रोलाचो वास.' 'फोगोट्यो' ही निबंद वाचचे:

'अेका तेपार गांवांत मीन काडटाले. त्यावेळार गांवांत अेक ट्रक आशिल्लो. पूण मीन दोनतीन वर्सांभितर बंद पडिल्ल्यान ट्रक नाच जालो. गांवांत मोटार नाशिल्ल्यान त्यावेळार अेक दोन शेतांखणपा मिशिनांक मात बरेंच मान मेळटालो. आमी गांवांतली पोरां ट्रॅक्टर रस्त्यार दिसलो रे दिसलो कि पिर्शी जातालीं. धावत मुद्दाली मिशिनाफाटल्यान आपणाक वसय म्हणीत. कांय भुरगीं मिशिनार बसून वतालीं. अुरिल्लीं रस्त्याक नाक तेंकोवन मानयेन पेट्रोलाचो वास घेतालीं. काजारावतीर वा हेर मोट्या दबाज्यावतीर गांवांत मोटार येताली तेन्नाय आमी रस्त्याक नाक घासतालों.. तो तो वास आयलो म्हणटकीर त्या त्या वेळेची याद जावन मन खंय खंय पावता.'

'हांव तेन्ना किते 10-12 वर्सांचो आसतलों. सोयऱ्यांवांगडा गांवानूच खंयच्यातरी नाटकाक गेल्लों. त्या सोयऱ्यागेले म्हजे पिरायेचें एक सुंदर, गोरेंपान, निळ्या दोळ्यांचें आनी काळ्या भोंवर्‍यांचें चली नाटकाच्या मांटवांत म्हजेकुशीक कदेलीर बशिल्ले. अशेंच खबरी, फकाणां जातां जातां आम्ची 'नदरेक नदर' लागली आनी वळख जाली. तशें तें म्हाका आनीकूय तेंकून बसलें. हांव ते राती कितलेशे वा कसलें नाटक पळेलें तें आज स्मरना. तें नाटक केन्ना सोंपलें तेंय कळ्ळें ना. घरा परततना म्हणसर कोंबो रडून गेल्लो. एकवटेन कोणाल्या तरी बट्टांत, पोरसांत रातराणी परमळटाली. दुसरेवटेन म्हजीच 'राणी' जाल्लेवरी तें चली म्हाका तेंकून तेंकून चलतालें... आज केन्नांय नाटका सिनेमासावन रातचो अुसरां घरा परततनां तेन्नां खर्यांय अशीच रातराणी परमळटा. तो जगावेगळो, काळजार जादू करपी परमळ मनाक भलयना आसतनाच जीव पोरणे यादीन कळवळटा, फुगार जाता. अचकीत मनोहररायाच्या काव्यांतल्यो वळी ओंठार येतात.'

'फुलता आज रातराणी
तिका मातूय खबर ना
म्हजी राणी वांगडा ना, वांगडा ना.
फुलता आज रातराणी
तिका मातूय खबर ना.'

('पुनव' फेब्रेर 1973)

आकाशवाणी कलाकार रमेश सखाराम बरवे बरयतात:

'जायत्या जाणांनी आपणाल्या भुरगेपणाच्यो यादी बरयल्यात आनी 'रम्य तें बालपण' ह्या समाधानान आपणें आपणाकुच तोखेलां आसतलें. तुकारामान 'लहानपण देगा देवा-' अशें बरोन 'आपुण भुरगो आसताना खूब सुखांत आशिल्लों. पुण आतां हे कजाग जायले मामाखार न्हय रे पुता!' अशें सुचयलां आसुंये. कितेंय आसूं-म्हजें भुरगेपण रम्यय जावंक ना आनी म्हका 'सुंगी साखरेचो रवोय' बी मेळूंक ना. मेळ्ळ्यांत तीं आवय, बापूय, भयण, भाव, आनी गुरुजन हांची 'अुतरां आनी लडे!' हांव म्हज्या भावणांत ल्हान. केन्नाय निमण्या अपत्याचे लाड चड जातात खंय. पुण म्हजे बाबतींत हो अणभव सारको परतो. मारूंक सोपो, ल्हान म्हणून कोणूय सोम्त्राक म्हाका बडयतालो.'

('कोंकणी' दिवाळी 1978)

मनोहरराय सरदेसायांच्या लघु निबंदानी तांच्या लहानपणांतल्यो यादी आयल्यात.

'मनश्याच्यो चडश्यो यादी भुरगेपणांतल्योच असतात. कालपयरच्यो यादी पुसून वेतात पुण मनाचे ओले चिकण मातयेर भुरगेपणांतल्या मायेच्या हातांचे छाप वा दुश्टपणाच्या नाखटाचे भुरके तशेच उरतात. मेंदवाची खंयची तरी मळमूद मात्शी दामीत जाल्यार फाटले प्रसंग परतून दिसूंक लागतात- कालूच घडिल्ल्यावरी... मनाचे वासरेंत फाटीं फाटीं वेतकूच मागीर सगलो काळोखूच दिसता. म्हजी पयली याद खंयची काय! सांगूक कठीन! एक याद जाता. हांव बाज्जेवेल्यान जमनीर पडलां आनी रडटां. दुसरी याद म्हळयार म्हाका बुकल्यान भुरको काडला आनी म्हाका दुखता. ह्यो दोनूय यादी, म्हापशेंच्या खोल्ले वाड्यांतल्यो जावंक जाय. हांव त्या वेळार चारपांच वर्सांचो आसन. माळयेचें एक घर दिसता, भोंवतणी झाडां, एक भुरगो आनी एक म्हातारी इतलें अंधकशें दिसता... भुरगेपणचे यादींत तीन घरां दिसतात. एक पणजेचें घर वागळ्याचें. म्हालक्षमीच्या देवळाक तेंकून. दुसरें घर आमचें मावय वेरेंचें आनी तिसरें घर तिसें ह्या गांवांतलें आमच्या भाटांतलें. आनी कांय चेरे दिसतात. आवय, बापूय, आजो, आवयची आवय आनी आवयची आजी.'

'... म्हजी आवय गोरीधवी सुंदर. खूब मोगाळ, तिचो ताळो म्होवाळ. तिच्या तोंडातल्यान हांवें पयलीं पदां आयकलीं. म्हजो बापूय आंगापांगान बरो, दिसूंक शिरवन्त पुण सदांच रागीटसो. आमचे कडेन खेळिल्लो, हांशिल्ल्याची, अपुर्बाय केल्ल्याची याद जायना. आवय-बापायचीं सदांच झगडीं चलतालीं. बापूय केन्ना किदें करीत तें सांगू येनासलें. केन्ना कोणाक मारीत, किदें सोखून मारीत नेम नासलो. म्हणटकच बापूय घरा आयलो रे आयलो भुरग्यांची सासकी गुळी जातालीं. ताका भुरग्यांनी खेळूंक जायनासलें। रडूंक तर जायच नासलें. बाबडी आवय कलकलत्या धड्धड्यान दीस काडटाली, बापूय

घरांतल्यान भायर सल्लों कि परतून आसों हासतालों, खेळटालों. सारगी बापूय आनी रडपी आवय हांचेमजगतीं खूबशें म्हजें भुरगेपण करपून गेल्लें...'

**साहित्यविशयक:**

साहित्यिक निबंद कोंकणींत वेगळ्यावेगळ्या रुपांनी आयला: केन्ना पुस्तकाक प्रस्तावना म्हणून तर केन्ना पुस्तकनियाळ म्हणून. आकाशवाणीवेल्या कार्यावळींतल्या भाशणांच्या रुपानूय असलो निबंद कानार पडला. कोंकणी समिक्षेच्या स्वरुपान निबंद आयल्यात. अशतरेचे निबंद बरोवप्यामदीं म्हाका दिसता, मनोहरराय सरदेसाय हांचो नंबर पयलो लागूंये. लक्ष्मणरावांच्या काय साहित्यिक निबंदांचें 'कथाशिल्प' (1977) पुस्तक जालां. कांय बरोवप्यांनी दुसऱ्याच्या पुस्तकांक प्रस्तावना नियाळ वी बरयल्यात जाल्यार कांय जाणांनी स्वताच्या साहित्याविशीं वेळाप्रसंगार सांगला. कथेची कथा, कवितेफाटली कथा, स्वताच्या साहित्यांतलें अेकाद्रें आवडीचें पात्र, आपणाल्या बरोवपाफाटली प्रेरणा अेक आनी दोन कितलेशेच साहित्यिक विशय निबंदाचो आकार घेवन आयल्यात.

बाकीबाब बोरकार आपणालें 'पांयजणां' हे चड गाजिल्ले कवितेविशीं बरयतात.

'एकाद्रें भुरगें तशेंच घेवनूच जल्माक येता अशें म्हणटात तशेंच कवितेचेंय आसता जाल्यार कोण जाणां! 'पांयजणां' कविता मुंबय आकाशवाणीचे कोंकणी कार्यावळींत हांवें पैलेच फावटी म्हळी तेन्ना आयकुप्याकडल्यान म्हाका कितलीशींच अभिनंदनाचीं पत्रां आयलीं. महाराष्ट्रांत जाल्ल्या म्हज्या खेच्याय काव्यगायनाच्या कार्यक्रमांत हे कवितेची हटकून फर्मायश आसता आनी तिका उत्स्फुर्त दाद हमखास मेळटा. ही कविता म्हजेकडल्यान बरोन जाली ती 1948 त. बरोन जाली अशें हांवें मुजरतच म्हळां कारण बरी आनी खरी कविता करतलो म्हणून करूंक येना. ती मनःस्थिती आनी परिस्थिती हांचो सहज मिलाफ घडूंक आपशींच जांवची पडटा. ही कविता जाली ती तशींच... घरादारार तुळशीपत्र दवरून हांव गोयच्या लढ्यांत पडिल्लों. मुंबै रावन आमच्या प्रस्नाचेर सगळो देश जागोवपाची खटपट करतालों. तशे अवस्थेंत आसतना म्हज्या वडलाचें म्हाका पत्र आयलें कि हांवें म्हज्या बायले भुरग्याक म्हजेसरी व्हेलेबगर आता रावतर ना... तेन्नाच्या गोयच्या गोंदेनांदोरान तांकां आपोन हाडून सांगिल्लें कि हांवें परतें गोयां येवचें आनी येवपाचें नासल्यार आपल्या बायले भुरग्याक आपले सरी व्हरचें... मेळिल्ल्या निरोपान म्हाका एकाएकीं वस्तुस्थितीची जाण आयली. घरकारणीची तिव्रतायेन याद जाली. दामून दवरिल्ले खामसरी भाव मुमारा भायर कोंवळीकेन वेर उपरासून आयले. घरचीं आनी गोयचीं सेम-चित्रां दोळ्यांर नियाळूंक लागलीं...' ('कोंकणी' दिवाळी 1982)

'जायात जागे' कवितेविशीं मनोहरराय सांगतात: 'कविता करप सोपें, कवितेची कथा बरोवप तितलें सोपें न्हय. कवितेक एक सूत आसता त्या सुताक धरून गेल्यार

ापशींच कविता घडटा. कवितेची कथा बरोवंक बसल्यार कितलेशेच धागे एकामेकांत स्पल्ले दिसतात. ते हुडकून कशे काडप?... स्फूर्तिदेवतेचो हात लागलो म्हण्टकूच कविता शी घडत वेता कांयच कळना.'

'जायात जागो' कवितेचें अशेंच घडलें.

'जायात जागे, जायात जागे!' हीं अुतरां मनांत घुंवक लागलीं आनी मागीर अुतरां ाटल्यान उतरां कशीं जुळत गेलीं तें कशें मांगूं? कवितेचेंय म्हणून एक तर्कशास्त्र (Logic) ामता. ताका धरून कविता फुलत गेली. फांतोड जातकच जें चित्र दिसता तेंच चित्र र्वेक दोळ्यांमुखार आयलें-उतरांचें रूप घेवन-उतरांचें रूप घेवन:

'दोंगुल्ल्यांचेर देंवलीं वोतां
धुवटेचीं दडलीं भुतां
सोरपा-पिले बिळांत गेले
घुघमांचे फुटले दोळे
जिबली काडून रावल्या चाटत
वाऱ्यावेले भांगरा-थेंबे
दसणीचे तांबडे-बोंगे

आनी मुखार नवें जग घडोवपापासत पोरणें जग मोडून उडोवपाची गरज भासली.

येवंदी हुंवार, येवं दी मोडां
कांटेखुंटे व्हांव दी फुडें
मुळासकट झाडां-पेडां
पडून मोडूं वंयों-आडे

प्रचारात्मक म्हणून ही कविता बरोवंक नासली. पूण भितर समाजवादी प्रचार आयला जायत. क्रांतीचे विचार त्योवेळार मनांत घोळटाले. तांकांय एक इतिहास आसा.'

('कोंकणी दिवाळी 1982)

आपणाले अेके कथेविशीं पुंडलीक नायक सांगता:

'म्हगेले 'वळख' कथेन म्हाका म्हज्यांतल्या कथाकाराची वळख घडयली. सुरवातीच्या चार-पांच कथांमदली ती अेक कथा. कशें बरोवचें. कितें बरोवंचें हें तेदेवेळार सारखें खबर नासलें. बरोवपाची अुमेद मात अुपाट आसली. साहित्य समिक्षा बी म्हणटा ताचो व्हडलोसो गंध नासलो. तशें आशिल्लें जाल्यार बरयता ती कथा, काय व्यक्तिचित्र, काय व्यक्तिचित्रणात्मक कथा अशा समिक्षेच्या शब्दजंवजाळांत घुस्पून ते कथेचे बारा त्रेस्तार आनी तेरा सुकार जावपाचे.'

'ही कथा म्हळ्यार म्हज्या जिवितांत घडिल्ल्यो सामक्यो खऱ्यो खऱ्यो गजाली. तातूंतली अेकूय फट मानूक जांवचिना. तशेंच घटनाय फट मानूक जांवचिना हें कथन आसा। 12-13 वर्सांचो संस्कारक्षम पिरायेचो अेक भुरगो. हो भुरगो म्हळ्यार हांवूच. त्या भुरग्याचो अेक इश्ट आसा काजूलो. वर्सांचो ड्रायव्हर. पिरायेन सुमार 35-40 वर्सांचो. दोगायमदीं पिरायेचें व्हड अंतर आसूनूय दोगायची गाड इश्टागत जुळटा. काजूलो भुरग्याल्या घर पेइंग गॅस्ट म्हणून येता. दोगूय अेका सांगातान बसून जेवतात. कांय तेंपा उपरान भुरग्याल्या आवय बापायक कळून येता, काजूलो परके जातीचो आनी उणे जातीचो आसा. तेन्नाच्यान काजूल्याक ताटाबदला पत्रावळ मेळटा. ह्या प्रसंगान भुरग्याच्या मनाचेर खूब व्हड परिणाम जाता. तो काळजांतल्यान न्हिचकळटा आनी 'आमी सगळे भाव-भाव' म्हण शाळेन आपणाक शिकोवपी मास्तराक खेपता. हिंगल्यान, ही कथा सोंपता. आसूनूय ही कथा हांव वेगळी गावून वाचूंकूच शकना. तातूंतल्या घटनांचें आनी व्यक्तींचें आनी म्हजेलागीं सामकें लागींचें नातें आसा.'

('कोंकणी' दिवाळी 1982)

उदय भेंब्रो अेक बऱ्यापैकी कवी, कथाकार, निबंदकार पूण कोंकणच्याच चड्डशा वावरांत घुस्पून उरिल्ल्यान 'हांव बरोवप सोडलें ना' ह्या विशयाचेरूच बरयता:

'हांव बरोवप सोडलां!... ना मनाचे पाटयेर बरोवप चालूच आसा. तें कागदार उतरावप घडना इतलेंच. कागदार उतरावप घडना आनी साहित्य वाचप्यामुखार येना देखून दिसता हांव बरोवप सोडलां. अशें घडलां तांचेकडल्यान अमूक एक घडणूक आसा अशें ना. चालू आशिल्ल्या कितल्याश्याच घडणुकांचो तो परिणाम. मुखेल कारण: फावो तितलो वेळ मेळना. वेळ कित्याक मेळना हाजीं कितलिशींच कारणां... तशें साहित्यिक मन घुस्मटता. बरयन दिसता पूण बरोवप घडना. तें घुस्पून उरता. सारगीर भुरग्याक थातारचें तशें ताका थातारचें पडटा. बाय, फाल्या वेळ मेळटलो, फाल्या सुसेग मेळटलो. - तेन्ना रचूंया, बरोवया. फाल्यां वेळ मेळटलो? कोण जाणा? जिवितांतल्यो सोडणो आदींच कोणें पळयल्यांत?...'

('कोंकणी' दिवाळी 1982)

अशेंच तरेन स्वताच्या साहित्या विशीं शीला कोळंबकार, मीना काकोडकार, दामोदर मावजो, दत्ता नायक, चंद्रकांत केणी, रवीन्द्र केळेकार, ऑलिविन गोमिश आनी हेर जायत्या लेखकांनी निबंद बरयल्यात.

### प्रवास आनी सैम

'हिमालयांत' (1975) आनी 'आमी पळयल्लो सोविएत देश' (1976, संपा. नारायण देसाय) हीं दोन पुस्तकां सोडल्यार प्रवासवर्णनाचे संग्रह आजवेर कोंकणींत नात म्हळ्यार

ाता. शिंपडलेल्या स्वरूपांत जायते प्रवासवर्णनपर आनी सैमी वर्णनाचे निबंद खूब आसात. वीन्द्र केळेकारांच्या प्रवासवर्णनांत आनी हरशींय सैमाचें वर्णन करपी निबंद खूब आसात. ांचें 'अुजवाडाचे सूर' (1973) हें पुस्तक हाची गवाय दिता. कांय बरोवप्यांनी प्रवासवर्णन ानी सैम वेगळो काडून तांचेर बरयलां जाल्यार थोड्यांनी दोगांकूय अेकठांय घेवन नेबंद बरयल्यात.

म्हजे जिवा-भावाचे इश्ट' ह्या निबंदांत रवीन्द्र केळेकार बरयतातः

'... मुंबयसारकेल्या बकाल शारांत रावनलेगीत एका गावांत राविल्ल्याचें सूख म्हाका देसना, म्हजेइतलें आनी खंयच्याच गोंयकाराक मुंबयत भोगूंक मेळ्ळां जायत म्हूण... सकाळचीं सूर्याचीं किरणां दोळ्यांचेर पडचे पयलींच शेवण्यांची गितां म्हज्या कानार ापडटालीं आनी रात जाली म्हणटकूच मळबांतलीं नखेत्रां केन्नां म्हजेकडेन उलोंवंक लागतालीं. तातूंतूय म्हत्त्वाचें म्हळ्यार, भोंवतणचीं झाडां तितूय-त्रिकाळ म्हज्या मनांत थंय पांचवीं सपनां जागयतालीं' ('अुजवाडाचे सूर')

'घारापुरी,' 'बेलूर-मठांत,' 'वाराणसी,' 'वर्धा' बी कितलिशींच प्रवास वर्णनां रवीन्द्र केळेकारांनी बरयल्यांत. सैमाचें म्हाकाव्य-जोग' हातूत तांच्या 'वाराणसींत'ल्या वरीच प्रवासवर्णन आनी सैमाचीं चित्रां हाचो सोबीत मिलाफ पळोंवक मेळटाः

'... पळेल्यारूच आंगार भयान कांटो फुलता अशी भयांकृत खोलाय आशिल्लो दोंगरांचो एक आकांताचो कडो आनी वयल्यान रूंद विशाळ पात्रान व्हांवपी पुराय शरावती न्हंय आपलें सगळें उदक घेवन एकाच धपक्यान चारपांच कडल्यान वांटो काडून णवशेंसाठ फूट सकल उडली घेता!... सकल एक हतयासारको-न्हय, हतीलेगीत जाच्या मुखार हुंदरायेदो दिसतलो येदो व्हडलो फातर आसा. ताचेर ही उदकाची रास पडटा आनी पडटां पडटां धवें फुल्ल पीठ जावन वता!'

('अुजवाडाचे सूर')

चंद्रकांत केणी पत्रकार आनी कथाकार, तशेंच अेक बऱ्यापैकी प्रवासवर्णनकार. केन्ना केन्ना तांच्यो कथा निबंद-प्रवासवर्णनांच्या सिमारेशांवेल्यान येतात.:

'... ऋषीचे तपश्चर्येकलागून आसू, नाजाल्यार निसर्गाचे रचनेक लागून आसूं, ह्या दोंगरांच्या माथ्यार साडे स हजार फूट उंचायेर केन्नाच सुकना असो हो तलाव हांगां उल्ला. ह्या तलावाकलागुनूच ह्या शाराक नैनीताल म्हणटात... चित्रकार रंगांत रंग भरसून नवो रंग तयार करता हें आमी जायतेफावटीं पळयलां. पूण नैनी शिखरावेलो सूर्योदय आनी सूर्यास्त हांगां खिणाखिणांक नवे रंग उक्तायता, निळ्या रंगाचेर नदर थीर जांवचे आदींच थंय गुलाबी रंग दिश्टी पडूंक लागता आनी मागीर सूर्य वयर येवंचे आदींच सगल्याक उजवाड फांकता. देवाचें चित्र रंगयतना चित्रकार तेजोवलय दाखयता तशें तेजोवलय ह्या

हिमशिखराभोंवतणीं हांगां दिसता. आद्य चित्रकारान तेजोवलयाची कल्पना हांगाच घेतली आसूंये. सूर्य माथ्यार आयलो तरी आंगांतली कुडकुडी उणी जायना. उस्फाटो वाऱ्याच्या झोतासरशी तो वाडटा. सूर्यास्ताच्या वेळार सगलो पर्वत भांगराचो जाता. स्वर्गलोक म्हळ्यार सुवर्णनगरी अशी कल्पना ज्या कवीन मुळांत केली तो सूर्यास्तावेळार तेन्ना शिखराचेर पाविल्लो आसूंक जाय.'

('नैनीताल जंय एक याद गोठली')

('कुळागर' जानेवारी 1984)

वृत्तपत्रीय स्वरूपाचे निबंद कोंकणींत चड नात. रवीन्द्र केळेकार हाणीं एका तेरार वृत्तपत्रां चलयल्यांत आनी जायतें वृत्तपत्रीय लिखाण केलां. चंद्रकांत केणी हे तर सिद्धांतान आनी व्यवसायानूय पत्रकार. वृत्तपत्रीय स्वरूपाचे जायते निबंद ताणीं बरयल्यात. ताचो 'तरेतरेची संवंगा' हाची गवाय दिता. अ. ना. म्हांबरो हाचेंय ह्या वाटारांत थोडेभोव वावर आसा. 'कुळागर' म्हयनाळ्यांतल्यो ताच्यो 'गजाली' अशतरच्या तानाजी हळर्णकारांतूय असले निबंदलेखन बरें सादला. मराठींत Personal Essay लघुनिबंद म्हळ्या. ना. सी. फडकेन हाकाच गुजगोष्टी म्हळ्यात. 'गुज गोष्टी' म्हणचच कोंकणींत गजाली जाय मू? गंभीर वा नर्मविनोदी निबंदकारामदीं वि. ज. असगांवकार हें एक खूब बरें घोळपी नांव. म. ग. ना. नायकांनीय काय वैचारिक स्वरूपाचे निबंद बरयल्यात.

### विनोदी निबंद

कोंकणींत विनोदी निबंदकारामदीं दत्ताराम सुखठणकार, शंकर भाण्डारी, किसन कामत, अ. ना. म्हांबरो, अरूण सिगवाळ, अरूण सुखठणकार, गजानन जोग हांचीं नांवां वाचप्याचे वळखीचीं. हातूंतले दत्ताराम सुखठणकार आनी अ. ना. म्हांबरो सातत्यान बरयत आयल्यात आनी तांचीं निबंदांचीं पुस्तकांय आयल्यांत. किसन कामत गोंय मुक्त जायतसांवन बरयल्लो दिसना. शंकर भाण्डारी अधीं मधीं निबंद बरयतात आनी वाचतल्यांक ते बरोवपी नाकतीचो हे पारखुपाक वेळ लागना. वि. ज. असगांवकार आनी प्रकाश थळी हांच्याय निबंदांनी केन्ना मोवसो विनोद मेळटा. जोग चडश्यो कथा बरयता (तातूंत विनोदूय आसता). अरूण सुखठणकार चडसो 'वर्सुकी साहित्यिक भोंवडी' सारकीं टिपणां (हाकाच वृत्तपत्रीय निबंद म्हणूं येता). अरूण सिगवाळ नवलिकांवांगडाच थोडेभोव सातत्यान निबंद बरयता. पुरुषोत्तम सिगवाळाक सातत्य नासले तरीय विनोदी निबंद ताकाय सादला हें जाणवता.

काय बरोवप्यांचे विनोदी निबंद केवळ हांसयतात. हांसतां हांसतां अंतर्मुख करून दोळ्यांत उदक हाडूंक लावपीय कांय निबंद कोंकणींत आसात. चार्ली चाप्लिनाचो विनोद अशेतरेचो आसतालो. मराठींतले पु. ल. देशपांडे आनी जयवंत दळवी हाणींय हो मिलाफ

थोड्याभोव प्रमाणांत आपणाल्या विनोदी बरपांत मादला. पु. ल. चें 'बटाट्याची चाळ' हांसयतां निमाणच्या 'चिंतनां' त अंतर्मुख करता. दळवीचें 'सारे प्रवासी घडीचे' ह्याय पुस्तकांत अशेतरेचो अणभव वाचप्याक दत्ताराम मुखठणकारांचेर पु. ल. आनी दळवी सारकिल्याची हे बाबतींत अप्रत्यक्ष प्रभाव पडला काय दिस्ता. तांचें 'माशेल' हो निबंद वाचतना हें जाणवता. सुरवातीक विनोदाच्या आंगान वचपी हो निबंद अखेरेक हळवो आनी भावुक जाता.

'आज माशेलाची परिस्थिती कशी आसा'? आमचे तेवटनेच्या हेर सगळ्या गांवांभाशेन माशेलाकय आज अस्तमती कळा लागल्या. सगळेच जाण गांव सोडून शारांनी वचूंक लागल्यात, .. अशावेळार म्हगेले गांवकार गांव सोडून मुंबयच न्हय तर ताचेय फुडें गेले तर वायट दिसपाचें कारण ना. पुणून बुद्धीक पटल्यो म्हणून सगळ्योच गजाली मनाक पटनात. आनी हाकालागून हांतुणार पडटकर माशेलाचीं याद येता आनी वायट दिसता. पोरणें, म्हज्या भुरगेरणांतलें माशेल आज ना. एका वेळार हरी शेनायकार देवकीकृष्णा मुखार शेनाय वाजयतालो : ताणें रामनमीक दनपारां वाजयल्लो सारंग आनी धेणल्या पाडव्याच्या गांवड्यांच्या रथामुखार, शेनायेवयल्यान पेण्याक वाजयल्लो जयजयवंती हांचो सूर हो वेळ लेगीत म्हज्या कानांत घुमतात ... कोल्हापूर, बनारस, ग्वाल्हेर हांगच्यो खूब शेनायो आयकल्यो. हांवें पुण हरीचे फुंकेची गोडी अजून मेळचीच आसा.'

'... हांवे म्हळें, माशेल गांव फोंडें तालुक्याच्या माथ्यार आसा! दिवाळेचो दुसरो काय तिसरो दीस, घरानघर मेणवाती आनी पणत्यो हांची दिपरद्ना लागल्यात. 'हरि रे माझ्या, पांडुरंगा' ह्या पदाचे चालीर देवकीकृष्णाचो रथ पर्यशिल्यान नाचत येता. रथ नाचयतल्या मनशांच्या पायांक लागून उडिल्लो धुल्ल चनरजोतींच्या उजवाडांत स्पश्ट दिसता. मेणवाती पालवंक नात मूं? आकासदिवो आनीक वयर वचूंक जाय? रथाफाटल्यान लालखी येतली. पणत्यांनी घाल्लें तेल पावतलें मूं? आनी इतल्यांत हरी शेनायकार आपल्या शेनायेक फूंक घालता, 'आनंदाचा कंद हरि हा... 'ना, म्हजे चुकलें. म्हजें माशेल फोंडे तालुक्याच्या माथ्यार ना. म्हजें माशेल म्हजे यादस्तिच्या करणांत आसा, म्हजे जिणेंतली सगळ्यांत अदीक मोलाची वस्त ती!'

(मान्नी पुनव 1977)

शंकर भांडारींचो निबंदसंग्रह येवंक नाशिल्ल्यान ताचे निबंद नेमाळ्यांनी सोदचे पडटात. तांची स्वताची अशी अेक घाटणी आसा. कांय नमुने:

**अफवा कशो फांकरतात हाजेविशीं:**

'गोंयांत आमचे आदले राजिल्ले नायब राजपाल पर्थून येतात अशें अेका जाग्यार गेल्लेकडेन कळ्ळें थंय बशिल्लेकडेन अेकल्यान सूर जोडलो. 'हावें सांगूंक नाशिल्लें?

एशियाड जेतिवंत करूंक तिणें ताका केल्लो. तें काम सोंपलें, आतां चांगस जेतिवंत करपाक तो ताकाच धाडलो'... हरशी ह्या विशयाचेर हाचेपयली आमची केन्नाच भुलावणी जावंक नाशिल्ली म्हणपाची ताका खबर आशिल्ली. पूण एक घडणूक फुडें घडपाची आसा, ती ताका पयलीच कळ्ळी ना जाल्यार तो गोंयकार कसलो! ताजो धंदो हरशी खाणावळीचो. खाणावळ म्हणटकच भूक लागिल्लो कोण पूण येतलोच. राजकर्णी लोकांची भूक चड. म्हणटकच ताचे खाणावळींत राजकर्णी चड येतात. देखून हेर विशयांबरोबर (बरें जेवण दिवचें सोडून) ताका राजकारण बरेंच कळटा असो ताजो प्रामाणिक समज. भितल्लेंच न्हय. तर मुदतीपयलीं विधानसभेचें विसर्जन जाल्यार आमदार म्हूण उबो रावचेखातीर ताणें तयारी केल्या. ताकालागून फुडल्या मतदारांक तो फाटल वाट्टा... आमच्या दोन मंत्र्यांनी राजिनामे दिले म्हूण... ही खबर ताणें अवांतर आयकल्ली. ताणें म्हाका सांगतना, ताणीं राजिनामे आपल्याच हातांत दिल्यावरी तोंडार आविर्भाव हाडिल्लो. भुरांत त्या दोनूय मंत्र्यांनी... तांच्याच तोंडांत सोबना तसले भाशेन हेय राजालीचो खुलासो केलो. ही राजाल वेगळी फाटी स. पूज्य जयप्रकाश नारायण खंयांनीच ही इहलोक सोडून गेले. तेन्ना पयलें खेपेची तांचेविशींची खबर ही अफवा म्हणपाची कळ्ळी. अफवा कंय सुरू जाता तो कळना. पूण तिका एक मोटारीवरी self starter आसूक जाय'

('वा म्हळ्यार वार्तो', 'कुळार दिवाळी' 1983)

**वायलांचे वडवडीविशीं:**

'आदांव आनी एव्हाची काणी आमकां खबर आसा. येडनच्या बागेंत दोगांय मोजा मारून दीस सारताली. पूण एक दीस एव्हाचो जीव चाळवलो आनी ते बागेंतलें जें फळ खावंक तिका मना केल्लें तेंच फळ तिणें खालें. देवाक मारली भिरभिरी. ताणें दोगांकूय सकयल धर्तरेर धांवडावन दिलीं. हांगां तीं दोगांय मरतीस कुळयेंचें मूळावें जोडपें थल्लीं. आदांवाच्यान हरशी एव्हाक आडांव येताली पूण ताणें तें काम केलेंना. देखून आदावांकूय एव्हा बांगडा ख्याम्न भोगची पडली. पूण आनीक अेक राजाल घडली. ती मूळ कथेंत सांगूंक ना. ती म्हळ्यार आदावांक आनीक अेक जबरदस्त ख्याम्न खांवची पडली। एव्हाचे थार नासताना वडवडपी जीवेचो आदांव सासणाचो वळी जालो... वायलांची ही थांबनाशिल्ली वडवड आसा ती मदांत दादल्यांचो अजापाचो आनी भेरेवन पडचेलो एक विशय जावन पडला. कवि आनी नामनेच्या बरोवप्यांनी हाचेर मानातर्क वितर्क चलैले...'

('भेड्डो घोव आनी ताजी मोनी वायल'

('दिवली' दिवाळी 1984)

आप-उक्तावणी:

'आतां हांव आंकवारूच कित्याक अुल्लों? ह्या प्रस्नाची जाप दिवप दिसता तितली सोपी न्हय. अितलेमेरेन कि हांव आंकबार रांवलां काय अुल्लां हें सांगपलेगीन मात्शे अवघड. पुण विनोदान हांव केन्नाय म्हणटां, 'म्हजे घरकान्नीचें लग्न अजूनमेरेन जावंक ना.' अशावेळार तुमी म्हणटलीं, आ ऽऽ अजुनूय ह्या म्हालम्हाताऱ्याक लग्नाची अुमेद आसा काय कितें? खरें म्हळ्यार आसल्यार कांयच अजाप ना... पुण प्रस्न येता तो लग्न सस्थेचो. वयार येतकच चल्यान वा चलयेन हे संस्थेंत अपणांक गुरफटावन घेवन चुकनाशिल्लीं कर्मा सारोदाराक करीत रावची काय कितें? बर्टन आपल्या अेकसुरेपणाचो जो विच्छेद करता वा चिरफाड करता, तेन्ना ताका 'लग्न आनी फांसार वचप हें मनशाच्या प्राक्तनांक बरयल्लें आसता' अशे अुद्गार येतात. तें वाचतकच म्हजेंसारकिल्लो साडोसुडो कितलो बरो आसा हें येवजून सूऽऽ जाता.'

('आनी हांव आंकवारूच अुल्लो' चित्रंगी दिवाळी 1984)

लग्नाविशीं शंकर भांडरीन खूब वर्सांपैली दुसरे अेके कडेन बरयल्लें.

'लग्न पळोवंचें करून आनी घर पळोवंचें बांदून' अशी एक म्हणणी कोंकणींत आसा. तांतली घर पळोवंचें बांदून ही म्हणणी कानाक तरी बरी लागता. बांदिल्लें घर आपणेय पळोवन येत्या वेत्याक दाखोवंक तरी मेळटा! पुण लग्न करतकच आनीआनीक पळोवंचे कितें उरता काय? ... लग्नाचो प्रस्न हो संवसाराचे सुर्वेपासून असोच उसकना-किं जे लग्नसंस्थेत आसात ते केन्ना काय भायर सरूंक पळेतात आनी जे भायर आसात ते भितर सरूंक पळेतात? आनी हे संस्थेच्या हुमऱ्यार रावपी म्हजेसारकिलो वेल्या प्रस्नाची जाप सोदपांतूच खोशी मानता.'

('आमचीं लग्नां काय विघ्नां?'
'पुनव' नोव्हें 1972)

**Statement of ownership and other particulars pertaining to the Journal**

## "AMAR KONKANI"

**Form IV (Rule 8)**

| | | | |
|---|---|---|---|
| 1. | Place of Publication | : | Mangalore |
| 2. | Periodicity of its publication | : | Half Yearly |
| 3. | Printer's Name | : | Fr. Peter Cyprian D'Souza |
| | Nationality | : | Indian |
| | Address | : | Assisi Press<br>Mangalore 575 003 |
| 4. | Publisher's Name | : | Fr. Swebert D'Silva, S.J. |
| | Nationality | : | Indian |
| | Address | : | St. Aloysius College<br>Mangalore 575 003 |
| 5. | Editor's Name | : | Shri Edwin JF DSouza |
| | Nationality | : | Indian |
| | Address | : | "Fountainhead", Highlands<br>Mangalore 575 002 |
| 6. | Name and address of individuals who own the journal and partners or shareholders holding more than one percent of the total capital | : | Fr. Swebert D'Silva, S.J.<br>St. Aloysius College<br>Mangalore 575 003 |

I, Fr. Swebert D'Silva, S.J., hereby declare that the particulars given above are true to the best of my knowledge and belief.

Sd/-Fr. Swebert D'Silva, S.J.

Mangalore
30-06-2012